# जितें मर्ण

देविदास कदम

श्री. किरणबायक
मायेमोगान
[illegible]
13/06/14

संजना पब्लिकेशन्स
सांगें - गोंय

Jitem Mornn

(Collection of short stories)

by - Devidas Kadam,

Mangalvan complex, Chaudi, Canacona. Mob. 9423836799

जितें मर्ण



प्रकाशकः

संजना पब्लिकेशन्स

39, दत्तवाडी, सांगे - गोंय

Mob. 9552551425

प्रकाशन क्रः 28

पयली आवृत्तरः2013

टायप सेटींगः

अर्चना-अशोक

छापणावळः

बांदेकार ऑफसेट

कुडचडें-गोंय

फोन 08322650034

मुखचित्रः

सुदेश बांदेकार

मोलःरू. 250/-

कोंकणीचे सेवेक आपली जीण ओंपिल्ले आमचे म्हालगडे
भौ. बस्ती वामन शणै हांकां भोव आदरान

- देविदास कदम

# मांडावळ

# उपकार

म्हजो हो कथासंग्रह उजवाडा ये म्हणसर म्हाका जायत्या इश्टांचें सहकार्य लाभलां.

भौ. महाबळेश्वर सैल हे म्हाका गुरुसमान. तेच भावनेन तांणी ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवन दिली हे खातीर तांचे खूब उपकार.

पुस्तकाची अक्षर जुळोवणी खूब म्हत्वाची. पुस्तकांतल्या पुराय कथांची अक्षर जुळोवणी करपाची तकालस भौ. अशोक कामत आनी तांची घरकान्न भौ. अर्चना कामत हांणीं आपल्या भुजांर घेतली. हांव तांचो काळजा सावन उपकारी.

ह्या पुस्तकाचें मुखपृष्ठ चितारपी आनी छापणावळ करून दिवपी बांदेकार ऑफसेटाचे धनी श्री. सुदेश बांदेकार हांचेय म्हजेर उपकार जाल्यात.

आनी निमणें ह्या पुस्तकाचे प्रकाशक संजना पब्लिकेशन्स हांणी हें पुस्तक बेगिनांत बेगीन उजवाडा हाडलें हे खातीर तांचेय उपकार.

देव बरें करूं.

- देविदास कदम

# एक फिशाल कथाकार

देविदास कदमाली कथा, कथेचीं सगळीं तंत्रमंत्रां सांबाळपी, कथेचे आदिबंध राखपी परिपूर्ण कथा. कथेच्या तंत्रा कडेन तो प्रामाणीक आसा. पोन्नें सगळें मोडून तोडून उडोवचो अभिनिवेश ना. म्हणच ती तकलेक ताण दियनासतना निखळ साहित्यीक आनंद दिता. संवसारांतल्या सगळ्या बऱ्या साहित्याची मोख आसता वाचकाक कलात्मक साहित्यीक आनंद दिवची. तें बरोवप्याक बेस बरें साधलां. मुळांतल्यान अणभव घेवची संवेदनशीलता, सोबीतकायेची नदर आनी समाजभान हाचेन ताचे कथेक पूर्णत्व येता. ताचें समाजभान इतलें बळिश्ट आसा, एका समाजाक विवीध आंगान तें कथेंत आस्पावन घेता.

ताचे कथेंत मनीस विवीध रुपांनी धोंगांपोंगां सयत सामको मुखार जिवो उबो रावता. आपली कथा आनी व्यथा सांगता. कथेंतल्यान मनीसच आपली कथा सांगता. बरोवपी निमित्तमात्र आसता. बरोवपी अलिप्त, संयमी. खंयच ताचें दर्शन घडना हें बऱ्या साहित्याचें लक्षण. मनीस जातीविशीं बरोवप्याक उपाट मोग आसा, करुणा आसा. म्हणच ताचे कथेंतल्यान मनशां धाय वाटांनी उक्तीं जातात आनी आपली कथा उक्तायतात. खंयचेय कथेच्या मूळ स्थानार आसा तें मनशाचें दुख्ख. मागीर तें पयसावंक केल्लो संघर्श. तशो कथा तुकड्या तुकड्यांनी दिसल्यो तरी तांकां एक अंतरनाद आसा, अंतरप्रवाह आसा. कारण एका समाजाचो

विवीध आंगांनी विचार करतना ताका त्यो कथा मेळ्ळ्यात. एका परिवेशान इतले कथाविशय सोदून काडप हो फिशाल प्रतिभेचो भाग. कथाविशय सोदतना बरोवपी खूब धडपडला, खर्शेला अशेंय दिसना. कविता आयिल्ले वरी त्यो कथा आयल्यात. तांची निर्मितीय सहज, सैमीक जाल्या. ह्या कथांचो एक विशेश गूण म्हणल्यार ह्यो सगळ्यो कथा मनशाच्या जिविताक स्पर्श करीत जिविताक समांतर उरतात. मनशाक सोडून खंयच भरकटनात. मनशाचें जिवीत आसा तशें वास्तव पातळेर उबें करप हो कथेचो निमाणो हेतू. वास्तवाक कलात्मक रुप दिल्ल्यान कथेची शैली खंयच रटाळ जायना, वाज हाडिना. कथा विशयाचेर वाचकाची पकड शेवट मेरेन तिगून उरता. शेवटय एका आगळ्याच आनंदांत जाता आनी कथा यादींत उरता.

'आडखळ' ही एक सैमसिद्द रुपक कथा. मळब, दोंगर आनी न्हंय अशीं विशाळ रुपकां तातूंत येतात. तांचो संवादय घडटा. ताका बरोवप्यान संयमान वास्तव पातळेर हाडला. तांचें अस्तित्व, तांचे तळमळे खरे दिसतात. मुळांत अशी कथा सुचपच तांकिवंत प्रतिभेचो भाग. मनशाल्या भ्रश्ट, भोगवादी संस्कृतीक खोंटावचो यत्न हे ल्हानशेच कथेंतल्यान जाता, तोवूय भोव परिणामकारक रितीन. आज मनीस सैमाक वेठीक धरुन सैमाआड कारस्थानां करीत आसा. पूण तांकीवंत सैम एक दीस मनशाक बुद्द शिकयतलो, ताका गिळून उडयतलो. व्हांवते न्हंयेक बांद घालून तिची शक्त अपंगूळ करुन उडवचो यत्न जाता पूण समुद्राचे ओडीन ती रुद्र रुप धारण करता आनी भ्रश्ट लोकांनी बांदिल्लो बांद मोडून तोडून उडयता. सगळें उध्वस्त करीत समुद्रा वटेन धावंक लागता. ही खरी आदीकाळा पसून चलत आयिल्ली प्रेमाची अजरांवर शक्त.

आयचे समाज वेवस्थेंक कितलीं तरी किडिल्लीं, बुरशीं आंगा आसात. तांकां परंपरेची फटकिरी झालर आसा. अशेंच एक आंग म्हणल्यार अंधस्रद्धा-कुड्डो भावार्त. पुरायपणान अंधस्रद्धेचेर बरयल्ल्यो

कथा कोंकणींत नात. पूण 'जितें मर्ण' हे कथेंत एक अंधस्रद्धेचें गिरगिरें घुंवता. हें गिरगिरें मनीस खायरें. तें मनशाक मारून तोडून उडोवंक उठलां. दुश्ट, कुड्डे भावार्ती लोग सरणावयल्यान जितो जावन उठिल्ल्या नाराणाक भूत पिशाच्च म्हूण आपणांत घेवंक तयार नात, उलटें ताका तुकडे करून मारुन उडोवचें कारस्थान रचतात. जेन्ना भुरगे बाळाची ताची बायलय तेका घरांत घेनासतना धांवडायता तेन्ना मन सुन्न जाता. अंधस्रद्धेचें विकराळ रूप हे कथेंतल्यान पळोवचें. अंधस्रद्धा मानपी लोकांची मानसिकता विकृत, भडक स्वरुपाची आसता. तशेच कांय भडक सूर हे कथेंतय लागल्यात.

अशें दिसता, देविदास कदमाक कितेंय सांगचें दिसता तेन्नाच तो लेखणी हातांत घेता. दर एके कथेंतल्यान कांय सनातन सत्यां सांगून वता. कथेचे सुरवेक, मदीं वा शेवटाक अशें एकादरें तरी सत मुखार आयलें तरी कथेचें भांगर जाता. 'निमणो संस्कार' हे कथेंत तो म्हणटा, दादल्यान खंयच्याय हेर जातीचे, धर्माचे अस्तुरे कडेन संबंध दवरलो म्हूण तो बाटना. दादलो बाटना, मागीर बाट्टा कोण? फकत बायलूच? ह्या सांगण्यांतच खरें तर अस्तुरेचे सगळे कर्मभोग लिपिल्ले आसात. कथेंतली किरिस्तांव आंटी एका हिन्दू मास्तरा कडेन लग्न जाता आनी एके जातीहीण, धर्महीण अवस्थेंत जियेता. कोण्ण लागीं करिनात. खरें तर तिचें हॉनर किलींगच जाल्लें आसता. पूण शेवटाक मात सगळ्यांक एक हुस्को, हिका कोण खंय लासतलो काय पुरतलो. कथेचो शेवट वाचून मात उज्याचो चुरको बशिल्ले वरी जाता. ही एक अस्तुरीप्रधान आनी बरी कथा. बरोवप्याल्या कथेंतल्यो चडश्यो अस्तुऱ्यो दादल्या वांगडा जुळटें घेवपी, पडटें घेवपीच आसतात. गाड्याचें दुसरें चाक जाल्ले वरी त्यो संथपणान साथ दितात. एकादरीच अस्तुरी आपल्या मनान आपले कामवासनेचो भागीदार वेंचता तेन्ना एक तर तिका कुसून मरचें पडटा ना तर मार खावन बांयंत हुडी घेवची पडटा. हेच कथेंत

पंढरी मरतकीर तेगेली बायल मानाया कडेन संबंध दवरता तेन्ना घरचे आनी गांवचे लोक तिका मारून बांयंत बुडोवन मारतात.

भाशा, मनशां आनी वाठार हे नदरेंतल्यान त्यो प्रादेशीक कथा. त्यो त्या प्रदेशाची संस्कृती आनी मानसीकताय घेवन येतात. सोबीतकायेची, संघर्शाची ओड आशिल्ली ती संस्कृती. विकृती साप्प उणी आनी पुराय संस्कृतीच थंय वसता. कुळार हे कथेंत भाव-भयणीच्या मोगाचें काळीज भरून येवपी अशें चित्रण आसा. मागीर तांची ताटातूट जाता आनी ते ताटातुटीच्या दुख्खान तीं वथरेतात तेन्ना दोळ्यांत दुकां उबीं रावतात. कुळार म्हणल्यार बायलांचे पंचप्राण आसतात. ते तुटपा येदें दुख्ख बायलांक दुसरें ना. संस्कृतीन मनशाले संबंध थारयल्यात, तेका मोगाची ओलसाण दिल्या. हे संबंध संस्कृतीचें दर्शन हांगा घडटा. एका कादंबरीचो अवाको आशिल्लो हो विशय, पूण बरोवप्यान तों फिशालकायेन कथेच्या रुपान मांडला आनी ती कथा म्हणच उबी रावता.

बरोवपी आपले भुंयेंत, आपले मातयेंत घट पांय रोवून कसो उबो आसा. ते भुंयेचेर ताचो मोग आसा. ही भूंय खरी तर कृशी व्यवसायांतल्यान सिद्ध जाल्ली आसा. तिका सोबीतकाय मेळिल्ली आसा. पूण आज त्या कृशी व्यवसायाक, तेंगेल्या ह्या वाठाराक वायट आवतिकाय आयल्या आनी ती पडींग पडल्या. ती भूंय बुरशी जाल्या. ताचेन तो अस्वस्थ जाला. तातूंतल्यान उबी जाता कथा ‘नव्यां परब.’ रोयिल्ली पिकाळ भूंय म्हटल्यार सोबीतकाय आनी पडींग बंजर भूंय म्हटल्यार आळशीपण, बुरशेपण हें ताका बेस होलमलां.

संवसारांतले सगळे वंश, धर्म, जाती आपलेंच रगत स्रेश्ठ, शुद्ध ह्या अहंकारांतल्यान जल्मल्यात. आयचीं सगळीं झगडीं रगता-रगता मदलींच झगडीं आसात. अशेंच आपलें रगत शुद्ध राखूंक पळोवपी विश्राम. तेगेलो चेडो पिसो, अबरगत. तरीय ताका आपलेंच रगत स्रेश्ठ

अशें दिसता. तातूंतल्यान उबी जाता एक उत्कृश्ट कथा, 'वंशकोंब.' आपल्याच पिशा रगताचो वंशकोंब. ही कथा एक प्रत्ययकारी विचार दिता.

कोंकणी कथेंत विवीध आंगांनी, विवीध विशयांचेर साहित्यिकांनी बरोवंक जाय असो एक सूर आयकूंक मेळटा. देविदास कदमान शाळेंत शिकपी भुरग्यांच्या मानसशास्त्राचेर कांय कथा बरयल्यात. तांचो तपशील इतलो बरो आसा, बरोवपी वाचकांक वर्गांतच व्हरून बसयता आनी म्हणटा, पळयात. हें अशें अशें जालां. त्यो इतल्यो वास्तववादी जाल्यात, बरोवप्याल्या एकूय्र उतराचेर दुबाव घेवं येना. खोटे प्रतिश्ठेच्या हावेसान आवय-बापूय भुरग्यांल्या माध्यमांतल्यान व्हडपण भोगूंक पळयतात, तांचो बळी दितात. हें वाचून तांची काकुळट दिसता. मातयेगुळ्या सारखीं निरागस भुरगीं‌य हांगा दिसतात.

ताची भाशा, ताचीं उतरां कथा घडटा त्याच वाठारांतलीं. उतरांचें अलंकरण करिनासतना तांच्या उच्चारा सयत तो उतरां केळयता. हीं उतरां पळयात- 'हादव्ळो, आळटा, पेटके, भाणत, मक्तासूर, शार्णेशास्त्रां!' ती एकेतरेन भाशेची सोबीतकायच जाता. 'उकडिल्ल्या आंब्या सारखो तोंडवळो' अशीं कांय प्रतिकात्मक सुंदर वाक्यां आसात. 'पोल कांडून हाताक फोड काडून घेतिल्ले वरी,' अश्यो कांय म्हणण्यो आसात.

खरें तर ह्यो प्रादेशीक कथाच. त्यो प्रादेशीक भाशेंतल्यान, सैमांतल्यान, भूंय आनी मातयेंतल्यान, मनशाले मानसीकतायेंतल्यान उकत्यो जातात.

**महाबळेश्वर सैल**

**मडगांव**

# वंशकोंब

“आई गेऽऽऽ, येदनां सोसूं जायना रे देवाऽऽ! जायना!”

वैजिणीन धीर दीत म्हणलें, “मातशें सोंस. जालें, थोडोसोच तेंप...!”

वाड्या वेली यमूनमामी कुसमाल्या कंबरार फाटल्यान हातान रगडटाली. तिणें आपल्या सदच्या मायेस्त आवाजांत म्हणलें,

“आवयपण सोंपेपणान मेळना पुता. असले भोग सोंसूनच मेळोवंक जाय तें! व्हड भाग्य पुता ते अस्तुरेचें...”

कुसमाच्यान वेणो सोसूं नजो जाताल्यो... नजो जावन तें मदींच व्हडान किंळाचतालें, दांत- ओंठ चाबतालें.

वाड्या वेल्यो एक्कान एक बायलो थंय एकठांय जाल्ल्यो. कांय जणी बाळंतकुडींत बशिल्ल्यो, जाल्यार कांय जणी वासरेर. कांय जणी भितर भायर करताल्यो. कितें जाय, नाका पळेताल्यो. कुसमाले तळमळे जणएकलेच्या तोंडार उदेल्ले.

मांव विश्राम वासरेर आराम खुर्चेर ओग्गी मोनो कसो बसून आशिल्लो. म्हऱ्यांतच फाटल्या घरची अप्रूप आज्जी बशिल्ली. व्हदळ

सावन ती विश्रामाक दुशणां दीत आसली.

"फुलट बाळंटेर! कितें म्हण ओगी आसा, देव जाणां! कारवारा व्हरचो सोडून ह्या आडगांवांत वैजिणीर पातयेवन आसा. देवान निरंकारानच राखचें!"

विश्रामाचेर ह्या उलोवण्याचो कसलोच परिणाम नासलो. अप्रूप आज्जी जाणा आसली. विश्राम एक नंबर भितरले गांठीचो. आपल्या मनांतलें कोणाक सांगपी न्हू! मनाक मानवता तेंच करपी.

धनंजया बायल सुनंदा नंजा मुडली घेवन भितर वयताली. अप्रूप आज्जेन मदींच हटकिलें. "अगो, वैजीण कितें म्हणटा...?"

सुनंदा कांय उलयली ना. ओगी उबी रावली.

"भुरगें आडवें बी ना मू?"

"देवा खबर! भोव तरास जातात तेका! तळमळे पळोवंक नजो..."

"गांच फुलून येयलां...?"

अप्रूप आज्जेन हें विचारतकीर, पंचविशेक वर्सां पिरायेची ती बायल भोव शरमेली. तिका दिसलें, ही आनीक हांगा वासरेर बशिल्ले कडेन दादल्यां मुखार नाका जाल्लें कितें विचारता?

आनी ती तोंडाक पदर लावन तशीच भितर गेली.

"हांवच चयन येतां," अशें म्हणत अप्रूप आजी कमरार हात घेवन उठली आनी बाळंत कुडींत येयली.

"अगो, गांच फुलून येयलां गो?" तिणें वैजिणीक विचारलें.

वैजीण ओग्गी.

कुसूम काल रातीं बारां सुमारा पिडा जाता म्हूण तळमळटालें, तें अजून मेरेन तळमळत आसलें. आतां सांजेचे पांच वाजूंक येयिल्ले. हरशीं बाळंत पिडा कोणाक चुकल्या? पुणून कुसमाले उतळताप, पिडा हिसपा भायली. सोंसूं नजो जावन तें मनगटाक घांस मारतालें. सुद्दसुम्रत वचून खिणांतच दोळे वरशे करतालें. ह्या गांवांत जायत्यो बायलो गुरवार-बाळंत जाल्यात. अशे तरेचे तरास जाल्ले कोणेंच पळोवंक नासले. ना म्हणल्यार फाटल्या तेंपार विठ्ठलभायाल्या चेडवाक अशेच तरास भोगिल्ले. तेंवूय अशेंच हुयेली मारतालें. तेका तेन्ना भुरगें आडवें आयिल्लें, मागीर घे बोवाळ जाल्लो. बेगीनच कारवारा व्हरप जाल्ल्यान पोर वांचिल्लें.

सगळ्यांकच कुसूमाचे काळजेचो घोर लागिल्लो. हरीभार देवाचेर घालून, आनी वैजिणीचेर पातयेवन सगळीं ओग्गी आसलीं.

चार दिसां फाटीं अप्रूप आजयेन विश्रामाक म्हणिल्लें, "अरे, पोरालें पोट भारी व्हड दिसता. भुरगें पुश्ट जालां आसुंये. तूं तेका बाळंतपणाक हिंगा दवरूं नाका. कारवारा सरकारी आस्पत्रेंत व्हर. फुलट बाळंटेर पोरालो. काळ सांगून येयना... पुणून विश्रामान कानामनार घेवंक नासलें.

गांवचे रिती प्रमाणें कुसमालो हो पयलो बाळंटेर आवयघरा जावंक जाय. पुणून कुसमालें करतली कोण...?

हरशीं विश्राम ह्या खिणाक भोव बोवाळूंक जाय आसलो. ताका खोस भोगूंक फावो आसली. पुणून तो स्थितप्रज्ञ कसो दोळ्यां मुखार दिसता तें पळयत ओग्गी. वाड्यावेलीं मनशांच बोवाळटालीं. सगळे तरेची काळजी घेतालीं. कोण कुसमाली आवय जाल्ली, कोण मांय जाल्ली, कोण भयण जाल्ली, कोण नणंद जाल्ली.

कुसमाक लग्न करुन ह्या घरा हाडिल्लें तेन्ना ह्याच विश्रामान

म्हणिल्लें, “पुता, हांवूच तुजो बापूय, हांवच आवय. हांवच मांव आनी आनी हांवच मांय! हांव तुगेलें सगळें सगळें करतलों...” जाल्यार आयज ह्या खिणाक तो कोण आसलो?

हरशीं जाल्यार सुनेचे हे उतळताप आनी हाल पळोवन तो ताका कारवारा व्हरची ताकतीक करता आसलो. भटागेर वचून चीट करून, ताच्या गळ्यांत बांदता आसलो. जावचें आशिल्लें जातलें. अशें येवजून अशे तरेन ओग्गी रावता आशिल्लो?

भितरल्यान सून आड्डताली.

“मामा, म्हाका कारवारा व्हरा... म्हज्यान सोसूं नजो... नातर दोतोराक हांगा हाडा... म्हजें पोट कापा...”

आयकतल्याचें काळीज कळवळटालें. दोळ्यांत दुकां येतालीं. विश्राम मात निबरसाणेन काळीज घट्ट करून बशिल्लो.

आनी कुसमालो घोव? रामनाथ ताचें नांव. खंय आशिल्लो तो...? जशें काय घरांत कांयच घडूंक नाशिल्ले वरी सदचे भाशेन गोरवां घेवन रानांत गेल्लो. चरोवंक!

राती कडेन पोटांत जावंक लागिल्लें तेन्ना कुसमान पयले सुवातेर घोवाक उठयिल्लो. तो बावडो बुडबुडीत उठिल्लो. बायलेन पोटांत जाता म्हण सांगतकीर, हांव तुका जिन्या कसाय करून दिवं...? म्हूण विचारूंक लागिल्लो. बावड्याक बायलेक पिडा जाता हेंवूय कळूंक नासलें. बायलेन मागीर समजावन सांगतकीर ताणें बापायक उठयिल्लो. मागीर वचुन कुश्टाक उठोवन, बोवाळ घालीत वाडो भर भोंवन सगळ्यांक उठयिल्लीं आनी उपरांत सकाळ जातकीर हो बोवाळ सुरु आसतनाच आपल्या सदच्या नेमा प्रमाण गोरवांक घेवन रानांत गेल्लो. पर्थून दनपरां येवन,

सांजेचो पर्थून गेल्लो. ताका बाबड्याक कोणेंच "अरे, बायलेक पिडा जाता आनी तूं खंय वयता?" म्हणलें ना. आनी ताकाय तें समजलें ना. आपल्या नेण्टेपणा सावन करत येयिल्ल्या कामाचो नेम ताणें आजूय सोडलो ना.

कोण म्हणटात, आवय मेल्ल्या दिसा सुदीक तो गोरवांक सोडूंक गोठ्यांत गेल्लो. कोणाची तरी ताचेर नदर गेली आनी ताणें मागीर बेगीबेगीन वचून हाका हाताक धरुन घरांत हाडून बसयलो.

रामनाथ जल्मा सावन मतीमंद आसलो. ताचे भितर कितें तरी उणेंपण आसा हें ताका पळयतकीर जुस्तच समजतालें. सामको बावळट. उकडिल्ल्या आंब्या भाशेन तोंडवळो. एक दोळो बेठोच मोठो आनी दुसरो अर्द धांपिल्लो कसो. हाचेन तो सकयल पळयता काय मुखार पळयता, कांय कळनासलें. तकली गोल गरगरीत ताचेर तायट उब्बे काळे केंस. आंगलोटान मध्यम उंचायेचो. किडकिडीत. उलयतना तोंडांतल्यान उतरां जड भायर सरतालीं. एकेक फावट तो कितें उलयता हेंवूय कळना आसलें.

रामनाथ विश्रामाक एकलोच पूत. सुरवेक सुमार वर्सां मेरेन विश्रामाक भुरगेंच नासलें. विश्रामय आवय-बापायलो एकलोच. मुखार वंशावळ चलोवंक कोण तरी जाय आसलो. विश्राम आनी विश्रामा बायल घोर चिंतेंत आसतालीं. उपास-तापास, जप-तप, सांगणी-आंगवणी सगळ्यो करतालीं. निमाणे कडेन हो जालो. जालो तो असो जालो. तीन वर्सां मेरेन चलनाच आसलो. मागीर ल्हवू-ल्हवू चलूंक लागलो. चार वर्सांर उलयलो. पिरायेच्या धा वर्सांर शाळेंत गेलो. पिरायेच्या सोळा वर्सांर कशे भाशेन तीन यत्ता शिकून ताणें शाळा सोडली.

हरशीं घरचो, शेताभाटाचो वावर तो बेस बरो करतालो. शेतां

कसप, मेरो लावप, कडमुले करप जिस्ताजिस्त आसलें. बागांत एक बोंडो वा एक शेंलें पडूंक दिना आसलो. बाग सामकी निवळ दवरतालो. गोठ्यांतलो गोरवांचो वावरूय तसोच. शेण काडून गोठो निवळ करप, गोरवां सोडप-बांदप. गायचें दूद मात तो केन्नाच काडूंक वचना आसलो. एक दीस खंय तो गायचें दूद काडूंक म्हण गेल्लो, गायन लाथच मारली. तेन्नाच्यान हाणें ह्या वावराचो धसको घेयलो. आनीक एके गजालीक तो थर्त भियेतालो. झाडा-माडार चडूंक! पडून मरत म्हण! तो नेण्टो आसतना, ताच्या भाटांत वावर करपी सुब्राय झाडावेल्यान पडून मेल्लो ताणें पळयिल्लो.

आपलो पूत सगळो वावर करूंक शकता म्हण बापायन पुताक वावर करूंक मात दिलो ना. फकत गोरवांक सोडप, चरोवंक व्हरप आनी बांदप होच वावर ताणें पुताचेर सोंपयिल्लो. ताकाय कारण आसलें. रामनाथान नेण्टेपणांत एक दीस किर्तनकारा कडल्यान आयकल्लें, कृष्ण सदांच गोरवां राखूंक वयतालो! जालें! हाकाय आपूण कृष्ण जावंया अशें दिसलें. हाणें बापायकडेन हट्टच धरलो. "हांव सदांच गोरवां राखूंक वयतलों." बापायन येवजिलें, वयता जाल्यार वचूं! ते निमतान तरी हेरांत मेतेर जावं आनी मातसो सुदारल्यार सुदारूं! पुणून तो कसलो सुदारता...? उरफाटो, हो हेर राखण्यां खातीर फकाणांचो विशय थारिल्लो. ताका ह्या वावराची इतली आदत पडिल्ली, तो ताचे दीसपट्टे जिणेंतलो एक नेम थारिल्लो. तो नेम सोडूंक तो कसोच तयार नासलो. घडये ताका तो वावर आपल्या दादलेपणाचें एक व्हड कर्तूब कशें दिस.

विश्रामाल्या शेतां-भाटांचो हेर वावर कुश्ट पळेतालो. कुश्ट रामनाथाले पिरायेचो. सुब्राय मरतकीर विश्रामान कुश्टाक हाडून दवरिल्लो, तेन्ना तो धा वर्सांचो आसलो. आवय-बापूय नाशिल्लो पोर तो. आतां आंगलोटान लांब-रुंद जाल्लो. तो सावळो आनी देखणो आसलो. आंग

कोरोवन काडिल्लेवरी पीळ पडिल्लें आनी तिकतिकीत. वेल्यान सकयल मेरेन एकसारख्रो. आंगाक कसलेंच धोंग ना पोंग!

घरा मुखाल्ल्या बागांत कुश्टा खातीर इल्लेशेंच दोन कुडीचें घर काडिल्लें. तांतूंत कुश्ट रावतालो. बाकीचें सगळें जेवप-खावप विश्रामागेरुच आसलें. ताचो हेर खर्च कपडे-लत्ते विश्रामच पळेतालो.

कुश्टालें लग्न जावंक नासलें. कोण करतलो ताचें लग्न...? विश्रामानूय मनार घेवंक नासलें. आपल्या पुताचें लग्न मात जुस्त वेळार करचें विश्रामाक बेस बरें कळिल्लें. तेंवूय हर तरेचे वटवटे सोंसून!

रामनाथालें लग्न करप सोपें आसलें?

ताका कोणूच चेडूं दिवंक तयार नासलो. विश्रामाक तर आपलो वंश मुखार व्हरुंक जाय आसलो. ताणें सगळे कडेन आपल्या सोयऱ्यांक -संबंदिकांक सांगून दवरिल्लें. "कोणूय बरें चेडूं तुमच्या तल्लासाक आसल्यार सांगा."

सगळ्यांक ताणें एकूच सांगप, "म्हगेल्या पुताली बायल जावप म्हणल्यार एक खूंब बियां जमणीची आनी चार नाल्लांभाटांची धनीण जावप. राणये भशेन रावतली. कांयच उणें पडचें ना."

पुणून ताका कोणा कडल्यानच जाप मेळ्ळी ना.

निमाणे कडेन हुळगेच्या मावशेभावान ताका हें थळ दाखयलें. मावशेभाव केरवडी जात्रेक गेल्लो. थंय ताका ह्या चेडवाचो तल्लास लागलो.

चेडूं गरिबागेरचें.

आवय-बापूय नाशिल्लें.

बापूय खंय ही धूव बाळशें आसतनाच भायर पडिल्लो. तो खूब पितालो. दीसभर तातूंतच. एक दीस हिसपा भायर पिलो. चड जालें. सुद्दसुम्रत वचून पडलो. तातूंतच सोंपलो.

हें धायेक वर्सांचें आसतना आवय गेली. जोराचें निमित्त. कुलकुल्यान खंय जोर येतालो. पयऱ्यान येवप. दोन-दोन कांबळी आंगावेल्यान घायल्यारूय आटापना आसलो. जोराचेर कसलीं कसलीं गांवठी वखदां केलीं. गूण कांय येवंक ना. जावचें तें जालेंच. धायेक दिसांत खेळ काबार.

चेडवाक बापोल्यान ल्हानाचें व्हड केलें.

आवय आसतना शाळेंत वचून चार बुकां शिकिल्लें तितलेंच. मागीर बापोलया बायलेन घरा वावराक जाय म्हूण दवरून घेयलें आनी शाळा आपशींच बंद जाली.

वावराक मात तें सामकें वागीण, शिटूक. आंगलोटानय कणातर कशी लांब-रूंद. दिसूंकय सोबीत, कातीन गोरें.

खरें म्हळ्यार तें रामनाथाल्या गळ्यांत पडचेंच न्ही आसलें. आवय-बापूय नाशिल्लें पोर जाल्ल्यान पडलें. वयार येयिल्लें चेडूं बापोल्याकूय जड जाल्लें. ताका केन्ना एक फावट कोणाच्याय गळ्यांत बांदल्यार पुरो जाल्लें. हरवें सोदतल्याक भाजिल्लें मेळ्ळें म्हणटात तशें हें थळ आयतेंच चलून आयिल्लें. आनी ताणें दोळे धांपून हां म्हळें. चेडो कसो, कितें कांयच विचारूंक ना. ना चेडवालीय सम्मती घेवंक ना. चेडूंय हेरांले हंगांत पडिल्लें. ताकाय आपूण एक फावट कोणाच्याय सुवादीन जाल्यार पुरो जाल्लें. बापोलयो करता तेंच व्हड समजून तें ओग्गी जाल्लें. तरीय ताका भोंवन भोंवन दिस, चेडो आपल्याक पळोवंक कसो येवंक ना? ताचे बापोलभयणीलो घोवय असोच चेडूं पळोवंक येवंक नासलो. तो मिलिट्रींत

आसलो. ताचे आवय बापूयच पळोवन गेल्ले. लग्नांत पळयल्यार, घोव गोरो पिट्ट. राजकुंवर कसो! रामनाथ असो आसतलो अशें ताणें येवजूंकच नासलें. लग्नांत ताणें ताका पळयलो आनी ताचो आवरोच हुडलो. ताका खीण भर दिशिल्लेंय, सयावेल्यान धांवत वचचें आनी काळी न्हंयंत स्वताक घालून घेवचें. आपली पुराय फटवण जाल्या. मागीर, ताणें स्वताक थातारिल्लें, मन घट्ट केल्लें. हे आपल्या नशिबाचे भोग, आपल्या नशिबांत जर असलो घोव बरयला जाल्यार ताका कोण कितें करतलो? अशें येवजून स्वताचें समाधान करून घेयिल्लें.

विश्रामान सुनेक भांगर शिरंगार घालून हाडिल्लें. तागेले बायलेलें भांगर आशिल्लें. थोडें भांगर...? गळ्यांत गांठलें, मुगां माळ, वटाण्या माळ, हाताक गोट-पाटल्यो, कांकणां, भुजाक बाजूबंद, कमराक चांदयेचो कमरपट्टो. ते भायर नाका-कानांचें, तकलेचो भांग तिळो आनी आंबाड्याक फूल. ते भायर लक्ष्मीहार आनी तोडे जादा केल्ले. सुनेक आंगार कितेंच उणें पडूंक दिवचें न्ही हें ताणें आदींच थारोवन दवरिल्लें. तो म्हणटालोय तसोच. "हांव म्हगेले सुनेक लक्ष्मी कशी सकयल्यान वयर मेरेन भांगरान शिरंगारून हाडटलों."

ताणें सुनेक नांव सुदीक लक्षुमी दवरिल्लें. उलो मात सगळे ताचे आवयच्या घरच्या नांवान कुसूम म्हणच मारताले.

कुसमाल्या बापोल्यान मात कुसमाक कांयच घालून दिलें ना. आंगावेलो चिकोल काडून उडयिल्ले भशेन दिलें. ताणें आदींच विश्रामाक सांगिल्लें. "हांव कांयच दिवंक तांकचों ना. आनी ह्यान फुडेंय चेडवाचें वजें, हाड-व्हर, बाळंटेर कांयच करचों ना. सगळें तुवेंच पळोवन घेवचें पडटलें. तशें आसल्यार चेडूं दितां. ना जाल्यार आसूं तें!" आनी विश्रामान तकली हालोवन हां सायबा! केल्लें.

विश्राम सुनेक भोव बरें करतालो. ताका कितें जाय, नाका, आपूण जावन विचारतालो. सुनेन कितेंय सांगिल्लें विश्रामान ना म्हणप ना. तागेलें हरेक उतर कोंदल्यांनी जिकप. तो ताका सगळे वटेन खूश दवरूंक सोदतालो. तो जाणां आसलो आपूण ह्या पोराले परिस्थितीचो लाव घेवन ह्या सोबीत पोराक हाडून, आपल्या शारपिशा अर्दवट पुताच्या गळ्यांत बांदलां. एके तरेन आपणें तागेली फटवण केल्या. ताका सगळे वटेन खूश दवरप गरजेचें.

कुसूमय आपल्या मांवाक बापायचे सुवातेर पळयतालें. ताची बरे भशेन चाकरी करतालें. सुनेचे जापसालदारकेन घर सांबाळटालें.

थोड्या दिसां भितरूच तें शेतां-भाटांतूय वावरूंक लागिल्लें. मांव म्हणटालो, "बाय, तुवें फकत वेव्हार पळोवचो, वावर करप आळांनी." ताचेर सुनेन जाप दिवप, "शेत-भाट आमगेलें, आळांलें न्ही! तांचे वांगडा आमी घोळल्यारूच तेमी सारके घोळटले. ना जाल्यार, आळान करप हाळच!" असल्या उतरांनी मागीर मांवाच्या आंगार मूठ भर मांस चडटालें.

पुणून एक गजाल मात ताच्या मना कडेन खाताली. कुसमालें घोवा कडेन वागप ताका बरेंऽ दिसना आसलें. ताणें जाणिल्लें, सुरवे साकूनच कुसूम घोवाक पळोवन नाराज आसा. बेठेंच तें उठ्ठना-बसतना घोवाचेर केवरें काडटा. खँच्च करून ताच्या अंगार येता. तोवूय करतालो तशेंच. बायलेचे फाटल्यानच रावप, जात्रेंतल्यान हाडिल्लें नवेंच खेळणें पळोवन भुरगें जशें करता, तशें करप. तें वचत थंय ताचे फाटल्यान वचप. "खंय वयता...?" म्हण विचारप. "हांव येतां," म्हणप. कितेंय काम करूंक लागल्यार "कितें करता...?" करप. "हांव करूं...?" म्हणप. कुसूम च्या करूंक लागल्यार "साखरे डबो काडून दिवं...? च्या पाल्या डबो काडून दिवं...?" म्हण डबे काडून दिवप. च्या जावचे आदींच कपां,

बश्यो धुयन मुखार हाडून दवरतालो. ताचे भाशेन म्हण तो कुसमाक मदत करूंक सोदतालो. पुणून कुसमाक ताचें तें मदत करप अजिबात मानवना आसलें. तें मागीर धेंगसो घालीत म्हणटालें, "तूं कित्याक बेठोच म्हजे भोंवतणीं गणमणटा? ओगी वचून बस एके कडेन...!" तो मागीर ओग्गी वचून बसतालोय पुणून, खीणभरांतच तें विसरतालो आनी पर्थून येवन कुसमा भोंवतणीं गणमणटालो.

एक दीस तर ताणें मजाच केल्ली. लग्न जावन पांचच दीस जाल्ले. कुसमान न्हावन आपल्या आंगावेले कपडे काडून एके बालदेंत घालून मोरेंतच दवरिल्ले. घोवालें, मांवालें न्हायन जातकीर सगळ्यांलें एकेच पटीन धुयल्यार जालें अशें येवजून तें हेर कामांत गुंथल्लें. कुसमा फाटल्यान रामनाथ न्हावूंक गेल्लो. हाणें कितें करप...? न्हावन जातकीर आपले कपडे आपुणूच धुयची तागेली सवंय. हाणें आपल्या आंगवस्त्रां वांगडा कुसमालेय पुराय कपडे, भितरलीं आंगवस्त्रां बी बेस्स बरीं निवळ करून धुयलीं आनी भायर वळणेर व्हरून सुकोवंक घायलीं. कुसमाक हें पळोवन थोडी भिरभिरी मारूं ना...!

असलीं जायतीं खेबडां ताच्या हातांतल्यान घडटालीं. मागीर कुसमाक हांसचें, तिडकवचें काय रडचें म्हण कळना आसलें. तें ताचेर पिकार जातालें.

हाचे उरफाटें विश्राम पळयतालो, कुसमालें कुश्टा कडेन वागप भोव म्होवाळ आसलें. मायेमोगान ताका पाचारतालें. जेवचे-खावचे कडेन आग्रो करून वाडटालें. ताका कितें जाय-नाका पळयतालें. तागेल्यो आवडी, आवंडे विचारून घेतालें.

कुश्टाकय कुसमाक ह्या घरांत हाडत सावन, ह्या घरांत आपल्या

मायेमोगाचो कोण तरी वावुरता अशें दिसूंक लागिल्लें. इतले दीस ताका तें घर आपल्या धनयाचें आनी आपूण तांचो मानाय इतलेंच खबर आसलें. जाल्यार, आतां हें ताका आपलेंच घर कशें दिसतालें.

कुश्ट शेतांत-भाटांत वावर करतना कुसूम ताचे वांगडा आसतालें. आपले परीन ताच्या वावराक हात दितालें. विश्रामाक हें मानवना आसलें. तो मागीर कसलेंय नीब काडून ताका घरांत आपयतालो. बेठेंच कसलेंय काम दिवन तातंत गुंथून दवरतालो.

दीस वयतात तशी कुसमाली आनी कुश्टाली इश्टागत चडच घट्ट जायत गेल्ली. दोगांय एकमेका वांगडा सदळ वागतालीं, हांसतालीं, खिदळटालीं, एकमेकांलीं फकाणां करतालीं.

एक दीस मुखावेल्या बागांत माडांक उदक सोडिल्लें. कुश्ट उदकाक वाट करून दिवंक आळें आडायतालो-सोडयतालो. कुसूम आनी रामनाथ ताचे मुखारूच उबीं आसलीं. उलयतालीं, फकाणां करतालीं. कितें जालें, देव जाणा, कुसूम खिलखिलत हांसलें आनी ताणें बागोवन एक इल्लोसोच फातर घेवन कुश्टाचेर मोख्रलो. कुश्टान मागीर आळ्यांतलें उदक घेवन कुसमाचेर मोखलें. उपरांत कुसमान फुरसद केली ना. पर्थून आळ्यांतलें उदक घेयलें आनी कुश्टाल्या तोंडाचेरूच पच्च करून मारलें. मागीर सगळीं घेऽ ख्रो ख्रो करून हांसूंक लागलीं. विश्राम वासरेर बशिल्ले कडेन सरवळेंतल्यान हें पळयतालो. ताका तांची तिडक येयली. सगळ्यांत चड तिडक येयली पुताची. तीं दोगांय थंय आपलो खेळ खेळटात आनी हो पिसांट तो खेळ पळोवन मजा घेवन हांसता. ताका तेन्ना दिशिल्लें, आपल्या पुतान फुडें सरचें आंनी आपले बायलेक ठोऽ करून एक कानसुलार दिवचें. आपलो पुरुशार्थ दाखोवचो पुणून आपलो पूतच अर्दवट! ताचेंच अस्तित्व आदीं गोळाक!

जितें मर्ण

तांचे हे असले तरेचे खेळ विश्रामान खूब फावट पळयिल्ले. आनी ताच्या मनांत तांचे विशीं दुबाव किल्लल्लो. पुणून तो दुबाव उकतो करप कसो...? सरळ सरळ सुनेक विचारुया म्हणल्यार सून आयकून ओगी रावतली? आनी सुनेन मांव दुबाव घेता म्हूण पुराय गांव भर केल्यार...? तातूंत खरेपण नासल्यार आख्खो गांव तोंडांत शेण घालतलो... इतलेंच न्ही, मनाक लावन घेवन आपल्या चारित्र्याचेर दुबाव घेता म्हूण घर सोडून वयता म्हणल्यार? खंयूय वचून जीव दिल्यार...? कोण भोगतलो तें मागीर!

ताका याद जाल्ली. ताणें एक फावट आपले बायलेचेर असोच दुबाव घेयिल्लो. ती मानाय सुब्राया कडेन अशीच चड संवकळ आनी सलगी करता म्हूण! पुणून, तातूंत खरेंपण नासलें. बायलेन तें सामकेंच मनाक लावन घेतिल्लें आनी त्या खेदा सरशीं वचून बांयंत उडीच मारिल्ली. बोवाळ करून वयर काडली म्हूण वांचली.

ना म्हणल्यार कुसमालें आनी कुश्टालें हें वागप पळोवन विश्रामान एक फावट सुनेक म्हणिल्लेंय, “बाय, हेर दादल्यां कडेन बायलांनी सदांच मर्यादेन वागूंक जाय. हेर दादल्यां कडेन चड संवकळ केल्यार लोकांक तोंडां फुट्टात. लोक न्ही नस्तें उलयतात...” ताचेर सुनेन मांवा कडेन मोठ्ठे दोळे करून मांडून पळयिल्लें. तागेले नदरेनच विश्राम कांचवेल्लो. तो फुडलें उलोवंक पावूंक नासलो.

विश्राम भितरले भितर फडफडटालो. हुमकळटालो. उलोवंक तोंड नासलें. एकेक फावट ताका दिस, कुश्टाकच धांवडावन घालचो. पुणून ताका धांवडावन घायल्यार शेतां-भाटांचो वावर कोण करतलो? पुताक सगलो वावर समजता. हाचो अर्थ तो त्या वावराचो पेंच घेवंक ताकतलो अशें न्ही. ताकाय चतुराय जाय. बरें! कोणूय दुसरो हाडून दवरुया म्हणल्यार,

हें ताचे लागींय अशेंच वागल्यार? कितल्या जाणांक म्हण बदलयतलो? आपल्याच म्हालांत खोट असल्यार दुसऱ्याक दोश दिवन उपकारचें ना. तो मागीर ओग्गी राव.

तातूंतच ताका एक दीस सून गुरवार म्हण कळ्ळी. हरशीं सून गुरवार म्हण कळटकीर तो उतवाक धरून नाचता आसलो. ते खतिरूच तर ताणें इतले वटवटे सोंसून सून सोदून हाडिल्ली. आपलो वंश वाडटा तो पळोवन कोणाक खोस भोगची ना! जाल्यार, हांगा उरफाटेंच आसलें. ताचो दुबाव खर आसलो. आनी ताका लागून ताका सुनेच्या पोटांतलें भुरगें कुश्टाचेंच आसूंक जाय अशें दिस. सुनेचें पोट वाडटा तसो ताचे तेकले वेलो पेज वाडत गेलो. आनी मनाचेर एक निराळेंच चेपण येयिल्लें. एकेक फावट ताका दिस, आपूण येवजितां तें सारकें न्ही. कुसूम इतलें फटींग? ताचे लागीं हांसलें, खेळ्ळें म्हूण ताका कूड ओपिल्ली आसतलीच अशें न्ही. तें ताका भावा भशेन मानिना कित्या वेल्यान? कुसमाल्या पोटांतलें भुरगें आपल्याच पुताचें. तो आपल्याच वंशाचो कोंब. मागीर रोखडेंच ताचें येवजुवप बदलतालें. ना, आपूण आपल्या मनाक फटयतां. मनाचें समादान करतां. कुसमान आपल्या पुताक केन्नाच मोगाळ नदरेन पळयिल्लें आपूण पळोवंक ना. उरफाटें, ताका पळयतना एखाद्र्या हळशीक जिवाण्याक पळोवप ते भाशेन तें ताका पळयतालें. ताका मुखार दिसूंक दिना आसलें. ताचेर ताणशेतालें. केंवरें काडटालें. तें ताका राती कडेन म्हऱ्यांत घेतालें काय ना, देव जाणा! उरफाटें, कुश्टाकडेन ताचें वागप पळयल्यार, कुड्डो सुदीक सांगूंक तांकतलो, तांचे दोगांचेय संबंध आसात म्हूण! तें भुरगें कुश्टाचेंच आसूंक फावो...! हें अशेंच चलत रावल्यार फाल्यां फकत कुश्टालीच संपद हें आमगेल्या हड्ड्यार नाचयतलें. वय वडिलांनी व्हडा कश्टान आनी तरासान जोडिल्लें हें बदीकभाट. ह्या

बदकार-भाटार तेमी आपलो दरकार चलयतले. हरेक मेरे कडेन आनी हद्दे कडेन हक्क दाखयतले. ह्या घटणाच्या हरेक चिऱ्या फाटल्यान आमी रगत आटयलां. त्या घटणार हेराल्या वंशाचो कोंब वाडोवप? फाल्यां हेमी आमगेल्या नांवान पिंड चलयल्यार, वाडी घायल्यार मेल्ले कडेन पावतलो आमकां...?

एक फावट तो अशें जाल्यार एक फावट तशें येवजितालो. भोवन भोवन हीच येवजण. देखूनच राती कडेन सुनेक पिडा जातात म्हण कळटकीर ताका व्हडलेंशें कांय दिसूंक नासलें. पुराय उमेदच मेल्ली. सगळो बोवाळ हेर लोकांनीच घाल्लो.

सुनेले गुरवारपणाचे सुवाळे, कापड न्हेसवप, फुलां माळवप हें सुदीक ताणें लोकलज्जेकच केल्लें. जीव नाशिल्ले हुनसाणेन!

सून भितर तळमळटाली, हुयेली मारताली, किळांचताली. पुणून हाचेर बशिल्ले कडेन ताचो परिणाम जायना आसलो. तो फातर कसो बशिल्लो.

विश्राम सोडून, थंय एकठांय जाल्ल्या हरेक मनशालो जीव कुसमाले तळमळे पळोवं नजो जावन हुमकळटालो. एक फावट बरे भाशेन पोर सुटल्यार पुरो जाल्लें. राती कडेन तळमळूंक लागिल्लें कुसूम आतां सांजेचीं साडेपांच वरां मेरेन तळमळटालें.

निमाणे कडेन सांजेचें संक कुसूम बाळंत जालें. आनी भुरग्यालो रडिल्लो आवाज येयलो.

"वाटी वाजया...वाटी वाजया..." कोणेंतरी बाळंतकुडींतल्यान म्हणलें. धनंजया बायल सुनंदा ताकतिकेन भायर येयली आनी "बाब जाला... बाब!" म्हण सांगून रांदचेकुडींत गेली.

विश्रामान मनांत म्हणलें, "बाब जाला...? बाय जाल्यार तरी फाल्यां हुंवाळून कोणाल्याय गळ्यांत बांदूं येतालें... आतां हो खुंटो मारून घटणार उबो जातलो... पुताल्या हड्ड्यार नाचतलो."

सुनंदा रांदचेकुडींत टण् टण् करून नेटान वाटी वाजयताली. पुणून तो आवाज विश्रामाक बरोऽ लागना आशिल्लो.

अप्रूप आजी कमरार हात धरून भायर येयली.

"विश्रामा, नातू जाला... वंश उद्धारलो तुगेलो."

"हूं...! उद्धारलो...!" ताणें म्हणलें.

बाळंटेराक येयिल्ल्यो बायलो ल्हव ल्हव फाफसल्यो. बाळंतकुडींत उरल्यो फकत सुनंदा, वैजीण आनी बाळ- बाळंतीण.

वैजिणीन वारीदेंठ कापून वार सुनंदा कडेन दिली. सुनंदान व्हरून ती पावळेंत फोंड काडून तातूंत पंचधान्य आनी एक तांबया पयसो घालून पुरली.

मागीर वैजिणीन भुरग्याक न्हाणोवन, पुसोवन पचांगी बांदली. कुसमाल्या कमराक बरोऽ येट काडलो. ताका बरीऽ कॉफी करून दिवंक सांगली. आनी उपरांत सगळें जिस्ताजिस्त जाग्यार घालून, ती कपडे घेवन धुवूंक गेली.

व्हदळ सावन कुसूम भुरग्याकच पळयत आसलें. एके वटेन आपूण आवय जाली म्हूण तें वाऱ्यारुच हुबतालें, जाल्यार दुसरे वटेन, तागेल्या काळजांत एक भिरांत शी पातळिल्ली.

सगळीं थंयच्यान वयतकीर कुसमान ल्हवूच कुडींतल्यान मांवाक उलो मारलो.

“मामा, हांगा यो, नातवाक चय...”

विश्रामान मनांत म्हणलें, “म्हाका आनीक कित्याक आपयता...? तूंच चयन घे बरें करुन...!”

“मामा, हांगा यो...”

विश्राम खीण भर ओगी रावलो, आनी मागीर कोणेंतरी हाताक धरुन व्हेल्ले वरी भितर गेलो.

“मामा, नातवाक चय...”

विश्रामान भुरग्याक पळयलें. तें बिटी बिटी पळयत, हात-पांय नाचयत, उदारें न्हिदिल्लें.

“...चय, हांवें भुरगें तुजे भाशेन जावं म्हण चिंतिल्लें. पुणून हें बापाय भशेन जालां. चय ताचे दोळे. बापायल्या दोळ्यां भाशेनूच. तोंडवळो, तकली चय... कशेंतरीच दिसता. आंगलोटय तसोच. म्हाका भिरांत दिसता, हाचे भाशेनूच जावचो ना मू हो...?”

विश्रामान बारीक नियाळ्ळें. हय, कुसूम सांगता तें खरेंच!

“... आनी मामा, पोटाचेर एक काळें चवन कशें आसा. पयशा येदें...”

“काळें चवन...? तशें चवन म्हगेल्या बापायल्या पोटार आसलें.”

खिणांतच विश्रामाल्या तोंडार हांसो फुल्लो. ताचे खोशयेक शीम हद्द उरली ना. तो भायर येयलो. आनी व्हडान म्हणूंक लागलो,

“अगो सुनंदा, खंय गेलें? घरांत दोन डबे साखर भरुन दवरिल्ले आसात. पुराय वाडो भर साखर वांट. फाल्यां कारवारा वचून पेढे घेवन

येतां आनी आख्ख्या गांवाक वांट्टां.

मागीर पर्थून भितर बाळंतकुडींत येवन म्हणूंक लागलो,

"पुता, तुगेली आनी बाळशाली काळजी बरी करुन घे हां...!"

***

# कुळार

यमुनबाय जिणेच्या निमण्या पांवड्यार पावल्या. आयज तीन चार दीस जाले, हांथुरणार पडून आसा. जगचेली बिलकूल आस्त ना!

बरीच आशिल्ली. खाताली-पिताली. घरांतलो, भाटांतलो वावर पळयताली. अचकीत कितें जालें कळ्ळेंच ना. जेवपच सोडलें. पोटांत उंडीच वचप ना.

बेठोच पेजे निवोळ, गोंड्या सत्व, ना तर मुगां उदक बीन पिवन रावप. पुणून, कोणाक एका उतरान आपूण बरी ना म्हूण सांगलें ना. आपले भितुरच कसलें कसलें झाडपाल्यांचें वखद करीत रावली.

घोवाक तरी सांगचें? आनी घोवाक सांगल्यार घोव करतोलो आशिल्लो कितें? म्हणटा आशिल्लो, "अगो तुका कांय जावचें ना! जाणटेपणांत तशेंच जाता! एक दीस जेवण चलना! एक दीस आक्‌-शिंक्! एक दीस न्हीद पडना! आसाच तें! तूं कितें नेण्टें आसा आतां?"

आनी घोवान, 'चल दोतोरागेर वचुंया म्हळ्यार', ती वयता आशिल्ली? शेऽ! आयजवेर ती केन्नाच दोतोरा लागीं वचूंक नाशिल्ली. दोतोरांल्या इंग्लीश वखदान आनी इंजेसावांन मनीस चड दुयेंत जाता, अशें तिका दिसऽ! तिचो बापूय नामनेचो झाडा-पाल्याचो वखदळी आसलो. पोळयां भेट धरून कर्द्रेतोक मेरेन सगले लोक ताचे लागीं वखदाक येताले.

बापायन धुवेक सुमार इतलीं वखदां शिकयल्लीं. तांचो उपेग करून कोणाकूय कितेंय चड उणें जाल्यार, ती बरी करताली. निदान आपले पुरतें तरी तिगेलें स्वताचेंच वखद आशिल्लें.

तशी ती सब सब दुयेंत पडपी न्ही. केन्नाय साठ-बाठ काळान जोर ना तर हगवण. आनी हाचीं बेस बरीं वखदां तिजे लागीं आशिल्लीं. हरशीं ती घटमूट आशिल्ली. नेण्टेपणा सावन काम-धंदो करीत येयिल्ली. नेमाचो वावर, आनी नेमांचो आहार!

पिरायेची सत्तरी हुपिल्ली तरी, हालीं मेरेन ती घट्ट आशिल्ली, आंगान थाली कशी! तकलेचे हेवटेन तेवटेन चार -दोन पिकील्ले केंस सोडल्यार, उरिल्ले पुराय काळेच आसले. पिराये मानान आंगाक सुरकुत्योय नासल्यो.

पुणून, फाटल्या दोन -तीन वर्सां साकून एकदमच तिचें आंग झडूंक लागिल्लें. आंगभर कातीक सुरकुत्यो पडिल्ल्यो. बारीक बारीक जायत सामकी आटून येयिल्ली. तकलेक एकूय केंस काळो उरूंक नासलो. नव्वद वर्सांची जख्खी जाण्टी कशी दिसऽ. आनी आतां तर, हांथुरणार हाडां आनी चामडीच उरिल्ली.

त्या मानान यमुनबायेचो घोव यशवंतबाब घट्ट. तकलेंचें खरड आनी पिकिल्ले केंस सोडल्यार, तुकतुकीत आनी ताठ! लांब मनीस बेगीन आळटा म्हणटात, पुणून हें झंड अजूनय ताठ! पातलांगी, काळो, तुकतुकीत. अंयशीं वर्सांचा कसो दिसच ना. आतांय गडार बाजारांत वचून नुस्तें घेवन येता. सकाळीं उठून आपल्या शेतांत-भाटांत भोंवता.

यशवंत बाबालें कमयिल्लें आंग तें! हरशींय तो शेतकामत्यालोच पूत. पिरायेचीं सतरा वर्सां मेरेन शेतां-भाटांत हाडां मोडटासर घोळ घोळ

घोळिल्लो. मागीर उठून मिलेट्री गेल्लो. रिटायर जावन येतकीर ओग्गी बसला? अजूनय आपल्याच्यान जाता तशे हात -पांय धाडायता. आपल्या खाण्या-पिण्याचेरूय ताचें बारीक लक्ष, वेवस्थीत आनी नेमाचें!

ताका तशें कांय उणें ना. म्हयन्या म्हयन्याक गडार वचून बँकेंतल्यान पॅन्शन घेता. ते भायर शेता-भाटांची थोडी येणावळ.

एक मात खरें, पाप्यान घरकान्नीक सुख म्हणटा तें फावो तशें केन्नाच दिवंक ना. यमुनबायेक व्हारडीक करून हाडत सावन, बाबडेक आपल्या शेतां -भाटांत घोळुंकूच दवरून घेयली. इतलोय गांव-देस माडयलो, पूण एक फावट सुदीक घरकान्नीक व्हरून एक गांव दाखोवन हांडलो ना. ती बाबडी नोकरे शिपायाली बायल आसून लेगीत गांवातच किडयत उरली. खावूं-जेवूंक, आंगभर वस्त्रां, आनी आंगार चार भांगराचे दागिने सोडल्यार, हेर सुखां तिणें केन्ना भोगलींच नात! आनी तशी तिणें केन्ना तक्रारय केली ना, खेदय केलो ना!

तिका फकत एकेच गजालीचो खेद आशिल्लो, आनी तो म्हणल्यार, ह्या विशेक वर्सांत, तिका तिचें कुळार पयस जाल्लें.

खंयचे कुळारचे धुवेक आपल्या कुळारा वचन दिसना? चार दीस रावन, आपल्या बापायच्या घटणा वेलो पेजे निवळ पिवचो दिसना? पुणून आयज कितलींशींच वर्सां यमुनबाय जिजाबाईची व्यथा मोन्यांनी भोगताली. चुकून लेगीत तोंड उकतें करिनासतना, ओग्गी!

ताका कारणय तशेंच आशिल्लें!

यमुनबायचें कुळार कृष्णपुरा. व्हारडीक करून तिका देसायवाड्यार दिल्ली. कृष्णपूर आनी देसायवाडो पयस न्ही! फकत दोनेक किलोमिटरांचें अंतर. कृष्णपूरच्या विठोब-रुक्मिणी देवळांत ढम्म् ढम् वाजल्यार, देसाय

वाड्यार स्पश्ट आयकूंक येता, आनी देसायवाड्यार म्हामायेच्या देवळांत वाजल्यार कृष्णपुरांत!

यमुनबायेक, एका फाटल्यान एक, सुरवेक चलयोच जाल्ल्यो. एक आनी दोन न्हय, सेगीत पांच! यमुनबायची मांय वाजेली! ती हरेक खेपेक आपलो घोव जल्माक येतलो म्हूण वाट पळेताली, आनी वाटी घेवन बसताली. पुणून, वाटी वाजोवप जायच नासलें. मागीर तर सगले कडेन म्हणूंक लागली, 'म्हगेली सून फकत पोली राशी पिकयता....! एक तरी कुळाक दिवो नाका? पुताक दुसरें लग्न केल्ले बरें दिसता!'

यशवंतबाबय आवय-बापायलो एकलोच पूत आशिल्ल्यान, घटणार दिवो लावंक कोण तरी जाय अशें सगल्यांकूच दिसतालें.

यमुनबायेलो बापूय तर घोर चिंतनांत पडिल्लो. निमाणेकडे ताणें विठोब-रुक्मिणी लागीं सांगणी घाली, 'देवा, आमगेले धुवेक चलो-भुरगो जाल्यार, धुवेच्या आनी जावंयाच्या हातांनी तुजो अभिशेक करतां,तुका केळयां ताट ओपतां, आनी चल्याक तुजें नांव दवरतां...'

आनी खऱ्यांनीच पांच चलयां फाटल्यान, सवो चलो जालो. सांगणेप्रमाणें ताचें नांव विठोबा दवरलें.

धुवेगेर पूत जातकीर, यमुनबायल्या बापायक थोडी न्ही खोस भोगली! ताका मळब फकत दोन आंगळांच उरिल्लें. आख्ख्या कृष्णपुराक आनी देसायवाड्यार ताणें साखर वांटली.

बारशा दिसा पाळण्यांत घालतना तर, ताणें सगळ्यां हुजीर सांगून उडयलें, देसायवाड्या लागीं ताची पंदरा गुंठे जमीण आशिल्ली. ती जमीण आयज साकून म्हजे हे धुवेल्या पुताक! हांव ह्यान फुडें ते जमणींत पावल लेगीत दवरचों ना! ती जमीण आतां म्हजे धुवेल्या पुतान वसोवची,

खावची!

हाचेर यमुनाबायेल्या भावान पांडुरंगानय तेंको दिलो. आपले एकुलते भयणील्या पुताक आपल्या बापायन पंदरा गुंठे जमीण दिली म्हूण ताका व्हडलेंशें दिसूंक ना. तांकां जायती जमीण आशिल्ली.

पुणून, पांडुरंगा बायलेक मात आपल्या मांवाली करणी मानवली ना. तिका दिसलें, आपल्याक तीग पूत आसात. जमीण कितें अशीच पडल्या? आयज जमणीचो वालोर कितें? अशें जायतें येवजून तिणें मनांतल्या मनांत मांवाक जायतीं दुशणां दिलीं.

दिल्ल्या उतरा प्रमाणें यमुनबायेल्या बापायन ते जमणींत ताचे उपरांत पावल लेगीत दवरलें ना. ती यमुनबाय वसोवन खाताली.

यमुनबायेल्या बापायन धुवेल्या पुताक जमीण दिल्ली खरी, पुणून, ती नांवार करुन दिवंक नाशिल्ली. तोंडी दिल्ली. आनी यमुनबायेनय ती नांवार करुन दी म्हूण केन्ना सांगूंक ना. आपसांतलो घरगुती वेव्हार आशिल्लो तो. मोगाचो वेव्हार!

आनी हांगाच भानगड जाल्ली!

यमुनबायेलो बापूय भायर पडटकीर, पुराय आस्ती, बदीक यमुनबायेल्या भावाल्या नांवार जाल्ली. यमुनबायन आपल्याक कांय नाका म्हूण सय दिल्ली. खरें म्हणल्यार, ह्याच वेळार पांडुरंगान ती जमीण भयणील्या पुताल्या नांवार, नातर भयणील्या नांवार करचेली, पुणून केली ना. कित्याक केली ना, देव जाणां!

यमुनबायलो घोवय तसो उणो आस्तिदार नासलो. एक व्हड नाल्लां भाट, आनी धा खांडयेची शेता जमीण आसली. पुणून पांचय धुवांचीं लग्नां करता मेरेन, ताका तातूंतली सुमार इतली शेतां जमीण

विकची पडिल्ली. पांचय धुवांक़ बरे सुवातेर दिंतना, हुंडो जोतय तशीच दिवची पडिल्ली. यशवंतबाब पंदरां वर्सा मिलेट्री सर्वीस करून रिटायर जावन येयिल्लो. पेन्शन तशी व्हडलीशी न्ही. एकादोगांक पुरची सारखी. प्रोव्हिडंटाचे बीन मेळिल्ले पयशे भुरग्यांल्या शिक्षणाक आनी हेर वेव्हाराकूच सोंपिल्ले. मागीर धुवांचें लग्न करूंक जमीण विकचो ना जाल्यार कितें करतोलो? सगल्या धुवांचें लग्न करून, नाल्लां भाट आनी दोन खांडयेचीं शेतां तितलीं उरिल्लीं. आनी वांगडा हे मांवान दिल्ले पंदरा गुंठे!

यमुनबायेल्या पुताक-विठोबाक आपल्या मावळ्यागेरच्यान मेळिल्ले जमणीर भोव मोग आशिल्लो. सुरवेक तीं थंय शेत पिकयतालीं; मागीर विठोबा सर्व्हिसेक लागतकीर ताणें ते जमणीचें भांगर केल्लें. चोंय वाटांनी पागोर काडून, भितर पुरती घालून कवथे नाटिल्ले. सुपाऱ्या माडयोय लायिल्ल्यो. एक बरी बांय खणून, पंप हावज बांदून, वॉटर पंपय लायिल्लो. सुमार इतले पयशे ताणें जमणीर मोडिल्ले.

विठोबान केन्ना सपनांत सुदीक येवजूंक नाशिल्लें, फुडारांत हे जमणीर आपल्या मामाचो पूत हक्क दाखयतलो म्हूण. मामाचे तिगूय पूत ताचे लागीं बेस बरे वागताले, भाव कशे! मामीय जिबेर गोड दवरून गोड गोड उलयताली. पुणून, तोंडांत साखर आनी पोटांत वाकर म्हूण ताका बाबड्याक खंय कळ्ळां? माम आपलो! मामीय आपली! मामाचे पुतूय आपले! मागीर तो नाका जाल्लें येवजितलोच कसो? तांचे बद्दल ताच्या मनांत इल्लीय कोडुसाण नासली. यमुनबायेन पुताल्या मनांत मावळ्याबद्दल, मावळ्या बायलेबद्दल, मावळ्याल्या पुतांबद्दल भोव आदर आनी माया किल्लयिल्ली.

यमुनबायक आपल्या कुळारचो अपरंपार मोग! कुळारच्या हरेक झाडा-पेडाकडेन, चिऱ्या-फातराकडेन, मातये-चिखलाकडेन,गोरवा-वासराकडेन

तिचें मायेमोगाचें नातें!

आवय बापायली ती एकुलती धूव आनी व्हडलें अपत्य. भाव पांडुरंग तिचे परस पांच वर्सांनी ल्हान. दोगांयच भावंडां तीं. पांडुरंग दोन वर्सांचो आसतना आवय भायर पडिल्ली. तेन्ना यमुनबाय सात वर्सांचें. बापूय आपल्या भुरग्यांक सवती आवयचो दुस्वास सोंसचो पडटलो म्हूण पर्थून दुसरें लग्न जावंक ना. आपुणूच रान्नी उजो पेटोवन चार गोटे शिजोवन भुरग्यांक घालतालो. आपल्याच्यान जाता तशें भुरग्यांचें करतालो. आनी यमुनबाय ते पिरायेंतय आपल्या बापायक हातभार लायतालें. आपल्याच्यान तांकता तशें घरांतलें, भायलें करतालें. भावाक हांडीर मारून ताणेंच ल्हानाचो व्हड केला. ताका भरयला. ताचें गू-मूत काडलां. राती कडेन मदींच कांचवेन आंग काडून उठल्यार आवयचे मायेन ताका थापटिला. आनी देखूनच ताका आपलो भाव म्हळ्यार मायेचो, काळजाचो गोंड कसो दिसता. एकेक फावट पांडुरंग चिन्दान्न रडटालो. थोपना आशिल्लो. तेन्ना ताका पांयांर उमथो घालून थापटीत व्हडा व्हडान ताणें म्हणलां,

‘कुरुं कुरुंक कान्हा, म्हशो गेल्यो रानां

आमुडण हाड रे मामा, गायो म्हशो.’

आपल्या भावाक ताणें केन्नाच नांवान उलो मारिल्लो कोणाक खबर ना. ‘बाबा’ म्हणच उलोवप.

ताची व्हारडीक जाल्ली तेन्ना तें सोळा वर्सांचें.

यशवंतबाब मिलेट्रींतल्यान रजेर येयिल्लो आशिल्लो. पयसुल्ल्या सोयऱ्यांतलोच तो तांगेल्या! दोगांनूय एकामेकांक पळयिल्लींच! बापूय भायले भायर वचून सोयरीक जुळोवन येयिल्लो. ‘बाय, हांव तुगेली

सोयरीक जुळोवन येयलां. फाल्यां गोड कातली खांवक येतले ते...' म्हण सांगतकीर, तें थोडें न्ही रडिल्लें. हामेऱ्यांनी आनी हुमेऱ्यांनी रडत ताणे म्हणिल्लें, "बाप्पा, हांव लग्न जायना! बाब (भाव) अजुनी नेण्टो आसा. हांव गेल्यार तागेलें, तुगेलें करतलो कोण? घरांतलें-भायलें, शेतां-भाटांतलें, गोरवां-वासरांलें पुराय पुराय आटपतां मेरेन तूं जाम जातलो. आनी दोन वर्सां रावतां रे हांव..."

पुणून आयकता कोण? माटोव भर लोकांक पांय पडलें म्हूण बायलां जातीक घोवालें घर चुकता?

लग्न जुळिल्लें!

सोळा वर्सांची पिराय, ही चली भुरग्याली लग्नाची पिराय आशिल्ली त्या तेंपावेली!

व्हारडिकेच्या आदल्या दिसा भावाक, पांडुरंगाक यमुनबायेन एके कुशीक व्हरून वेंगयत म्हणिल्लें,

"बाबा, हांव चल्लें आतां! बरो करून राव! बाप्पाक सतायनाका! ल्हान ना तूं आतां! जाता जाल्यार ताका मदत कर! आई गेल्ली तेन्ना, हांव तुजे परस ल्हान आशिल्लें. म्हज्यान तांकता तशें हांव करतालें तेन्ना! शाळा चुकय नाका. चार बुकां शिकल्यार रोजेक वचूंक मेळटलें! आयकतलो मरे हांवें सांगिल्लें?"

"हय!"

"आनी तुका कितेंय खावचें येवजल्यार, देसायवाड्यार यो. पयस ना तें घर हांगासल्यान..."

इतलें सांगतासर ताच्या दोळ्यांत दुकां येयिल्लीं. आनी मागीर,

"तुका सोडून वचप म्हळ्यार, काळजाचो गोंड तुटिल्लेवरी जाता रे भावा म्हज्या!" म्हण तें ताका घट्ट हड्ड्या कडेन धरून व्हडा व्हडान रडिल्लें.

व्हारडीके दिसा तर, व्हंकलेक भायर माटवांत हाडटना, ओपणी करतना, भावाक आनी बापायक वेंग मारून, रडून चार-चार फावटी सुद्सुम्रत वचून पडिल्लें.

व्हारडीके उपरांतचे सुरवेचे कांय दीस घोवा घरा ताका हात हातार पडना आशिल्लें. पुरायच चुकिल्ले चुकिल्ले वरी जातालें. पर्थून पर्थून भावाची, बापायची याद येताली, आनी दोळ्यांत दुकां उबीं जातालीं.

मागीर दनपारच्या जेवणा उपरांत, काडावडी येतकीर, बायलां शेंदरेर फा़ट तेंकयतात त्या वेळार, तें ल्हवूच पांयांत जोतीं सरकयतालें, मायींक सागून दनपारच्या भारा म्हारू लागिल्ले वरी कृष्णपुरा दिकेन चलूंक लागतालें. आनी भावाक, बापायक मेळून, तांची वास्तपुस्त घेवन, धग मो़व ज़ावचे आदीं देसायवाड्यार पर्थतालें.

अशे चार-चार दिसांनी आशिल्लेंच!

फकत बापायले, भावाले ओडिनच तें अस्वस्थ जातालें अशें न्हय! कुळारच्या झाडां-माडांची, गोरवां-वासरांची, शेतां-भाटांची ओडय ताका अस्वस्थ करतालीं.

लग्ना आदीं कुळारा तें थोडें घोळ्ळां?

बापायगेर भाटांत कितलिंशींच झाडां ताणें आपल्या हातांनी रोयल्यांत. दरेक झाडा-माडाक आपल्या हातांनी उदक शिंपलां. गोरवां-वासरांची चाकरी केल्या. शेतांत पुरो जातामेरेन घाम गळयला. इतलेंच न्हय तर, आदलें भळ्यावेलें पोरणें घर मोडून हे नवे सुवातेर नवें घर बांदतना, तकलेर फातर, चिरे, माती व्हांवयल्या. माती कालयल्या. आनी देखुनूच

घडये, कुळारच्या हरेक चिऱ्या-फातरा कडेन, मातये-चिखला कडेन, झाडा-पेडा कडेन, गोरवां-वासरां कडेन, शेता-भाटा कडेन ताचें सासणाचें नातें जुळिल्लें आसा.

फकत लग्ना आदींच न्हय, लग्ना उपरांतय तें कुळारा वचून घोव्ळां. हुंवणे-न्हुंवणेर आपल्या घरचो वावर आटापुनूय तें बापायगेर येवन बापायच्या वावराक हातभार लायतालें.

पुणून भावाल्या लग्ना उपरांत, भावा बायलेक मात, नण्डेन हें अशें कुळारा येवन घोळप बिलकूल मानवना आशिल्लें. तिका दिसऽ, नणंद येवन अशी व्हडा हक्कान घोळटा, फाल्यां हक्क सांगची ना मू? आपल्याकूय बापायचे आस्तेचो, बदकाचो हक्क आसा अशें दिसुनूच नणंद हांगा येवन घोळटा, अशें तिका भोवन भोवन दिसऽ. जायते फावटी तिणें घोवाक हें म्हणिल्लेंय. मांवान धुवेल्या पुताक ती पंदरा गुंठे जमीण दिल्ली तेन्ना तर तिणें घोवा लागीं सरळ सरळ आरोपच केल्लो, बापायक भूलमंत्र मारुन धुवेन जमीण हातासल्या. फाल्यां आनी कितें कितें मागता देव जाणा!

हे जमणीक लागून भावजय सुमार इतलीं वर्सां भितरले भितर कुसताली. खंयचेय परिस्थितींत ती जमीण नण्डेल्या कट्टयाक लागूंक दिवची न्ही, अशें तिणें थारायिल्लें. ते खातीर तिणें आपल्या तिगांय पुतांची कानां-मनां किडयिल्लीं. पुतांनी घट्ट धरल्यार, बापायक पुतांच्या विरुध्द वचप शक्य जावचें ना, हें ती जाणा आसली. पांडुरंग तसो मोव, निर्मळ मनाचो, भावार्थी! छक्के पंजे खबर नाशिल्लो! आपल्या मनशांनी कितेंय पटोवन सांगल्यार खरें मानपी. आनी आपल्या मनाक पटना जाल्यार सुदीक घरकान्नीच्या आनी भुरग्यांच्या मतां भायर वचप ताका शक्य नासलें.

पांडुरंगाले बायलेन म्हणचें, "काय बरी रस्त्या कडची जमीण, कित्याक म्हण फुक्या सवाय सोडची? आयज तेका लाखांशी रुपया किंमत! धुवेन बापायक भूलमंत्र मारून जमीण हाताशिल्ली. बापूय पिसो जालो म्हूण आमी कित्याक पिशे जावया? नांवार करून काय दिवं ना न्ही! तिच्या सुनांकूय तें ज्युस्त पटिल्लें.

निमाणे कडेन पुराय घर एक दीस एकठांय येयिल्लें, तेन्ना तांणी निर्णय घेयलो, जमीण परती मागून घेवचेली!

आनी एक दीस वावटळ येयिल्ले भाशेन ती चीट घेवन पोस्टमन यमुनबायेगेर येयलो.

चीट विठोबाल्या नांवार आशिल्ली.

चिटयेंत पांडुरंगाल्या व्हडल्या पुतान बरयिल्लें, "म्हज्या आज्याक भूलमंत्र मारून, तुजे आवयन जमीण हाताशिल्ली. आजो पिसो जालो म्हूण आमी पिशे जावंक नात. ती जमीण आमची आनी आमच्याच नांवार आसा. ते जमणीर तुवें जायते पैसे मोडल्यात, हाची आमकां जाण आसा. तरी लेगीत, इतल्या वर्सांची येणावळ तुमकां मेळ्ळ्या हें विसरूंक फावना. म्हणटकीर, ह्यान फुडें आमचे जमणींत तुवें पावल दवरनये. आनी दवरलें जाल्यार कायदेशीर कारवाय करची पडटली."

ही अपेक्षे भायली चीट पळोवन, विठोबा उतरहीण जाल्लो. ताणें आवय-बापायक चीट दाखयली.

यमुनबायेक हें येवजणे भायलें आशिल्लें. तिका जमणीचें व्हडलेशें पडूंक नासलें. आपल्या कुळारा कडल्यान असलो प्रकार घडला हाचें तिका चड दुख्ख आसलें. ती भोवन भोवन येवजिताली, हें अशें घडलेंच कशें?

येवजून येवजून निमाणे कडेन ती एका निर्णयार पावली. हातुंतलें म्हज्या भावाक, भावा बायलेक कांय खबर नासुंये. खबर आसल्यार तीं अशें करूंक केन्नाच दिवचीं नाशिल्लीं. हें काम भायल्या भायर भावांल्या पुतालें! आनी तेंवूय बायलेच्या सांगण्यार!

हेर दिसा ती चीट घेवन विठोबा मावळ्यागेर गेलो. घरांत मावळो आनी मावळ्या बायल दोगांयच आशिल्लीं. विठोबाक पळोवन, मावळ्या बायल तोंड काळें करून रांदचे कुडींत गेली. वासरेर मावळो एकलोच बसून उरलो. हरशीं विठोबाक पळोवन 'यो विठोबा, बस', म्हणपी मावळो आयज ओग्गी आशिल्लो.

विठोबा आपुणूच वचून कदेलार बसलो. चीट काडून मावळ्याक दाखयली. मावळ्यान, "मेळ्ळी तुका?" इतलेंच म्हणलें, आनी चीट तशीच वाचनासतना परतून भाच्याक दिली.

"मामा, हें जाणां तूं...?"

"हूं!"

विठोबा कितें समजवचें तें समजलो. म्हणल्यार हें सगळें सगळ्यांच्या येवजणमंथनांतल्यानच जाल्लें तर!

"पुणून मामा, हांवें सुमार इतले पयशे ते जमणीर मोडल्यात..."

"हय रे! पुणून इतल्या वर्सांची येणावळ मेळ्ळी ना?"

"मामा, तुमी म्हाका ती जमीण दिल्लीच कित्याक?"

"हांवें दिवं ना न्ही! बापायन दिल्ली. म्हजेंय ताचेर कांय म्हणणे नाशिल्लें. पुणून म्हजे पूत, सुनो तयार नात न्ही! हांव कितें करूं? तांचें म्हणणें, तुमी कांय जमीण भाट नाशिल्लीं मनशां न्ही. बेठीच कित्याक

दिवंया?"

विठोबा हाचेर कितें उलयतलो? तो ओग्गी रावलो. मागीर ल्हवूच उठलो,आनी 'येतां हां...' म्हूण भायर सरुन येयलो.

विठोबान थारायलें, ह्यान फुडें ते जमणीर पांय दवरप ना! पुराय कश्ट, हात सोडून मोडिल्ले पयशे, सगळें सगळें व्हाळांत गेलें.

हरशीं कूळ कायद्यान ही जमीण तांगेली जावं येताली, पुणून, अर्ज कोणे केला? करतलो तरी कित्याक? नात्यांतली गजाल. आनी कायद्यान ताचे आवयचो हक्क नाशिल्लो तर? तिणें दोळे धांपून सय दिवंक ना? तेन्नाच तिच्यान आडावं येतालें, ही बाप्पान दिल्ली जमीण नांवार कर म्हूण. पुणून तिणें तशें करूंक ना. फुडारांत हें अशें जातलें म्हूण कोणी येवजिल्लें? मायेमोगाच्या संबंधांत इतले ख़ोलायेंत वचून कोण येवजिता?

विठोबान घरा येवन सगळें सगळें सांगलें.

यमुनबायेचेर आकांत।

आपलो भाव असो वागलो, हाचेर तिचो विस्वास बसच ना! तिणें फुरसद पळयली ना, तशीच उठून बापाय घरा येयली.

"बाबा, भावा म्हज्या, हें कितें चल्लां...?"

भाव ओग्गी.

"म्हाका कुळार पयस करचे ना मुरे तुमी...?"

"तुका कुळारा कोण येयनाका म्हणटलो?"

"तुमी अशें केल्यार म्हाका येयन दिसतलें...?"

भाव तकली सकयल घालून ओग्गी रावलो. ताका कितें उलोवचें म्हूण कळ्ळें ना.

“पळया येवजिया तुमी..!” इतलेंच उलोवन ती पर्थली.

वाटेर येतना तिका रडुंक्च येवंक लागलें.

घरा येवन ती व्हडा व्हडान रडली.

दोन चार दीस विठोबा आवय लागीं उलयलोच ना. जशें काय आवयनच ताका सांगिल्लें, आपल्या बापायल्या जमणीर पाय दवरिनाका म्हूण! आवयन कितेंय सांगल्यार ओग्गी रावप.

“पुता, कित्याक उलयना तूं म्हजे लागीं...?”

“कितें उलोवं? तुज्या कुळारच्या लोकांनी फोंडांतं घायलो न्ही गे म्हाका!”

“हांवें तशें कर म्हळें, पुता?”

“तूं व्हडली व्हडविकाय गायताली न्ही गे आपल्या कुळारची? अशें कित्याक केलें तर तांणी?”

“तें खरें. पुणून, आतां कितें करूं पुता हांव?”

“कितें करूं म्हळ्यार? तुका मात्तूय हक ना तर बापायगेरचो? वचून बस बापायच्या दारार! सांग, हो प्रस्न सुटावो जाता मेरेन अन्न-उदक सोडून दारांतच बसतली म्हूण! गोळ घेतां म्हण सांग दारार तुमच्या!”

पुतान अशें सांगलें म्हूण यमुनबाय तशे करूंक शकता आशिल्ली? हरशींच ती आपल्या भावाक हार्टाचें आसा, मातसो सुदीक तकलेर पेज येयल्यार तो प्रेशर चडून बरो ना जावन पडटा, म्हूण हुसक्यान रावताली.

आपल्या भावाचेर अशे तरेन पेज हाडप तिका मानवचेलो नासलो.

ती आतां सामकी जाणा जाल्ली, आपल्या कुळारच्या सगळ्यांनी मेळून हें कारस्थान केलां आनी आपल्या भावाक तातूंत ओडला. ताका पिसो केला. पूत सांगता तशें केल्यार हेरांक ताचें कांयच पडून वचचें ना, फकत आपल्या भावाचेरच पेज येतलो. तो मर्दी हुमकळटालो. देवा सायबा, ताका कितेंय जाल्यार...?

यमुनबाय सामकी कातरेंत अडचल्ली.

हे वटेन विठोबा सारको खायना, जेयना आशिल्लो. कोणा कडेनूय चड उलयना आशिल्लो. येद्दी व्हडली दाडी वाडिल्ली. तो सामकोच निर्शेल्लो, शेळेल्लो. ताचीय चूक नासली. तो सादो एक पोस्टाचो कारकून आशिल्लो. आपल्या पगारांतल्यान थोडेंभोव पुंजयिल्लें ताणें हे जमनीर खर्च केल्लें. थोडें? हजारांशीं! मावळ्यागेरच्यान आपल्याक मेळिल्ली जमीण म्हूण व्हडा अभिमानान ताणें ताजेर साम्राज्य केल्लें.

पुताची ही अवतिकाय यशवंतबाबाच्यान तर अजिबात पळोवं नजो आशिल्ली. एक दीस तो मावड्ड्या गेलो. मेवण्याक आनी मेवण्या बायलेक पुराय उजरावन काडलीं. विचारलें,

"काडून घेवची आसल्यार दिल्लीच कित्याक? कोण मागूंक गेल्लो? दिवचें मनांत नासल्यार तेन्नाच आडायलें ना कित्याक? ती इतली वसयतां म्हव्यार ओगी कित्याक रावलीं? ते जमणींत म्हज्या पुतान ओतिल्ले पयशे कोण फारीक करतलो? सोयरे-धायरे म्हूण वळखना जाल्लीं दोन तोंडांचीं माळुंडां तुमी! तुमकां सोयरे म्हणूंक सुदीक लज दिसता. हाचे उपरांत तुमी आमकां मेलीं, आमी तुमकां मेलीं! हाचे उपरांत तुमी आमगेर पांय दवरचीं नात, आमी तुमगेर पांय दवरचीं नात! तुमकां जमीण जाय

न्ही, म्हजे बायलेचोय हांगा हक्क आसा!... तुमकां कोर्टांत व्हरतां पळय...!"

तोंडांत येता तीं उतरां तो उलोवन येयलो.

फकत उलोवन येवंक ना, आदींच मरूंक तेकिल्लें नातें सोमतेंच तुटोवनय येयलो.

अशे तरेन यमुनबायचें कुळारचें नातें तुटलें. तिचें काळीज मुळासावन उसवलें.

कुळार पयस जालें म्हूण, कुळारची माया पयस जाता? कुळारची ओड पयस जाता?

ती माया, ती ओड यमुनबायेक अस्वस्थ करतांली. चार चार दिसांनी कुळारा वचून येवचेलें आतां सामकें बंद जाल्लें. घोवान दबकायिल्लें तशें, 'हाचे उपरांत कुळारच्या बऱ्या-वायटाक गेल्यार ओगी रावचों ना! बापायच्या दारांत पांय दवरचे ना! थंय पांय दवरल्यार परतो घरांत घेवचों ना!'

यमुनबायेक दिसऽ, घोवा घरा आनी कुळारा मदी वितुश्ट येवप हाचे सारको अस्तुरेचो दुसरो कर्मभोग ना.

आपूण जावन वच्चेलें बंद जाल्लेंच, हरशीं सणा-परबां निमतान आपोंवक येवचो भावय बंद जाल्लो. व्हारडीक जायत सावन, बापायगेरच्या खंयच्याय सणा-परबेक अडचणेच्या निमतान सुदीक केन्नाय वचनासतना राविल्ली तिका याद ना. आदल्या दिसा वचप आनी गडगड घालीत पुराय पुराय वावर करप.

निदान 'बावाल पुनवे जात्रेक' तरी भाव आपोवंक येतलो, अशें तिका खूब दिसऽ. तिका दिसऽ भावान येवन म्हणचें, 'बाये, जालें तें

जालें! सगळें विसरुंया आमी आतां. तुमी करा ती जमीण! आमचो मार्गा मार्ग तसोच चालू दवरुंया!' पुणून ना! भाव आपोंवक येयलो ना! गळ्यांत जीव हाडून ती भावाली वाट पळयताली. भायर कोणालींय सटसट पावलां वाजल्यार, भावच येयलो म्हूण समजून, बेगीबेगीन भायर येताली. जात्रेचो दीस उजवाडलो, तरी कोणच आपोंवक येयलो ना. तिका दिसलें, निदान कोणाकडेनय तरी सांगून धाडचें आशिल्लें भावान म्हज्या, तितलेंच समादान दिसता आशिल्लें.

कृष्णपूरच्या विठोब-रुक्मिणी देवळांत ढम् ढम् ढम् ढम् करून वाजयिल्ल्या धोलाचो आवाज स्पश्ट आयकूंक येतालो. तिचें काळीज आकूळ-पिकूळ जातालें. तो ढम् ढम् आवाज खंय तरी खोल खोल तिच्या काळजांत रिगतालो. दिसतालें, त्या आवाजान काळजांत कोण तरी घुस्मट्टा, आनी त्या धोला भाशेनच भितरल्यान काळीज बडयता.

हे जात्रेक कुळारच्यो धुवो, तसलेंच अडचणेचें कारण आसले बगर येनासतना रावनात. सगुण, अमृतें, आनंदें सगळ्यो सगळ्यो आंगभर भांगर, माथेंभर फुलां माळून येयल्या आसतल्यो! देवा, विठोबा, म्हज्याच नशिबांत हें कितें हाडलें तुवें?

मुखावेल्या रस्त्यान खाजेकार, फुगेकार पें पें पों पों करीत जात्रेक वयताले. यमुनबाय खीणभर तांकां पळयत रावली.

हे जात्रेकूच तें! यमुनबाय तेन्ना आठ -णव वर्सांचें आशिल्लें, आनी भाव चार वर्सांचो! भावाक हाताक धरून जात्रेक घेवन गेल्लें. कृष्णपूरचे विठोब-रुक्मिणी जात्रेक लोकांची खेटाखेट जाता. सेगीत पांच वर्सां हे जात्रेक गेल्यार पंढरपूरा गेल्ल्याचें भाग्य मेळटा असो एक समज आसा. आनी देखून लोक हे जात्रेक ही गर्दी करतात. मुयेक लेगीत

फिरूंक सुवात आसना. देवाक मेळूंक लोकांच्या लोंड्यांत उबें रावल्यार पुरो, आपलेंशेच लोक धुकलूनच भितर व्हरतात, आनी भितरल्यान भायर हाडटात. देवाक मेळून, भाव-भयण भायर सरतालीं, दारांत लोकांले खेटाखेटींत भावाक धरिल्लो हात सुटलो आनी दोगांयची चुकामूक जाली. भाव एके वटेन, आनी भयण एके वटेन! यमुनबायेचेर आकांत! 'बाबा, बाबा, भावा म्हज्या, खंय गेलो तूं? येऽ म्हजो भाव शेणलो, म्हजो भाव शेणलो! बाबाऽ, बाबाऽ' लोकांल्या बोवाळांत कोणाचो आवाज कोणाक आयकता? एके वटेन देवळांतलें वाजप, दुसरे वटेन लोकांलो बोवाळ. मदींच पेंऽ पोंऽ पूंऽ तरेतरेचो आवाज, तातूंतच खाजेकार बोवाळटाले. 'ताजें ताजें गोड गोड खाजेंऽऽ',आनी ह्या बोवाळांत यमुनबाय 'बाबाऽ, बाबाऽ, खंय आसा तूं?' म्हणत वाट मेळत ते दिकेन भावाक सोदीत भोंवतालें. पुराय पुराय देवळाचो वाठार सोदूनय भाव मेळना. तें रडुंक पावलें. फाटले तळये कडेन बी पावूं ना मू? हे गच्चेंत खेटाखेटींत तळयेंत बी पडत...! देवा सायबा! तें तशेंच तळये कडेन गेलें. थंय कांय मागमूस ना! आतां ताका दुबाव, भावाक कोणेंय उखलून बी व्हरूं ना मू? तें रडूंकच लागलें. ताणें विठोब-रुक्मिणीक सांगणी केलीं, 'विठोब-रुक्माये, म्हजो भाव मेळूं म्हाका! तुका केळ्यां ताट दितां. भावाक घेवन एकशे आठ प्रदक्षिणा काडटां!' आनी खऱ्यांनीच, ताका रोखडोच भाव मेळ्ळो. थंयच एका खाजेकारा कडेन कुक्कुटोन उबो आशिल्लो. खाजेकारान सांगलें, ... म्हजी भयण, म्हजें बाय शेणलां म्हूण रडत येयलो. हांवें सांगलें, 'तूं हांगा राव. भयण सोदीत येतली. आनी येना जाल्यार हांव व्हरून पावयतां...' यमुनबायेक गेल्लो जीव परतो येयिल्लेवरी जाल्लो. आनी मागीर भावाक वेंगोवन, ताचे उमे घेवन धेवन, हुंडके दीत तें रडिल्लें.

असोच एक दीस भावाक जोर चडलो. बापूय जोताक वयतनाभाव बरोच आशिल्लो. अचकीत आंग तापलें. यमुनबायेन मळावेलें कोडूल बी झरोवन दिलें. जोर उणो जायना. आंग चडच तापूं लागलें. हें भियेलें. बापायन भळ्या खंयच्या शेतांत जोत बांदिल्लें. बापायक आपोवंक म्हण धांवतालें. वाटेर कोणेंतरी शेलीफातर हाडून उडयल्ले. पांय हादळण पडलें. कपाल एका फातरार आपटलें. सण्ण जालें. खीणभर कांयच कळ्ळें ना. दोळ्यां मुखार काजूले घुंवले. तशेंच उठलें. कपलाक घट्ट धरून बापाय कडेन धांवत सुटलें.

"बाप्पा बाप्पा बेगीन यो!"

"कितें जालें पुता? कपाल कशे फुटलें?"

कपलाक कोंक पडून रगत व्हांवतालें.

"कांय ना, येतना हादळण पडलें! मातरशें लागलें! बेगीन यो, बाबाक जोर चडला!"

तेन्ना तें धा-बारा वर्सांचे आशिल्लें. बापायन येवन पुताक वखद दिलें. धुवेची कोंक धुयन, ताकाय वखद लायलें. ते मेरेन कपल सुजून येद्दें व्हडलें जाल्लें. तकली उसळूंक लागिल्ली. पुणून ताका ताचें पडूंक नासलें. तें रातभर भावाक बापाय वांगडा उदका घडी घालत बशिल्लें. भावाचो जोर देवूं म्हण विठोब-रुक्मायेक सांगून घेतालें.

अजुनय ते कोंकीचो माग यमुनबायच्या कपलार आसा. तो माग पळयतकीर तिका हे घडणुकेची याद जाता.

आनी तोच भाव आयज ताका विसरलो.

भाव विसरलो म्हूण, तिचो भावावेलो मोग इल्लोय उणो जावंक

नासलो. केन्ना केन्नाय मुखावेल्या रस्त्यान भाव सायकलीर गडार वयतना तिका दिश्टी पडटालो. ती मागीर धांवत धांवत गेटी कडेन येताली. भाव पयस दिश्टी आड जाता मेरेन, ताका पळयत रावताली. तिका तो बेठोच भागलोसो दिसऽ.

एक दीस तिका कोणें तरी सांगलें, भाव बरो ना जावन ताका बेळगांवां व्हेला. भावाचे तिगूय पूत बेळगांवां रावताले. बापूय बरो ना म्हूण कळटकीर, पूत येवन बापायक आनी आवयक दोगांकूय घेवन गेल्ले.

आयकून यमुनबायेचो आवरोच हुडलो. देवा, कितें जालां काय म्हज्या भावाक? तिणें मेळटा ताका विचारलें, पुणून कोणेंच सारकें कांय सांगलें ना. हार्टाचें वाडलें काय? काय आनीक कितें जालें! मन सामकें थतरवितर जालें. पर्थून पर्थून भाव दोळ्यां मुखार येवंक लागलो. हात हातार पडना जातकीर, तिणें निमाणें थारायलें, कितेंय आसूं, भटाक वचून विचारचें. भावाले गिराय बी वायट आसत!

भावालें जल्म नांव 'थाकू' आनी 'मीन' रास म्हण ती जाणा आसली. तिणें भटाक वचून विचारलें. भटान सांगलें, "अडेच वर्सां मेरेन राहू वायट आसा.

"आतां कितें करप? उपाय कितें?"

"कांय ना, इश्वराची प्रार्थना करप. हांव एक चीट करुन दितां, व्हरुन बांद ताका."

"भटमाम, म्हजें आनी भावाचें बरेपण ना! हांव वचना कुळारा...!" आनी तिणें भटाक सगळी सगळी गजाल सांगली.

भट खीणभर तिचें तोंड पळेत उरलो. "हांव देवील्या आशिर्वादार

एक चीट करुन दितां, आनी देवीलो मळ दितां. भावाक पळोंवक गेलें अशें करुन ती चीट आनी मळ कशें करुन भावाल्या घरांत उडोवन यो. खंयूय खांचींत, मुल्यांत दवरुन यो. थोडो तेंप उरल्यार पुरो ती थंय. भावाक पळोवन येतां म्हव्यार, घोव वचूंक दिवचो ना?"

"भटमाम, घरा ना तीं तुर्ताक. बेळगांवां गेल्यांत. दार बंद आसा."

"तशें जाल्यार बरें जालें. घराच्या पाडसाराक व्हरुन ही चीट बांदल्यार उत्तम. मळ दारांत फुंकून यो. जनेलांतल्यान भितर उडोंवक जाता जाल्यार भितर उडय."

भटान दिल्ली चीट आनी मळ घेवन ती घरा येयली. घोवाक बेठेंच विठोब-रुक्मिणी देवळांत वचून येतां म्हूण सांगून, भायर सरली.

सुमार वर्सांनी ती कृष्णपुरांत येताली.

भावाकडे वायटपण येत सावन, कृश्णपूर तिका पयस जाल्लें.

कृष्णपूरचो वाठार नदरे सामकार येतकीर, तिका घळ घळ जालें. दोळ्यांत दुकां येयलीं. तिका दिसलें, तें भव्या कडचें शेत, तो भळो, ते सागवानी रुख, तो म्हाल म्हातारो जांबळीरुख, तीं आंब्याझाडां, तें विठोब-रुक्मिणी देवूळ, सगळीं सगळीं तिका विचारतात, 'यमुनबाय, खंय गो तूं? कितल्या वर्सांनी? आमची याद येना तुका?'

वाटेर मेळिल्लो जण एकलो यमुनबायेक पळोवन अजापतालो. "यमुनबाय, बरें मुगो? यो, आमगेर यो," म्हूण हाताक धरुन पाचारतालो. पुणून ती कोणागेरुच गेली ना. थेट विठोब-रुक्मिणी देवळाकडेन गेली. तळयेंत पांय धुवन देवळांत येयली.

'देवा, म्हज्या भावाची गिराय, पिडा कितेंय आसल्यार पयस

कर! ताका आयुश्य दी!'

देवाचो तीर्थ-प्रसाद घेवन थंयच्यान थेट बापायल्या घरा येयली. आंगणांत पावल दवरनाफुडें ताका हुंडको फुटलो. घरा दार बंद आशिल्लें. कवडेक येद्दें व्हडलें कुलूप हुमकळटालें.

आंगणांतले तुळशीमांडेक तिणें हात जोडले.

हीच ती तुळशीमांडी! नेण्टे पिरायेर आवय नाशिल्लें यमुनबाय हेच तुळशीमांडेक आवय समजून, वेंग मारुन, भितरले भितर रडटालें. आपलें दुख्ख सांगतालें.

तिणें म्हणलें,

'तुळशीमाये, म्हजी भावा बायल तुका कुकूम फूल करता, तुजे मुखार दिव्या जोत लायता, तिचो कुकूम अखंड राख!'

मागीर ल्हवूच तिणें पिशवेंतल्यान ती चीट आनी मळ काडली. जनेलां कवडां खांचींतल्यान भितर उडोंवक जाता काय पळयली. पुणून ना! आतां पाडसारा चीट बांदुया म्हणल्यार हात पावनात!

तिचो वाड्यावेलो बापोलभाव विश्राम थंयच वंय बांदतालो. ताका आपयलो. तो ऊंच, पातलांगी. ताका सगळी गजाल सांगली. ताचे कडल्यान पाडसारा चीट बांदून घेयली आनी 'बाबा, हें कोणाकडेनूय म्हण्णाका हां...' म्हूण बजावली.

उपरांत कांय खीण ती बेठीच सोप्यार बसून रावली. तिणें मनांत म्हणलें, 'देवा, हाचेफुडें या घटणार येवन केन्नाय चार दीस रावंक मेळटलें काय म्हाका? ह्या घटणावेलो पेजे निवळ केन्ना पडटलो काय म्हज्या ताळ्यार?'

ती थंयच्यान उठली, आनी बागभर भोंवली. आपणें शिंपून व्हड केल्ल्या झाडां-माडांचेर मायेन हात भोंवडायलो. होच तो तोंकावेलो म्हालम्हातारो आंब्यारुख. भाव नेण्टो आसताना खावूं-जेवूंक हट्ट करतालो, तेन्ना यमुनबाय ताका हांडीर मारुन हांगा घेवन येतालें. आंब्या रुखार बशिल्ल्या कावळ्यांक, घोणींक दाखेवन ताका भरयतालें.

रित्या गोठ्यार नदर पडना फुडें तिचें मनय रितें रितें जालें. आपल्याच्यान गोरवांचो वावर जावचो ना म्हूण भावान सगळीं गोरवां विकून उडयिल्लीं. ह्याच गोठ्यांत एका तेंपार तिणें गोरवांची सगळी सगळी चाकरी केल्ली. व्हितां केल्लीं, दूद काडिल्लें.

सुमार वेळ ती थंयच गणमणत रावली. रावन-रावन कितलोसो वेळ रावतली? निंमाणे कडेन जड पावलांनी भायर सरून येवचेंच पडलें.

यमुनबाय कृश्णपुरा वचून येयिल्या सात-आठ दिसां नंतरची गजाल.

अचकीत यमुनाबायेली भावा बायल यमुनाबायेल्या घरच्या गेटी मुखार येवन व्हडाव्हडान हात हेळयत खेपूं लागली.

"म्हज्या घराच्या पाडसाराक, आमी नाशिल्ले पळोवन, चीट हाडून बांदता? जमीण मेळूं जाय म्हूण देव-देवसपण करता? बरें जावचें ना तुजें! तुज्या देवसपणाक लागूनच म्हजो घोव बरो ना जावन पडलो..."

एक न्हय दोन, हजार तरांनी ती उलयली!

यमुनबायेन भायर येवन तिका कितलें सांगचें यत्न केले, पुणून ती मानुंकूच तयार ना जाली.

घोवानय यमुनबायेक थोडी उलयली ना.

“तुका थंय वच म्हणिल्लेंच कोणें? बऱ्याक वचून खोरे घालून घेता...”

पाडसारा चिटी बांदून येयिल्या त्या बापोलभावान वचून आपले बायलेक सांगिल्लें आनी तिचेच कडल्यान यमुनबायेल्या भावा बायलेक चिटिची गजाल कळिल्ली. तिणें ताचो भलतोच अर्थ लायिल्लो.

एक फावट खंयचीय गजाल खंय कुसूंक लागल्यार, ल्हव ल्हव पुराय कुसत वता. यमुनबायेक दिसलें, आपल्या बापायक ती जमीण दिवपाची बुद्दी खंयच्या अवचिन्न वेळार जाली काय? ते जमणीन कुळारच्या आनी घोवगेरच्या दोनूय घरांचीं तोंडां दोन वटेन केलीं.

आयज कितलिंशींच वर्सां तीं दोन वटेन जाल्लीं तोंडां तशींच उरिल्लीं. ती खंत, ती व्यथा यमुनबायेक भितरले भितर जळयतालीं.

घोवागेर तरी समादानाचें जिणें आसलें?

तुज्या कुळारच्या लोकांनी विश्वासघात केलो, म्हूण घोव सदांच उठून कोंचयतालो. पुतय थोमणे मारतालो.

आनी हें सगळें तिचे भितर शिजतालें.

सांगतली कोणाक?

सांगून उपेग कितें?

आपले भितरलो घायो भायर उक्तो करुन दाखोवपांत कसलें व्हडपण? ती ही खंत काळजांत घेवन जियेली.

पयर अचकीत बरी ना जाली. ल्हव ल्हव सामकीच जाम जाली. यशवंतबाबान पुताक, सुनेक अंकोल्या सावन आपोवन घेयलीं. धुवांकय कळोवन आपोवन हाडल्यो. पुतान आनी धुवांनी कितलें पाराथलें, दोतोरा

आपोवया, आस्पत्रेंत व्हरुंया! ना तें नाच्च!

म्हणूंक लागली, "दोतोरालें वखद जल्मांत खांवक ना, आनी आतांय खावचीं ना! देवान नशिबांत बरयिल्लें तितलें आयुश्य मेळटलें. आतां आनी म्हगेलें कितें उरलां? दोळे धांपचेच आतां!"

हांथुरणार पडिल्ले कडेन तिका आतां उठून बसूंकय जायना आसलें. पूत, घुवो धरून उठोवन बसयतालीं. कितेंय पातळ आहार दितालीं. तेवूय दोन घोटां वयर न्ही.

त्या दिसा, तिका एकदमच स्वास घेवूंक तरास जावंक लागलो. जीवय ओडिल्ले भाशेन जावंक लागलो. यमुनबायेक कळ्ळें, आपूण आतां निमणे घडयेर पावल्यां. तिणें ल्हवूच पुताक आपयलो. म्हणलें,

"पुता, म्हजें एक काम करता?"

"सांग आई..."

"म्हज्या भावाक पळयन दिसता, आपोवन हाडशी?"

विठोबाक घळ घळ जालें.

"हय आई!"

"सांग, हांव वांचना आतां! येतना बापायल्या घटणावेलो इल्लो पेजे निवळ घेवन यो म्हण! बेगीन घेवन यो..."

विठोबान ताकतीक केली. स्कुटर घेवन तो सोमतोच कृष्णपुरा येयलो. हरशीं मावळो वाटेर मेळ्ळयार, तोंड फिरोवन वचपी विठोबा आयज सगळो राग-रुस कुशीक दवरून मावळ्याक व्हरूंक येयिल्लो.

मावळो आनी मावळ्या बायल सोप्यार बशिल्लीं आशिल्लीं.

विठोबा आंगणांतल्यान बोवाळ्ळो,

"मामा, ऊठ! आई बरी ना! तुका वथरेता!" आनी तो रडूंकच लागलो. "मामा, आई बरी ना रे! वयता ती आतां...!"

"आं? कितें जालें म्हजे भयणीक?" पाडुरंगान कांचेवन म्हळें. पांडुरंगाची बायलय भियेली. कितलेंय जालें तरी नातें! नात्याचीं दावां कितलींय हुमटोवन उडयलीं तरी एक-दोन उरतातच.

पांडुरंगान ताकतिकेन मुस्तायकी चडयली.

"इल्लो पेजे निवळ हाड म्हळां!

दनपारची वेळ. मडकेंत पेज आशिल्ली. पांडुरंगा बायलेन ताकतिकेन एका स्टिलाच्या डब्यांत इल्लो पेजे निवळ ओतून घोवा कडेन दिलो.

मामाक घेवन विठोबा घरा येयलो.

घरांत, दारांत वाड्यावेल्या लोकांची खेटाखेट जाल्ली.

माम आनी भाचो ताकतिकेन भितर सरले.

पांडुरंग सुमार तेंपान भयणीगेर येतालो. भावोजीन दारांत पांय दिवं नाका म्हणिल्लें, पुणून तें येवजुचेलो हो वेळ नासलो.

विठोबा मावळ्याक हाडूंक गेल्ले फाटल्यान, यमुनबायेक चडच जाल्लें. स्वास चडच खोल वचूंक लागिल्लो. उतरांय लुबडीं पडटालीं. एक फावट तर धुवांनी 'आवय गेली' म्हूण बोवाळय मारलो. बोवाळ आयकून वाड्या वेले सगळे लोक जमिल्ले. धुवांनी आवय भोंवतणी कवंडाळें केल्लें.

यशवंतबाब ओग्गी तकली सकयल घालून, कुशीक एका कदेलार बशिल्लो.

पांडुरंगान डबो उक्तो करून, भयणी मुखार वचून म्हणलें,

"बाये, हांव येयलों, हो चय, पेजे निवळ हाडला तुका...!"

इतलो वेळ निस्तेज पडून आशिल्ले यमुनबायेन भावालो आवाज आयकनाफुडें दोळे उकते केले. जीव गळ्यांत दवरुन ती भावाली वाट पळयताली.

भावाचेर नदर पडनाफुडें तिच्या दोळयांत दुकां उबीं जालीं.

आशिल्ली नाशिल्ली पुराय शक्त तिणें जिबेर हाडली, आनी म्हणलें,

"बाबा..., भावा म्हज्या... निऽऽवळ दीऽऽ" आनी तिणें मान लवंडयली.

पुतान, सुनेन आनी धुवांनी आकांत केलो.

भयणीक दिवंक हाडिल्लो निवळ भावाच्या हातांत तसोच उरिल्लो!

***

# चवथीचो गणपती

रातीं साकून पावस थोपिल्लो पळोवन धर्मू कुमाराक सूऽऽ जालें. आतां आनीक पावस पडचेलीं चिन्नां नासलीं. जगबुडी येवन निर्शेल्लेवरी जाल्लें. अख्ख्या वाठाराचीं दाडमणां बशिल्ल्या भाशेन सगळे कडेन शांत शांत दिसतालें. शितळ वाऱ्याची मात्तूय सुलूस नासली.

उदेंतेक सुर्या वयर येतालो. वाठार भर रुप्या उजवाड फाफसल्लो. ह्याच वाठारांत गेल्ले धायेक दीस काळी साय मांडिल्ली. मळब काळी धुंवटी घालून आशिल्लें. धार तुटयनासतना रकतालें. घरादाराची पांवळी राकेस मुतिल्ले वरी सळोसळो करून गळटाली. मदींच वारो सोंशेतालो. झाडमोडो येतालो. धोलचेलीं झाडां, माड पळयल्यार तीं आत्तांच मोडून पडटलीं काय दिसतालें.

पावस आज थोपतलो, फाल्यां थोपतलो अशें येवजून येवजून धर्मू वाजेल्लो. असोच पावस पडत रावल्यार कशें जातलें? चवथीक चड दीस उरूंक नात. माती हाडप केन्ना? गणपती थापप केन्ना? एक-दोन गणपती ते? अख्ख्या वाठारांतले. देडशां वयर! धर्मून थारायिल्लें, असोच आनीक रकूंक लागल्यार आतां आनीक थारप ना.

पुणून पावसान कुरपा केल्ली. खंय हुंवाळून गेल्ले वरी रातीं साकून नाच्च जाल्लो.

"बाबुशा, आयज वचून माती काडुंया मरे?" धर्मून पुताक म्हळें. पुतानूय मळबाकडेन पळयत 'आं' म्हण तकली हालयली.

"रामू, बाबल्याक बी सांगता मरे?

बाबूश 'हय' म्हूण भायर सरलो.

धर्मून वाड्या वयल्या धायेक तरनाट्यांक आदींच सांगून दवरिल्लें, 'पावसान आसोर केलो काय या!'

दोन-चार वर्सां जालीं. हेच तरणाटे धर्मूक माती हाडूंक आदार करतात. पयलीं तांचे बापूय करताले. आतां ते हे दिसाडेन कांबळ पांगरून विडी फुसकायत बसतात आनी भुरग्यांक मुखार काडटात.

बाबुशान रामूक, बाबल्याक, वसंताक. सुरेशाक. म्हादूल्या पांडूक, सकयल्या घरच्या धिरजाक बी अशा धायेक तरनाटयांक एकठांय केले. तेवूय बावडे वाट पळयत आशिल्ले. बेकार थवय! धायेक दीस पावसान अच्छेव मांडिल्ल्यान रवदुर्‍यां देवळांत बसून इस्पिकांनी खेळप, आनी पंचादी मारप हाचेबगर दुसरें काम नासलें. धर्मू वांगडा माती काडूंक वचप म्हणल्यार हजार हजार हातार पडप! कोणाक नाका जालां? ते मगीर केन्नाय पडूं!

कुमार वाड्यावयल्या कुमारांलीं भुरगीं तीं! ह्या तेंपार कुमारालो धंदो पेजेक पातिशेर! एका तेंपार चारशीं, साडेचारशीं घरां आशिल्ल्या ह्या गांवांत कुमार धंदो गडगडटालो. एकान एक घर मातये आयदनां वापरतालें. पणटी धरून चिडकी धरिल्लें उदक तापोवचें भाण मेरेन मातयेचेंच. पुराय गांवांत वखदाक लेगीत एक आयदनां दुकान नासलें. एक दीस पाड वेळेर कोणनेणो तामाणकारबाब म्हूण कारवारच्यान येयलो. तेणें पंढरीले कुशीक इल्लेशें तामणां दुकान उकतें केलें. सुरवातीक भाणां, पंचाडी, पराती,

कळशे, हांडे बी असलींच तांब्या आयदनां तो विकतालो. ल्हवू ल्हवू, स्टिलाचीं, आलिमनचीं बी आयदनां विकूंक लागलो. लोक घेऽऽ धांवले. माडावयल्यान बोंडे पडल्यार आयदनां फुटचे मातये भाण. आनी चुकून हातांतल्यान सकयल पडल्यार फुटचेलीं मातये आयदनां जाय कोणाक? ते भायर, तीं तिगतातय खूब काळ. तामणकारबाबाल्या धंद्यान नेट धरलो. मागीर आनिकूय दोन तामणकार आयले. ह्या तिगांय तामणकारांनी कुमाराल्या हावठणांचेर शेळें उदक रकयलें. कुमारवाड्यार कुमारांचीं चाकां नेटान घुंवना जालीं. मडकीं पेटपाचो आवाज उणो जायत गेलो. फाल्यांचे पेजेचो हुस्को वाडत गेलो. आयज भौसाक कुमाराची चडशी गरज ना. फकत कोणूय खंवसल्यार किरवड्या वांगडा व्हरूंक मडकी. ना जाल्यार ज़ात्रेक बायलांक पेटोवंक दिवजां जाय! चडान चड म्हणल्यार पणट्यो दिवाळेक! त्योय ह्या वर्सांनी दिश्टी पडनात. पणट्यांचे सुवातेर मेणवाती फरफरतात. एकवटीत पुराय परिस्थिती पोटाक येट काडून ओग्गी रावचेली. तातूंत हीं भुरगींय बावडीं बेकार!

फकत कुमार धंद्याचीच न्हय. जाल्यार सगल्याच धंद्यांची हीच धिंड. फाटल्या तेंपार म्हारवाड्या वयले म्हार रानांत वचून कोंडे हाडून तांचे येळ काडून हांतऱ्यो, कणांतऱ्यो, बुटयो, पिणग्यो, कुरकुलां, चोबीं, सुपां बी शेतकामत्यांक लागच्यो वस्तू करून हाडून विकताले. ल्हव ल्हव भौसान शेतां बंजर उडोवंक सुरवात केली. ह्या वस्तूंची गरज उणी जायत गेली आनी म्हारांचो धंदो मरूंक तेंकलो.

मेस्तांचेंय तशेंच! गांवांत स्टिलाचीं, प्लास्टिकाचीं मेजां, कदेलां, पत्र्यांचीं कपाटां, स्टिलाचीं रॅकां बी विकतीं मेळूंक लागिल्ल्यान तांचोय धंदो असोच पिरंगता.

सगल्योच वस्तू गांवांत आतां पसऱ्यांनी तयार मेळूंक लागिल्ल्यान

गांवच्या पारंपारीक काम-धंद्यांनी आपली साटलीपोटली गुठलावंक सुरवात केल्या. जण एकल्याची गोमटी काळान आपल्या दावखुलान अंदिल्या.

कुमारवाड्यार तातूंतले तातूंत बरें चलता तें धर्मूगेर! तिवूय गणपतीची कुरपा! आज्या-पणज्याचे मुस्तींतल्यान चलत येयिल्लो तेंचो धंदो! एका तेंपार खंय मुडगेरी धरिल्ले तारी कडेन मेरेन आनी असनोटी धरिल्ले गाबीतवाड्या मेरेन फकत धर्मूगेरचेच गणपती व्हरताले. काळ फुडें चलता तशें दरेका गांवांत ही कला घेवन एकएकलो मुखार सरलो. आनी गणपती करची मिरास फकत धर्मूल्या घराब्याची उरूंक ना. गडार बाबू मेस्त जाल्यार असनोटी वाजंत्री सोमूगेर गणपती थापूंक लागिल्ले. धर्मूकडेन उरलें फकत माजाळी. वर्सभराचें पोट कुटूक-मुटूक करून चलोवंक धर्मूक ही येणावळ उपकारा पडटाली.

धर्मू सगळ्यांक घेवन शेकानशेक पातळिल्ल्या ‘फडतळ्याचे’ देगेर येयलो. येतना ते साक, खोरें, चोबो बी घेवन येयिल्ले. कुमारवाड्या वयल्यान एका उल्याच्या अंतरार हें तळें! ह्या तळ्याच्या आनी कुमारवाड्यामदीं एक इल्लेंशेंच रान पातळ्ळां. फकत माडतीचीं, खुंब्याचीं, चिंवरीचीं, चापुरकेचीं, बोरांचीं बी झाडां हांगा मातल्यांत.

तळ्या देगेर मात उपशीवालीच्यो घोली आनी कणेरींचीं झोपां. ना म्हणल्यार पयस अस्तंते वटेन एक चांफ्याचें झाड आसा. पुणून थंय कोणूच चडसो वचना. थंय एक व्हड रोयण आसा. रोयणीचे आशी कुशीक अशोच उपशी घोली. थंय रोयणींत खंय एक हळडुवोच नाग आसा. तायटा येद्या फाडाचो. तेका खंय तकलेर केंस आसात. मिशयोय आसात. तेका कोणेंच दुखोवंक फावना. अशें जाणटे म्हणटात. तो ह्या तळ्याचो राखणदार. हरशीं सबसब कोणाक तो दिसना. दिसलोच जाल्यार तेका खंय हात जोडचे. तो कसलीच इजा करिनासतना कुशीक सरता.

पुणून आयजवेर 'हांवें तेका चयला' म्हूण हड्ड्यार हात मारुन सांगपी एकलोय गांवांत ना. फकत कानां वयल्यो गजाली!

ह्या तळ्याक 'फुडतळें' कित्याक म्हणटात हें धर्मूक खबर ना. तें जाणा जावचेलो यत्नूय धर्मून केन्ना करूंक ना. तो फकत इतलेंच जाणा, ह्या तळ्यांतले मातयेन तेचें पोट भरता. सामकी चिकट माती. गणपती मुर्तीक जुस्त उपकारपी. हरशींय चयल्यार हो पुराय वाठारुच चिकट मातयेचो. देखुनूच घडये कुमारवस्ती हांगा हावठण मांडून बसली.

धर्मून चयलें, अदमास बांदलो. मदेकांत हड्डें भर उदक आसूंक फावो. हरशीं गिमांत हांगा दिमी भर उदक आसता. उदकांतल्यो सगल्यो वनस्पती जिवाण्यां भशेन तकली भायर काडून राविल्ल्यो दिश्टी पडटात. आतां चयल्यार हें तळें न्हीच! भरिल्ली न्हंय कशी दिसता. इतलें वयर उदक चडिल्लें आसल्यार माती काडप भोव कठीण. असोच आसोर पडून उरल्यार फाल्यां मेरेन उदक कमरा मेरेन देंवतलें हेंवूय तो जाणा पुणून फाल्यांचें कोणें सांगलां? मिर्गाचें आनी गर्भाचें खंय कोणच्यान सांगूं नजो!... आनी कितले दीस म्हूण थारतलो? एकेक एकेक करुन दीस फाटीं सरूंक लागल्यात. गणपती थापतलो केन्ना? सुकयतलो केन्ना? आनी रंग काडटलो केन्ना?

धर्मूल्या आज्या तेंपार एक फावट अशेंच जाल्लें. पावसाक लागून माती काडूंक कळाव जाल्लो. मागीर गणपती फाटीं पडले. निमाणें निमाणें कडेन केल्ले गणपती पुराय सुकलेच नात. तशेच रंग काडून दवरप जालें. असोच एक वोलो गणपती व्हळां कडच्या सुब्राय नायकागेर पावलो. सुब्राय नायक पयलींच हुरमटो आनी एकशिरेचो मनीस. इल्लेंशेंच निमित्त मेळ्ळ्यार मांडून झगड्याक धरपी. आनी वरांची वरां झगडत रावपी. पुजा करूंक गेल्लो, गंध लायतना तेगेल्या बोटाची चेप गणपतीच्या कपलार

पडली. हेका मातसो दुबाव. बरो करून सांसपून चयल्यार गणपती वोलो. हेच्या कपलाची शीर तट्टटली. सोमतोच येयलो, फुरसद करूंक ना. धर्मूच्या आज्याचेर दोन फुलयलीं. तेन्ना साकून धर्मूगेरच्यांनी धसको घेतला. सामको कानापीळ घालून तांणी थारायलां, गणपती मुर्ती वोली म्हणटात ती दवरिनासप!

धर्मून हातांत खोरें घेयलें. 'येयात रे!' म्हणत तो उदकांत देंवलो. "धर्मूबाब उदक चड आसा शें दिसता... जातलें मुरे माती काडूंक?" फाटल्या घरच्या पंढरीन म्हणलेंच.

"आसूं रे, येयात तुमी," म्हणीत धर्मू मुखार चल्लो.

फाटल्यान सगले देंवले. दिमी भर, कमरभर उदक करीत करीत जण एकलो फळोफळो उदक कापीत मुखार सरतालो. पांयां पोदां कसली कसली वनस्पती, वाली बी येताल्यो. सुरवातेक चिकचिकीत चिखोल माड्डुयत ते गेले. मुखार पावतकच पायां पोंदा घट्ट माती लागूंक लागली. हीच ती माती! हेच मातयेन गणपती घडयतात. हे मातयेची भौसांत चलत येयिल्ली एक काणी आसा....

एक फावट खंय कैलास पर्वतार बसून पार्वती भूंय निरखिताली. अचकीत तिची नदर ह्या शेकानशेक पातळिल्ल्या तळ्यार पडली. सरोवरा भशेन हें सोबीत तळें तिका भोव मानवलें. तळ्याचें नितळ काळें उदक चवन ती भुल्लसली. तिणें थारायलें, हांगा वचून जलक्रिडा करची. थारायिल्ले प्रमाण ती येयली. ह्या थंड किरांव उदकांत क्रिडा करतना तिका एक आगळीच खोस भोगली. ती धादोसली. तेन्ना साकून ती नेमान हांगा जलक्रिडा करूंक येताली. युगान युगां ती हांगा जलक्रिडे पासत येयली. तिच्या आंगाचो खंय चिखोल सांचून हांगा ही माती तयार जाली. देखून खंय हांगासरलो भौस ही माती गणपती करूंक वापरता. आनी हरशींय,

पार्वतीन गणपतीक आपल्या आंगाच्या चिखलानूच केल्लो अशीय एक काणी आसा. लोक अशेंय म्हणटात, ह्या नितळ तळ्याचो विटाळ कोणें करूं नये म्हूण, पार्वतीनूच नागाक ह्या तळ्याची राखण करूंक हांगा दवरला.

पुताक हात हालयत येयिल्लो पळोवन धर्मून पुताक म्हणलें, "बाबुशा, चोबो हाडूंक ना रे?"

बाबूश चोबो देगेरूच दवरून आयिल्लो. बापायन याद करून दितकीर तो तसोच परतलो. देगेर वचून चोबो घेवन आयलो.

धर्मून पांयांनी सांसपून पांयां पोंदा जाय तशी माती आसा हाची खात्री करून घेयली. उदक तेच्या हड्ड्याचे शिंपये मेरेन पावतालें. धर्मू ऊंच आनी हाडापेडान घटमूट फातर कसो. ताची जिस्ताजिस्त तासून काडिल्ले वरी कूड पळयल्यार तरनाट्यांक लज जावचेली. पन्नास वर्सां पिरायेचो कसो दिसच नासलो. ताळये वयले केंसूय काळेच आसले. मातशे पातळ जाल्ले इतलेंच!

धर्मून खोरें घेवन उदकांत बुडकी मारली. खोऱ्याचो फाळ मातयेंत रिगयलो. आनीक चड भितर रिगोवंक पांयान खोऱ्याचेर नेट लायलो. मागीर फस्स करून खोरें उखल्लें. येदें व्हडलें मातयेचें खांप वयर सरलें. तें खांप तेणें हातांत घेयलें आनी वयर येयलो. वयर येता मेरेन हातांतल्यान अर्द माती गळून पडटाली. पूत खांदार चोबो घेवन तयार आसलो. ती माती त्या चोब्यांत उडयली. अशें करून करून तो चोबो भरतालो. आनी मागीर ते भरिल्ले चोबे एकमेकाच्या खांद्या वयल्यान अंतराळी देगेर पावयताले. देगेर तांणी आदींच साक सोडोवन दवरिल्ले. त्या साकांचेर माती व्हरून रकयताले. इल्ली इल्ली करून मातयेची रास वाडटाली. काळी काजळ कशी माती.

सकाळीं लागिल्ले माती काडूंक. सादारण देड मेरेन तांणी धा-बारा गणपतींची माती काडली. मागीर धर्मून म्हणलें, "आतां आमी या. वेळ माथ्यार येयलो."

"काम करून सांजेच्या चारांक सुमार येवन माती घरा व्हेल्यार जाली! जावचें ना?" सोमणाल्या दिनेशान म्हणलें. ताचो कमरा कांटो मोडून येयिल्लो. तेका भंय, घडये धर्मूबाब आतांच माती घरा व्हरुंया म्हणत म्हूण.

"जायत रे जायत!" म्हणत धर्मूबाबान हयकार दिलो. सगल्यांकूच पुरो जाल्लें. मागीर थंय आनीक कोण उदक चाखूंक रावलो ना. सटसटीत म्हारू फाटीक लागिल्ले वरी घरा आयले.

सांजेच्या चारांक सुमार सगळे खोरें, चोबे घेवन येयले. पुराय माती चोब्यांत घालून इल्ली इल्ली करून धर्मूल्या घराच्या पडवेंत हाडून राशीक मारली. धर्मूची पडवी सुमारा भायर व्हड. हांगाच तो वर्साचे गणपती थापता. पडवे मानान ताचें घर इल्लेंशेंच, दोन पाख्यांचें.

पुराय गणपतींची माती काडून घरा हाडूंक तेंकां सारके बारा दीस लागले. पावसान सुमारा भायर कुरपा केल्ली. ना म्हणल्यार माती काडप चालू आसतना, एक-दोन फावटी मदेंच काळें घालून येतालो. भटान मंत्र म्हणत तीर्थ फाफुडिल्ले वरी सळसळोन वयतालो.

मदीं दोन दीस मात सामकीं धुमशेणां घालीं. काळी घुमटी घालून गडगड मारीत येयलो. दिसूय भर पीर-पीर! तातूंतच हुरमुटो वारो आडमुठी येळटालो. सोंसाटो मारत झाडां, माड हालयतालो. पुणून कोणें पर्वा केली ना. झुजाक भायर सरिल्ल्या सोल्दारांवरी सगले उदकांत देंवले आनी माती काडून घेवन येयले.

माती पडवेंत येवन पडत सावन धर्मूगेर दीसरात माती पेटिल्ल्याचो आवाज येतालो. धर्मू, धर्मूली घरकान्न, पूत आनी चेडूं रटें फुट्टा मेरेन माती बडयतालीं. पीठ मळिल्लेवरी माती मळटालीं. मातयेंत कसलोच कचरो, कसर उरूंक फावोना. ती बरी जिगट जावची पडटा. नातर गणपती मुर्तीक सुकतकच धाळे पडटात...

वट्ट गांवचे गणपती थापूंक धर्मूक आनी तेच्या पुताक सारके दोन म्हयने लागले. गणपती थापतना, गांवचे कोण कोण येवन कामधंदो नाशिल्लेवरी बेठेच विडी फुसकायत बसताले. हेवटेच्यो तेवटेच्यो नाका जाल्ल्यो गजाली करून वयताले. सांजेची शाळा सुट्टकच वाड्या वयलीं नेणटीं भुरगीं येवन कवंडाळीं करतालीं. कांय जाणां बेठींच थंयची इल्लिशी माती उखलून घेतालीं. हाताच्या ताळटार घेवन बेठेच गुळे करीत बसतालीं. धर्मूक आनी ताच्या पुताक अशे कोणी येयल्यार मातसो विश्राम जातालो.

वर्साचे वरी अंदूय सगले एकाच मापाचे गणपती केल्ले. मुर्ती मात तरातरांच्यो.

कांय हुंदरार बशिल्ले, कांय शिंवार बशिल्ले, कांय शिंवासनार जाल्यार कांय साळकार. कांय बालगणपती बीन थापिल्ले. धर्मूक सगल्यांत चड मानवलो तो ओम अक्षराचेर केल्लो गणपती. ताणें मनांत थारायलें, हो गणपती आपू शेणयगेर दिवचो. आपू शेणय चुकनासतना दर वर्सा हेरांपरस पांच- धा रुपये चडच दवरता. ते भायर वस्त्राचें लुगट नातर रुमाल आसता. हेरांचें तशें न्ही. पानां विडो, नाल्ल आनी सांगिल्ले तितले पयशे! जालें!

हरशीं खंयचो गणपती कोणागेर हें थारायिल्लें नासता. जो पयलो येता, तो आपल्याक मानवल्लो गणपती घेवन वयता. एकादरो उमेदीचो मनीस गणपती करचे आदींच आपले पसंतीचो गणपती करूंक सांगता.

नाजाल्यार कोणूय 'बाबा आपले खातीर एक गणपती कर, नातर करूं नाका' म्हूण सांगूंक येयना. गांवच्या लोकांलें थारिल्लेंच आसा. धर्मूगेरच्यांनी गांवा खातीर गणपती करचे आनी पसऱ्यार येवन सामान घेवन वयतले वरी गांवच्या लोकांनी येवन पयशे फारीक करून गणपती घेवन वयचें.

जायते फावट अशेंय जाता. कांय जाणांलीं भुरगीं पुण्यां-मुंबय आशिल्ले कडेन थंय गणपती पुजतात आनी हीं जाणटीं मनशां उठून पूत आशिल्ले कडेन वयतात. धर्मूक खबरूच नासता. धर्मून तेंचे खातीर केल्ले गणपती तशेच आसतात. अशा वेळार एकेके फावटी धर्मूक दिसता, एक वर्स गणपती मुर्त्यो करचोंच ना! चया, कितें करतात गांवकार! पडूं दी बोब! पूण तशें करप शक्य ना. आज्या-पणज्या मुस्तींतल्यान चलत येयिल्लो नेम तो!

ह्या वर्सा कुश्टाल्या संदीपान धर्मू कडल्यान मुजरत दोन इल्लेशेच गणपती चडावत करून घेयल्यात. अंदू खंय तो सासनांतल्या यशवंतागेरआनी मेंडेंशिटया वेल्या दिनकरागेर गणपती व्हरून दवरतलो.

ह्या गांवची एक रीत, जेंगेर चवथ ना तेंगेर चवथ करची अशें दिसलें काय फांतोडेर घरचे लोक जागे जावचे पयलीं दारांत व्हरून गणपती दवरतात. लोक भावार्थी आसल्यार गणपती घरांत घेतात. तेन्ना साकून तेंगेर चवथ सुरु जाता. जेंकां चवथ करची ना ते दारांतूच गणपतीची पुजा करतात आनी तेन्नाच तो गणपती व्हरून पावयतात.

यशवंतालो सुनील आनी दिनकरालो सुधीर संदीपाले इश्ट. संदीपान अंदूं सावन इश्टागेर चवथ सुरु करची थारायलां. तेणें गुपचीप ही मांडणी धर्मूबाबाक सांगल्या आनी धर्मूबाबानूय आदार दिला. धर्मूबाब जाणा, फुडल्या वर्सा दोन गणपतींचें गिरायक वाडटलें.

चवथीक एक म्हयनो आसतना धर्मून गणपतींक रंग काडूंक सुरवात केली. गडा वयल्या रामाल्या पसऱ्यार वचून ताणें रंग हाडलो. अंदूं रंग वर्सा परस म्हारग जाल्लो. धर्मून थारायिल्लें, अंदू पोरूंचे परस पन्नास रुपये वाडोवचे. पोरूं गणपतीच्यो मुर्त्यो साडेचारशांक दिल्ल्यो. ह्या वर्सा पांचशांक. वचत थंय म्हारगायेचो उजो पेटला. उपाव ना.

रंग काडूंक वाड्या वयले सगळे जांकां हीं कामां तांकतात ते सगळे व्हड उमेदीन आदार करताले. धर्मूबाबान तेंच्या हातांत पिशोल दिलें. सुरवातीक धवो रंग काडून घेयलो. उपरांत धवो, तांबडो आनी हळडुवो रंग मिस्तूर करून आंगाचो रंग तयार करून घेयलो. सगल्या गणपतींक आंगाचो रंग काडून जातकच धोतर, शेले, शिंवासनां, बसक्यो बी रंगोवन घेयलीं. उपरांतची शेड दिवचेली केंस, नेत्रां, उटी, नाखटां बी रंगोवचेलीं निगूत कामां पुतान आनी बापायन केलीं. हुंदीर आनी सोरोप तर वाड्या वयल्या भुरग्यांनीच रंगयले. पुराय म्हयनो भर पडवेक रंगाचोच वास येतालो. जळीं मळीं रंगाचे डबे आनी जण एकल्याच्या हातांत पिशोलां.

असोच एक दीस मूर्ती रंगोवचेलीं कामां चालू आसतना पसरकार पंढरीलो व्हडलो चेडो नित्यानंद पडवेंत येयलो. धंदेवालो, पयशेकार अचकीत येयिल्लो पळोवन धर्मू अजापलो. ताणें ताका येवकार दीत बसूंक कदेल दिलें. पांच मिणटां तो बसलो, आपल्या घारश्या दोळ्यांनी सगल्या मुर्तींचेर नदर भोंवडावन विचारूंक लागलो,

“धर्मू, अंदूं गणपतीचो प्रेस कितें रे?”

“मुर्तीक पांचशीं!”

“पांचशीं...?” म्हणत दोन तीन फावटीं हीं उतरां तोंडांतूच घोळयलीं.

“मागीर येतां रे धर्मू” म्हणत उठलो आनी चलूंक लागलो.

तो वतकच धर्मून येवजिलें, हो कित्याक येयिल्लो काय? केन्नाच कुमाराल्या दारांत पांय दिवपी न्हू! बेठोच गणपती मुर्ती पळोवया म्हूण येयिल्लो आसप कशेंच शक्य ना. धंदेकार मनीस आपलो वेळ असो बेठोच नाका जाल्लेकडेन वगडायतलो? ना म्हणल्यार गणपतीचो आनी ताचो संबंदूय ना. तेंगेर चवथ पुजी नात. कोणेंय हट्टान व्हरून दारांत गणपती दवरल्यार सुदीक दारांतल्यानूच पावयतात. ताणें चींत चींत चिंतलें. मागीर ‘पाड पडूं! कित्याकूय आसूं!’ म्हण ओगी रावलो.

तशेंच चार-पांच दिसांनी आनीक कोण कोण येवन मुर्तीची किंमत विचारून गेले. ‘पांचशीं’ म्हूण सांगल्यार ‘चड म्हारग मुरे!’ म्हणूंक लागले. आनिकूय मागीर जायत्या जाणांनी विचारलें. धर्मूक कळ्ळें ना, हे अशें कित्याक विचारतात?

चवथी दिसा धर्मू फांतोडेर उठलो. न्हालो. धुलो. कपलाक कुकूम लायलो, देवाची पुजा केली. दर वर्साच्या नेमा प्रमाण नवें ताल्ल पुडवें न्हेसलो. तकलेक तांबडो रुमाल बांदलो. आतां तो शिगम्यांतलो तालगडी कसो दिसूंक लागलो. तो पडवेंत येयलो. लोक सकाळींच येवन बोवाळ घालतले. सुणें फाटीक लागिल्ले वरी ताकतीक करतले. एक आनी दोन न्ही ते. देडशां वयर!

दारांत व्हरून दवरचे गणपती, संदीप कोंब्यासाद पडचे आदींच येवन धर्मूल्या पुताकडल्यान घेवन गेल्लो.

आठांक सुमार सगळ्यां आदीं भटमाम एका मानायाक घेवन येयलो. मानायाचे तकलेर लाकडा चवाय आशिल्ली.

धर्मून भटमामागेरचे चवायेर हुंदरार बशिल्लो एक गणपती दवरलो.

भटमामान नाल्ल, पानांविडो आनी धर्मून सांगिल्ले पयशे काडून धर्मूक दिले. एक रुपया चडूच दिलो. भटमाम गणपती घेवन गेलो.

ताचे फाटल्यान आपूशेणय येयलो. तो येतना वाजंत्री घेवन येयिल्लो. दर वर्सा तो गणपती वाजत गाजतूच व्हरता. ताणें वर्सनेमा प्रमाण नाल्लविड्या वांगडा एक रुमाल आनी हेरांपरस पंचवीस रुपया चड दिले. धर्मून ताका तो ओम अक्षरां वयलो गणपती दिलो.

आपूशेणय उपरांत कांय वेळान रामशेट येवन गणपती घेवन गेलो.

मागीर मात कोणाचोच आवाज ना. इतलो वेळ मरेन थंय लोकांचो बोवाळ पडटालो. 'म्हाका आदीं दी', 'म्हाका आदीं दी' करून लोक तरास करताले. वाजंत्र्यांच्या, माराणांच्या आवाजान पुराय गडगड पडटालो. धर्मून चयलें, कोणूच येतना दिश्टी पडनासलो. आतां मेरेन दारांत दवरूंक व्हेले ते दोन गणपती सोडल्यार, नेमाचे म्हूण फकत तिनूच गणपती व्हेल्ले.

सुर्या सुमार इतलो वयर येयिल्लो. आयज पावसान कुरपा केल्ली. पावस पडचेलीं चिन्नांय नासलीं. पुराय मळब धव्याफुल्ल कापसान भरिल्लें कशें दिसतालें. पावसाळो कसो दिसच नासलो.

धर्मू कदेलार गांवकारांची वाट चयत बशिल्लो. येद्दे तोंड करून.... एके तरेचो हुसको तेच्या काळजांत वसतेक येयिल्लो. सुमार धा वरांचेर बडबडो शंकर बोवाळ घालीत तकलेर चवाय घेवन येयलो. धर्मूक चयन म्हणूंक लागलो, "धर्मूबाब, तूं हिंगा गांवकारांली वाट चयता? तेंणी व्हयले गणपती पसरकार पंढरील्या चेड्या कडल्यान."

मागीर तकले वयली चवाय सकयल दवरीत सांगूंक लागलो, "चार दिसांफाटीं म्हजे कडेनूय येयिल्लो तो. दोनशीं रुपयांक एक गणपती

दितां म्हूण. हायें म्हणलें, नाच्च! खबर सोड! म्हाका नीत, रीत, परंपरा लागता. पार्वतीआयन चिखलानूच गणपती केल्लो. म्हाका तो चिकण मातयेचोच जाय.... आयकून ओग्गी गेलो तोंड घेवन!"

धर्मूक याद जाली,

चवथीच्या आदल्या दिसा धर्मूचो पूत खंयच्यान नेणो खबर घेवन येयिल्लो. पसरकार पंढरील्या चेड्यान नित्यानंदान ट्रक भरुन गणपती मुर्ती हाडल्यात. तांणी हालींच बांदिल्ले नवे बिल्डिंगेंतल्या एका पसऱ्यार दवरल्यात. दोनशीं रुपयांनी एक. प्लास्टर ऑफ पॅरीसच्यो मुर्ती.

खीणभर धर्मू आयकत राविल्लो. मागीर ल्हवूच तकलेंत दुबाव किल्लल्लो. आनी मागीर हड्ड्यांत धस्स जाल्लें. त्या दिसा तो मुर्तीची किंमत विचारतालो. पुणून दुसऱ्याच खिणाक ताणें दुबाव फाफुडिल्लो. शे! तशें आसपाचें ना. ताणें ते अशेच हाडिल्ले आसतले. शोयेच्या कपाटांत दवरपाखातीर विकूंक.

"चल दी गणपती." शंकरान म्हणलें.

धर्मून खीणभर तेच्या तोंडाकडेन चयलें. तो उठलो. तेणें शंकराचे चवायेचेर हुंदरार बशिल्लो एक गणपती हाडून दवरलो.ताचेकडल्यान नाल्ल, तांदूळ आनी पांचशें रुपया घेतले. चवाय उखलून ताचे तकलेर दवरली. हात जोडले....

गणपतीपरस बडबड्या शंकराकूच चड!

***

# म्हज्या वॉक्लाची फ्रेम

सगळेच विचारताले! घरकान्नीन तेंच विचारलें, "कितली पोरणी ती फ्रेम, कित्याक बदलना? आऊट डेटेड फ्रेम वापरपांत कितें अर्थ? बरें दिसता तें?" हांव सगळें जाणां! आतां असले तरेचे फ्रेमींची फॅशनूय उरूंक ना. आतां भौस वॉक्लां, फ्रेमी वापरता त्यो वेगळे तरेच्यो. दोळ्यांपुरत्योच, माणकुल्यो, फुलांपाकळ्यो कशो.

हांव वापरतां ती फ्रेम काळी, चौक, गालांच्या खुब्या कडल्यान भुंवयां मेरेन पुराय कव्हर करपी. ताचे कान मेटलाचे. एका तेंपार असले तरेच्योच फ्रेमी भौस वापरताले. फॅशन तेन्नाची. म्हज्या गोऱ्या गुलगुलीत चेऱ्याक सोबताली ती. आतांय सोबता, पूण पळोवंक नदर जाय!

ही फ्रेम घडये पोरणी जायतूय, पुणून हाचे फाटल्यो यादी अजून पोरण्यो जावंक नात. सुजातान दिल्ली फ्रेम ती. भेट म्हूण, एक यादस्तीक म्हूण. तें अमेरिकेक वतना हांव मुजरत ताका मेळूंक गेल्लों. तेन्ना हांवें ताका म्हजें तें पेन दिल्लें. सुजाताक दोन गजाली आवडटाल्यो. बरे बरे कपडे आनी तरेतरेचीं पेनां.

म्हजेलागीं स्टीलाची टॉप आशिल्लें एक काळें बॉल पेन आसलें. ताका तें भोव मानवल्लें. ताणें सदांच तें पेन घेवन मटाळप. म्हणप, "म्हाका बरेंऽऽ मानवलें हें पेन!"

तें पेन म्हाका म्हज्या काकान धाडून दिल्लें. मोगान, बर्थडेची भेट म्हूण! हांवें फाटलें फुडलें चड चिंतूंक ना. सुजाताक मानवल्लें तें म्हूण तेंच दिवचें थारायलें. ते भायर सदांच वापरची वस्त , म्हणटकीर ताका सदांच म्हजी याद जातली हें येवजून हांवें दिल्लें. आनी ताणें भोव खोशयेन तें स्विकारिल्लें.

"सद्या तुका दिवं सारखें म्हजेलागीं कांयना. पुणून अमेरिकेंत पावतकीर हांव तुका एक अशी वस्त धाडटलें, जी सदांच तुजेवांगडा आसतली. म्हजी याद म्हूण! वापरतलो मुरे ती? म्हजेखातीर तरी वापरचीच पडटली!" "वापरतलों," हांवें उतर दिल्लें.

अमेरिकेंतल्यान मागीर ताणें म्हाका ही मड्‌ड्श्न अमेरिका वॉक्ल फ्रेम धाडिल्ली. हांवें रोखडेंच तातूंत म्हज्या नंबराचे ग्लासेस् बसोवन घेतिल्ले. म्हाका ती भोवच मानवल्ली. सुजाताची याद म्हणून चड! हांव बी. एड्. करतना सुजाता म्हजेवांगडा शिकतालें. ताचें घर बाडां. गिरेस्त बापायची धूव. तिवूय एकलीच. दोगां भावांची मोगाची भयण. कांयच कमी नासलें.

दिसूंक सोबीत. कोणालेय नदरेंत भर सारखें. ऊंच, एक शिवडी, गोरें. केंस भुजामेरेन. ते खंय कापून तेदे केल्ले. हरशीं ताचे केंस बरे लांब आसले अशें तें म्हण. सभावानूय भोव बरें आसलें. एक फावट कितें जानें, सुर्वेकच तें! कॉलेज सुरू जावन एक सप्तक लेगीत जावंक नासलें. ताका एज्युकेशनल सायकॉलॉजीचें पुस्तक जाय आसलें. आनी म्हाकाय जाय आसलें. आमचे कॉलेजींत एक कायदो आसलो. लायब्रींत पुस्तकां मोजकींच आसतालीं आनी भुरगीं सुमारा भायर. आमची बॅच पुराय एकशें पांच भुरग्यांची आसली. म्हणटकीर खंयचेंय पुस्तक जाय आसल्यार तें बूक करचें पडटालें. आदीं जो आपलें नांव दिता ताका पुस्तक पयलें मेळटालें.

हांवें तें पुस्तक सुजाताचे आदीं बूक केल्लें. हांवें जेन्ना तें बूक केल्लें, तेन्ना थंय रजिस्टराचेर कोणेंच तें बूक करूंक नासलें. आनी तीं पुस्तकां ज्या ज्या भुरग्यांनी व्हेल्लीं तातूंतलो एकटो तें पुस्तक आनीक चार दिसांनी परत करपाचो आसलो. बाकिच्यांच्यो तारखो उपरांत आसल्यो. चार दिसांनी हांव पुस्तक काउंटराचेर गेल्यार लायब्ररियन म्हणटा, "हांवें तें पुस्तक सुजाता सावंताक दिलें."

हांवें म्हणलें, "सुजाता सावंतान हें पुस्तक बूक केलें केन्ना?" हाचेर लायब्रेरियन तें.. तें.. पें.. पें.. करूंक लागलो. ताचे लागीं जाप नासली. सुजाताचो बापूय कॉलेजीचो फाउंडर मेंबर. तेभायर कॉलेजीचो प्रेसिडेंट आसलो. कॉलेजींतले कर्मचारी सुजाताची इत्सा नासतनाय ताका फावोर करताले.

त्याच वेळार सुजाता लायब्ररींत थंयच तें पुस्तक घेवन बशिल्लें. घडये तेन्नाच ताणें तें पुस्तक घेतिल्लें. हांवें मुखार वचून म्हणलें, "मिस् सुजाता, तुवें हें पुस्तक केन्ना बूक केल्लें?" "कित्याक म्हणटा तूं?" "न्ही, हांवें जेन्ना हें बूक केल्लें, तेन्ना रजिस्टरार कोणेंच बूक करूंक नासलें. तरी आसतना हें बूक म्हजे आदीं तुका कशें मेळ्ळें?"

तें कितें समजुपाचें तें समजलें. तडक उठलें, लायब्ररियना म्हऱ्यांत काउंटरार वचून रजिस्टर तपासलें. "हें पुस्तक ताका दी!" पुस्तक काउंटरार दवरीत ताणें म्हणलें. ताच्या त्या वागपान हांव सुखावलों. बरेंऽऽ दिसलें. भुरगें बरें हें! "आतां घेयिल्लेंच आसा. आसूं तुजेलागीं. मागीर हांव घेन!" हांवें म्हणलें. "ना,ना! तुजोच अधिकार पयलो." ताणें सांगलें.

सुजाताच्या सभावाची ही पयली वळख. हांवें तेन्ना ताका म्हणिल्लें, बेठेंच, "तुजी रास तूळ बी न्ही मू?" "कित्याक?" "तुजो सभाव न्यायी.

रामशास्त्री प्रभुणे भाशेन. तेवूय तूळ राशीचे आसले. अशें म्हणटात, तूळ राशीचीं मनशां खंय सदांच न्यायान वागतात. तूं वागलें तशें!" "हुशार मुरे तूं! म्हजी रास तूळच!"

खरें म्हणल्यार म्हाका राशीभविश्याचें मात लेगीत गिन्यान ना. ना हे गजालीचेर विश्वास! खंयतरी वाचिल्लें. दिलें तोपून! आमी दोगांय एकूच ग्रुपांत आसलीं. दोगांयचे विशय एकूच सारखे. इंग्लीश आनी हिस्टरी. दोगांय बी. ए.क इंग्लीश मुखेल विशय घेवन पास जाल्लीं. मात दोगांयचेंय शिकप विंगड विंगड कॉलेजींनी आनी विंगड विंगड सुवातींनी. हांव सदाशिवगडार, जाल्यार तें कुमठा.

पयलेच फावट दोगांय हे कॉलेजींत एकमेकांक मेळटालीं. तें म्हाका लागीं जावंक लागलें. तेवूंय शिकूंक हुशार आसलें. आमचे दोगांयचे मदीं खूब सारखेपण आसलें. तेंवूय म्हजे भाशेन खेळपी गडी आसलें. खो-खो चें चँपियन! जनरल नोलेजय म्हजे वरीच, सुमारा भायर बरी! दोगांय वांगडा कॉलेजी वतीन क्वीज काँटेस्टापासत वयतालीं.

एकमेकांक नोटस् दिवप. वांगडा अभ्यासाचेर चर्चा करप. वांगडा कॉम्पिटिशनाक वचप. हातूंतल्यान दोगांयचीय इश्टागत सुमार इतली घट्ट जाल्ली आनी ते इश्टागतींतल्यान म्हज्या काळजांत एक नांवहीण नातें किल्लूंक लागिल्लें. त्या नात्याक जुस्त खंयचें नांव दिवप हें नकळ. त्या नात्याकच जर मोग म्हणटात जाल्यार हांव ताचेर मोग करतालों म्हणूं येता.

ताकाय हांव मानवल्लों, हें ताचे दोळे, ताची बॉडीलेंग्वेजच सांगताली. पुणून तें म्हजेर मोग करतालें काय ना हें हांव सांगूंक शकचों नासलों. ताणें केन्नाच 'तूं म्हाका मानवता' वा 'हांव तुजेर मोग करतां' म्हूण

म्हाका सांगूंक ना. म्हजोय काळजांत किल्लल्लो मोग ओंठांतल्यान भायर सरूंक ना. तश्यो आमच्या दोगांयमदीं कसल्योच आडखळयो नासल्यो. दोगांय एकमेकांक सोबसारखीं आसलीं. दोगांय एकूच जातींतलीं आसलीं. ताच्या बापाय इतलोच म्हजो बापूयय बी गिरेस्त आसलो. आमी तर खानदानाचे भाटकार!

पुणून ना! दोगांनीय मोग उक्तो करूंक नासलो. आमच्या दोगांय मदीं आनीक एक सारखेंपण आसलें, आनी तें म्हणल्यार दोगांय भरतनाट्यम् जाणां आसलीं. आमी दोगांनीय गॅदरिंगे दिसा राधा-कृष्ण आख्यान सादर केल्लें. दोगांय स्वताक विसरून माचयेर राधा-कृष्ण जावन वावुरलीं.

हांव तर दोन दीस त्या मुडांतल्यान भायर सरूंक नाशिल्लों. तकलेंत राधेच्या रुपड्यांतलें सुजाता नाच नाच नाचतालें. म्हजें काळीज हालयतालें. शिरंतरांनी रिगतालें. धूंद मनभुलायणे खीण.

वर्स कशें आनी केन्ना गेलें कळ्ळेंच ना! सेंडऑफ जालें. परिक्षा जाली. आमचें सगळ्यांचें कॉलेजींत वचप बंद जालें. सुजाताचे केन्ना-केन्नाय फोन येताले. हांवूय फोन करतालों. फकत कॉलेजींतल्यो यादी आनी कांय कांय ना! कांय ना म्हणल्यार कांयच ना! एक दीस सुजाताचो फोन येयलो. "म्हजें लग्न थारलें. चलो इंजिनियर. अमेरिकेंत आसता."

आयकून तकली भेरेली. सुमार दीस भेरेल्लीच उरली. जेवण-खाण गोड लागूंक ना. पुरायच चुकिल्ले चुकिल्लेवरी दिसतालें. व्हींवळीकपत्र दिवंक सुजाताच येयिल्लें. ताचें व्हींवळीकपत्र वाचतना कितेंशेंच जाल्लें. "लग्नाक योच हां! योच्च हां!" परत-परत सांगून गेलें. हांव लग्नाक गेलों. लग्न बरें भाशेन जालें. ताका घोव फावो सारखो मेळ्ळो. घर बरें मेळ्ळें म्हूण म्हाका भोव खोस भोगली जाल्यार काळजाच्या एका कोनशांत खंयतरी रडलों. कित्याक रडलों? हें सांगूंक जावचें ना! रडलों खरों!

लग्नाउपरांत सुजाता रोखडेंच घोवा वांगडा अमेरिकेंत वचूंक ना. ताचो पासपोर्ट बी रेडी नासलो देखून. केन्ना-केन्ना फोन करतालें. हांवें मात केन्नाच उपरांत हांवें जावन फोन करूंक ना. म्हाका बरें... दिसलें ना. मजगतीं एक फावट मेळूंक येयलें. आईन दिल्ली च्या पिलें आनी हेवटेच्यो तेवटेच्यो गजाली करून गेलें. सोयऱ्यांगेर येयिल्लेवरी!

आमी दोगांय बऱ्याभाशेन बी. एड्. पास जाल्लीं. म्हाका फुडें एम्. एड्. करचें आसलें. देखून हांवें एम्. एड्. कॉलेजींत कारवारा एडमिशन घेयली. आनी मागीर थंय कॉलेजींत घुस्पलों. सुजाताचो फोन केन्ना-केन्ना येतालो.

एक दीस ताचो असोच फोन येयलो. "हांव अमेरिकेक वतां." आयकून काळजांत कितेंशेंच जालें. हें अशें कित्याक जालें हेंवूय म्हज्यान सांगूं नजो. तें अमेरिकेक वचचे वेळार हांव मुजरत ताका मेळूंक गेलों. तें पेन म्हजी याद म्हूण दिवन येयलों. ताणें मागीर अमेरिकेक वतकीर म्हाका ही वॉक्ला फ्रेम धाडिल्ली.

उपरांत मात दोगांयचो कॉन्टेक्ट जालो ना. हांवेंच ताका वतना म्हणिल्लें, "तूं आतां हेराची बायल जालां. म्हाका आवडचेंना तें! केन्नाय गांवांत आयिल्ले तेन्ना कर फोन, नातर मेळ म्हाका." हांवें हें अशें कित्याक म्हणलें, हांवच नकळो. आनी ताणेंय म्हजें आयकल्लें. म्हजें शिकप जातकीर हांव गोंयां आयलों. शिक्षक जालों, हांगाच सेटल जालों. लग्न जालें, भुरगो जालो. आनी हांव पुरायेन हांगा गोंयकार जालों. गांवाकडलें नातें इल्लें-इल्लें करून उणें जावंक लागलें. आई गेल्या उपरांत तर पुराय तुटलें म्हणल्यार अतिताय जावची ना. घराक कुलूप लावन येवचें पडलें.

गांव पयस जातकीर सुजाताची वासपूसय पयस जाली. म्हजो

कॉन्टेक्ट पुरायेन बंद जालो ताचे लागीं. ल्हव-ल्हव करुन म्हजे तकलेंतल्यान सुजाता इल्लें-इल्लें पुसत गेलें. लग्ना उपरांत सुजाताचें कितें जालें? ताका कितलीं भुरगीं जालीं? जालीं काय ना? आतां तें खंय आसा? म्हाका कांयच खबर कळ्ळी ना. केन्नाय गांवांत गेल्यार, तसोच कोणीय मेळ्ळ्यार सुजाताची वासपूस करतालों. अशेच एके वासपुसेंतल्यान म्हाका कळ्ळें, तें फाटल्या तेंपार गांवां आयिल्लें तेन्ना म्हजी चवकशी करतालें. हांव खंय आसा, बी म्हण विचारतालें. म्हजो कॉन्टेक्ट नंबर बी मेळवपाचो यत्न करतालें.

पुणून दोगांय कशींच कॉन्टेक्ट करुंक शकलीं नासलीं. असोच सुमार तेंप गेलो. हांवें ताची ती वॉक्ला फ्रेम सुमार तेंप वापरली. मागीर नवी फॅशन आयली. गोल फ्रेमीची. महात्मा गांधी बी घालताले तसले फ्रेमीची. हांव तसली फ्रेम वापरुंक लागलों. सुजातान दिल्ली फ्रेम हांवें आलमारींत दवरली. याद न्ही ती!

असोच एक दीस गांवांत गेल्लों. आमचो वर्ग इश्ट सुरेश नायक मेळ्ळो. तो बाडचो. सुजाताच्या बापायच्या घरा कडलो. हांवें सुजाताची वासपूस केली. सुरेश नायक म्हणूंक लागलो, "तुका खबर ना?" हांवें म्हणलें, "कितें?" "सुज़ाता इज नो मोअर!" "आं?" हांव आंच्च उरलों. "हय! गेलें तें! भायर पडलें! ब्लड कॅन्सर जाल्लो. घोवान खूब यत्न केलो वांचोवन घेवचो. पुणून ना! गेलेंच! एक वर्स जालें. खबर ना तुका न्ही? तुजी आनी ताची इश्टागत बरी चलताली कॉलेजींत!"

म्हाका कितें उलोवचें म्हूण कळ्ळें ना! तकली भेरेल्ली. आंगांतल्यान कितेंतरी गळून पडिल्लेवरी जाल्लें. सुजाता वचून एक वर्स जालें, आनी हांव नकळो. माय गॉड!

हांव गोंयां आयलों. आल्मारींतल्यान सुजातान दिल्ली ती फ्रेम

सोदून काडली. पर्थून तातूंत म्हज्या आतांच्या नंबराच्यो ग्लासी बसयल्यो. आनी वापरूंक लागलों. सुजाताची इत्सा आसली, हांवें ती सदांच वापरची म्हूण. हांव ती वापरतां. ती आउटडेटेड जावन लेगीत वापरतां. सुजाताच्यो यादी आउटडेटेड जावंक ना देखून! सुजाताच्यो यादी म्हाका विसरायेर घालपाच्यो नासल्यो! आनी ना!

***

# निमणो संस्कार

निमाणेकडेन तो दीस येयलो....

मेरी आण्टी भायर पडली. अवचीत काळजाच्या आताकान. घरांतल्यान भायर कित्याक नेणो येयिल्ली. थंयच आंगणांत उमथी पडली.

सकाळीं णवांसुमार.

पडवेंत भाड्यान रावपी मास्तरा बायलेन चयलें. धांवत येवन हालयल्यार हां ना हूं ना।

रोखडोच दोतोराक आपयलो.

दोतोर पावलो, तेन्ना आण्टीक वासरेर एके शेंदरेर उदारी न्हिदयिल्ली. नाडी चयन, दोतोरान आण्टी भायर पडली म्हूण सांगची गरज नासली. ती गेली म्हणपाची वार्ता येन्ना गांवभर पातळूंक लागिल्ली.

दोतोरान चयलें, कोण-कोण येवन आण्टीचेर नदर घालून वयताले. पुणून कोणूच थंय उबो रावून आतां फुडें कितें करूंया? चवकशी करी नासलो. फुलां हाडटाले, उजवात्यां पुडेय थंय पडिल्ले आसले. फुडें सरपी मात कोण नासलो.

हें अशें जातलें. हाची दोतोराक जाणीव आसली.

आण्टीनूच दोतोराक सांगिल्लें...

आण्टील्या भायेसाल्या पुतान म्हणिल्लें खंय... पुतण्यानूच कित्याक, पुराय सोयऱ्यां-संबंधिकांचें मत तेंच आसलें. "हिचें मेल्या उपरांत कितें जातलें? निमणो संस्कार करूंक कोण फुडें सरतलो?"

भोव वायट दिशिल्लें खंय आण्टीक हें कळना फुडें. तिच्या मोव मनार पडिल्लो निश्टूर घायो आसलो तो! कसोच पेखना आसलो. पेखपाचोय नासलो.

हें सगलें सांगताना आण्टी नेण्ट्या भुरग्यावरी रडिल्ली. तिच्या दोळ्यांत एक नांवहीण रितेपण जाणवतालें. निराधारपणाची भावना झळकताली. एके नांवहीण खंतीन आदींच बाविल्लो चेहरो चडूच दुख्खी जाल्लो.

तेन्ना दोतोरान तिका थातारत म्हणिल्लें, "हुस्को करचोच आसल्यार जिणेचो करचो आण्टी, मर्णाचो कित्याक करूंक जाय? मेल्याउपरांत संवेदना आसतात कोणाक? फाटल्यान कुडीचें कितेंय जायना कित्याक?"

आण्टी दोतोरालीं हीं उतरां पर्थून पर्थून याद करताली. आनी मनाक उसणें थातारताली. पुणून तें खिणापुरतेंच आसतालें. पर्थून तो उगडास तकली वयर काडटालो... दुस्माना वरी सतायतालो.

दोतोरान कितलेंय सांगलें तरी आण्टी जाणा आसली, मर्णय एक जिणेचोच भाग. तिका दिस, 'खोऱ्यांनीच कोण कोत्तलो म्हुजें मोर्ण उपरांत? मोडें अशेंच कुसचेंना मूं? सोगळीं नातीं तुटल्यांत. म्हुजे सारकें एकटें एकसुरें कोण नासुंये ह्या संवसारांत! खुंयच ना तर, देवाकोडेन तोरी मोनशाचें नातें आसता! म्हुजें थंयूंय ना!'

एकेक फावट न्हिदिल्ले कडेन तिका सपन पडटालें. आपूण मेलां.

कुडींत एकटेंच मडें पडलां. कूड भर कुशिल्ल्या मड्याची बुट्टान पातळल्या. कोणूच मड्याच्या फुड्यांत येना, फकत दक्क चयतात. इतल्यान एक धिप्पाड, कातीन काळो मनीस मुखार येता. मड्याच्या एका दोक्याक धरता आनी भिरकटोवन भायर मारता. मडें गायरीतं वचून पडटा, इतल्यान एक गीद येता. आपले लांब चोंचीन मड्याचे दोळे चोंचोवंक लागता...

मागीर आण्टी किळांच मारून उठ्ठाली. आपूण मरूंक ना म्हणपाची खातरी करून घेताली.

आण्टी पासत हो एक हुसको जाल्लो.

मनशाचो सभावच तो. तो आपले जिणेचोच हुसको करता म्हणप फटीचें, ताका आपल्या मर्णा उपरांतचोय हुसको आसता.

आण्टीक भुरगीं-बाळ कोण नासलीं.

तिचे घोवा गेरच्यालें म्हणणें आसलें, देव-धर्म नाराज आशिल्ल्यान तिका भुरगीं जावंक ना!

घोव भायर पडून तीन वर्सां जाल्लीं.

घोवान, अनंत मास्तरान केन्ना आपल्या मर्णाचो हुसको करूंक नासलो. गरज नासली. तेन्ना तो प्रस्न उप्रासूंक नासलो. अनंत मास्तरानय केन्ना या विशयार चिंतूंक नासलें.

हो विशय मतींत येयल्यार, सेर्त मास्तर हाचेर उपाय येवजून दवरता आसलो.

मास्तर तशें खयच्याच गंजालीं मुखार तकली बागवपी नासलो.

तो भायर पडलो, तेन्ना घरच्यांनी मडें व्हरून मसुंडेर जळयल्लें. आण्टीक मुखार घेनासतना धर्म-रिती-भाती प्रमाणें पुराय -पुराय संस्कार केल्लें. एकवटींत देव-देव करून मुक्ती दिल्ली.

घरच्यांले, सोयऱ्यांलें, गांवभावांलें, सगळयांलेंच मत आसलें, दादल्यान खंयचेय हेर जातीचे, धर्माचे अस्तुरे कडेन संबंद दवरलो म्हणून तो बाटना.

दादलो बाटना, मागीर बाटता कोण? फकत बायलोच? हाचेर येवजुवप त्या समाजांत केन्ना जालेंच नासलें.

त्या समाजांतल्या दादल्यांनी पुर्विल्ल्या जमान्यांत हेर जातीचीं बायलां नायकीण म्हूण दवरून घेयिल्ल्यो जायत्यो देखी आसल्यो. इतलेंच न्हू, तांका भाटां दिल्लीं. बायलेचें करता तें पुराय तांचे पासत करप जांतालें. फकत तांच्या भुरग्यांक आपलीं नांवां लावंक दिनासले. त्या भुरग्यांक हांच्या भुरग्यांक मेळपी मानय मेळनासलो.

हे करणेचेर कोण जाप क़ाडिनासलो. उरफाटें हें एक व्हडपण मानताले.

...आनी तेंच बायलांनी केल्यार?

पंढरी बायलेन अशें केल्लें. बाबड्यालो घोव लग्न करून हाडिल्ल्या स म्हयन्यांनीच सोरपान चाबून सोंपिल्लो.

ऐन पिरायेंतलें खतखतपी जुवानपण. कितले दीस चिड्डून दवरतली आपली भावना? निमाणे कडेन मनीसच न्हू!

घोवागेरच्या भाटांत घोळूंक एक मानाय दवरून घेयिल्लो. भाटांत इल्लेंशें खोपूट काडून रावतालो. भायलो तो. ही ताचे भितर घुस्पल्ली. जेन्ना घरच्यांक कळ्ळें, तेन्ना घरच्यांनी आनी वाड्या वेल्यांनी त्या मानायाक येतिश्ट बडयलो. कमर मोडून उडयलें. हिकाय सोडूंक ना. हिणें सोंसूं नजो जावन, वचून बांयंत उडी घेतली. तिका बांयंतल्यान भायर काडून वांचवचो तरास कोणें घेंवक ना.

हाचे उपरांत खंयचेच अस्तुरेक वा चेडवाक अशें वागची छाती जावंक ना.

अनंत मास्तरान मेरी आण्टीक दवरून घेवंक नासलें. लग्न केल्लें

कायदेशीर. घरचीं, सोयरीं हें लग्न मानूंक तयार नासलीं.

आण्टी किरिस्तांव. मास्तर हिंदू.

कुमठेची ती. मास्तर थंय एकेप्रायमरी शाळेंत शिकयताले. शाळे मुखारच मेरी आण्टीलें घर आसलें. दोगांयचो मोग पेटलो.

हे आदी अशी आंतर धर्मीय व्हारडीक ह्या वाड्यावेल्या कोणेंच करूंक नासली. थोडो विरोध आनी आडकाठी जावंक ना! फकत लग्नाचीच गजाल, चर्चा! 'व्हरची बुध्द येयल्या! हुंवाळून उडोवंक जाय असल्यांक! जात-धर्मांतल्यान भायर काडून दवरूंक जाय!' असलीं जायतीं उलोवणीं वाड्या वेल्यांनी केलीं. पुणून मास्तरान कानामनार घेवंक ना.

मास्तराचें मत आसलें, जात -धर्म हें मनशान केलां. देवान न्हय आनी सैमानय न्हय. मनशां-मनशां मदीं वांटे घालप आपल्याक मानवचें ना.

सगळयांची म्हणणी आसली, अनंतान मेरीक दवरून घेयल्यार जातालें. लग्न जावंक नजो आसलें, जाल्यार अनंत मास्तराच्या घरच्यांनी सगळयांक निव्वळ सांगलें 'अनंत आमगेलो. ताका आमगेलीं दारां उक्तीं आसतलीं. त्या हुंवाळिल्ल्याक मात आमी दारांत उबी करून घेवचीं नात! तिगेली सावळी सुदीक आमचेर पडूंक दिवचीं नात!'

आनी खऱ्यांनीच मेरी आण्टीक मास्तराल्या घरच्यांनी दारांत उबी करून घेवंक ना.

चवथीक नवे व्हंकलेन गणपती मुखार वांयणां पेटयचीं आसतात. घरच्या रितींतलो एक मान तो. अनंतमास्तरान घरच्यांक म्हणलें मात, 'मेरी देवा मुखार वायणां लावंक येतलें....' मास्तराचीं उलोवणीं पुराय जावंक सुदीक घरच्यांनी दिवंक ना. 'तिका हांगा हाडल्यार पांयांची ताती

हाणटले. गोमटी कातरून उडयतले.' म्हूण धेंगसो घालो. मास्तर हें आदींच जाणां आसलो. देखून ताणें लग्न जावनय मेरीक गांवांत हाडूंक नासलें. ताका हांगा हाडलें आनी घरच्यांनी कितेंय उलोवन नाराज केल्यार?

गांवचे देवीजात्रेक नवे व्हंकलेन दिवज पेटोवचें आसता. वायणां पेटोवंक मेळूं ना, दिवज तरी पेटोवंक मेळटा काय चया म्हूण मास्तरान देवळाच्या मक्तासुरा कडेन हें उलयलें. मक्तासुरानय सांगलें, 'ह्या गांवचे लोक मानून घेवंचे नात. तुका हां म्हणप म्हटल्यार असल्या गजालींक झेल चडयिल्ले वरी जातलें. आमचे तरनाटे मागीर हें अशें केल्यार चलता अशें धरून चलचे नात? तुका हयकार दिवप म्हणल्यार, गांवच्यो रितीं रुढी बुडोवंक हयकार दिल्ले वरी!'

मास्तरान एकवटीत वातावरण चयन मनांत थारयलें, मेरीक गावांत रिटायर जाले उपरांत हाडप. तेंवूय तिची रावची व्यवस्था करुनच. आनी केलेंय तशेंच! आदीं भावाकडल्यान बदीक-भाटाचो वांटो मागून घेयलो. वांट्याक येयिल्ल्या एका बागा कुडक्यांत एक घर काडलें आनी मागीरच हाडलें तिका.

मेरी आण्टीक वाड्यार हाडटकीर वाड्या वेल्यांनी थोडो बोवाळ करूंक ना!

ह्या वाड्यार हेर धर्मांच्या मनशांक वसती ना, असो एक भौसालो घट्ट पुर्वजा साकून चलत येयिल्लो समज आसलो. ह्या वाड्यार देवमठी आशिल्ल्यान तो! देखून भौस केन्ना वर्गा-वर्गी जावन येयिल्ल्या, हेर धर्माच्या लोकांक, भाड्यान सुदीक त्या वाड्यार दवरनासले.

आनी अशें आसतना, अनंत मेरीक हाडून हांगां कायमचो वसतेक दवरता म्हणल्यार...?

सुर्वेक वाड्या वेले बोवाळ-बोवाळ-बोवाळ्ळे. मागीर शेळेले. सुणें भोकून भोकून जाम जातकीर कशें मागीर कूंय्र कूंय कूंय करत ओग्गी पडटा, तशे ओग्गी पडले.

वाड्यावेलीं ओग्गी पडलीं म्हूण अनंत मास्तराल्या घरचीं ओग्गी पडूंक नात. 'हेर धर्मांतल्या चेडवा वांगडा लग्न जावन घराब्याक काळों लायलें तें लायलें, आतां वाड्या वेल्यांच्या हड्यार हाडून बसयल्या. देव-धर्म कोपतलो',अशें जायतें उलोवंक लागलीं. मास्तरालो व्हडलो भाव जितो नासलो. पुणून ताचो पूत पुरुस -पुरुस भर ऊंच हुडूंक लागलो. वचत थंय सांगूंक लागलो, "काकान तिका हाडून आमगेल्या हड्ड्यार बसयल्या. ती कशी वाड्यार तिगता हांव चयतां"! आनी हेर सगळे तो सांगता तें सारकें म्हण तकली हालयताले.

तातूंतच गांवांत रावंक येयिल्ल्या वर्सा भितरच अनंत मास्तर आताकान भायर पडलो. अचकीतच गेल्ल्यान सगळे म्हणूंक लागले, " देव -धर्म उरफाटें, रुढी-परंपरे उरफाटें केल्यार अशेंच जावचेलें!"

मास्तर भायर पडत सावन आण्टीक त्या वाड्यार जियेवप सामकें कठीण जावंक लागलें. ना थंय कोण मायेमोगाचो, ना आधार करपी. उरफाटें वचत थंय किंकोंत नदरेन चवप, उणाक लेखप. मेतेर करुन घेवप ना. आण्टीक वाड्यार रावनय वाडो पयस -पयस आसलो.

तशे तिजे अशे पुराय संवसारांतच कोण उरूंक नासले. मास्तरा वांगडा लग्न जातकीर तिजे बापायगेरच्यांनी, सोयऱ्यांनी तिका पयस केल्लें. जण एकल्याक आपली जात-धर्म व्हड आसता. जात-धर्म लागना तो फकत मोग-माया, प्रेम ह्या गजालींक.

तिचो असो आतां धर्मय उरूंक नासलो. तिणें आपल्या धर्माच्यो

चाली-रुढी-रिती सोडून दिल्ल्यो. ह्या गांवांत चर्च नाशिल्ल्यान चर्चीत वचचोय प्रस्न नासलो. घोवागेरच्यांनी, सोयऱ्यांनी तिका आपणावंक नाशिल्ल्यान घोवाचो धर्मय पयस आसलो. तिजे कडेन उरिल्लो फकत मनीस ह्या नात्यान मनीस-धर्म!

ह्या गांवचोच विचार केल्यार, तिज्या घोवाचे इश्ट मास्तराक लागून केन्नाय घरांत येताले. मास्तर भायर पडत सावन तेवूय येवंचे बंद जाले. फकत रस्त्यार मेळल्यार हटकिताले, तेवूय दोन हात अंतर दवरून.

तिका लागीं करपी फकत दोन कुटुंबां ह्या गांवांत आसलीं. एक दोतोर बानावळीलें आनी दुसरें आण्टीले पडवेंत भाड्यान रावतल्या नायक मास्तरागेरचें.

दोनूय कुटुंबां मूळ ह्या गांवचीं न्ही. मास्तर अंकोल्यांतलो. बदली जावन येयिल्लो. पर्थून वर्गा-वर्गी जाली काय वचपीं. दोतोर होन्नावरचो. ताणें दवाखानो उक्तो केल्ल्याक पंदरा-वीस वर्सां जाल्लीं.

ही दोनूच कुटुंबां मेरी आण्टीक 'आण्टी' म्हणटालीं. हेरांली ती कोण लागनासली. आसलीच जाल्यार एक भायली, परकी, अनंत मास्तरान हाडून दवरिल्ली हेर धर्माची कोण तरी बायल.

आण्टीन दोनूय कुटुंबां कडेन बरेंपण दवरिल्लें. चड काळजाचें नातें दवरिल्लें दोतोरा कडेन. तिका प्रेसांवाचें आशिल्ल्यान पर्थून पर्थून दोताराकडेन वचप जातालें. आपल्या काळजांतल्यो गजाली तीं दोतोराक सांगून काळीज हगूर करताली. दातोराक तिजी काकूट दिसताली. देखून दोतोर तिजो मायेमोगाचो पूत जाल्लो. तिका जाय-नाका चयतालो. तिगेलो हुसको करतालो.

तिका खूब फावटी येवजतालें, पुराय भाट-बदीक विकचें आनी

पयस वचचें. मागीर घोवाली उतरां याद येतालीं, "मेरी, कितलींय संकश्टां येवं, भौसान विरोध करूं आमी हालचीं नांत. हो आमचो वाडो. आमी हांगाच मुळां रोवन उबीं रावतलीं. हांव भायर पडल्यार सुदीक तुवें फाटीं सरूंक फावना. येतल्या सगळ्या संकश्टांक तोंड दीत घट्ट उबें राव! पोक्री जावन धांव नाका!" हे यादीन तिच्या दोळ्यांत दुकां येतालीं. आपल्या घोवाल्या निर्धारामुखार, खरेंपणामुखार तकली बागयताली आनी हांगासरल्यान हालची ना ह्या निर्धारान जीण सारताली.

खांव-जेवंक उणें नासलें. घोवाली फॅमिली पेन्शन आसली. भाट आसलें. देवा म्हणल्यार पावपी दोतोर आसलो. पुणून 'तो हुसको' सतायतालो. आतां तर चडच सतावंक लागिल्लो.

जाल्लेंय तशेंच!

हरशीं भौस आप-आपलीं घरचीं मडीं आपल्या भाटाचेर जळयतालीं. आनी तें जळोवप भौशीक वाठारांत जातालें. आनी आतां कायदोच येयिल्लो, भौशीक वाठारांत हेरांक तरास जाता थंय मडीं जळोवप ना. म्हणटकीर भौसांनी थारायलें, एक मसुंडी बांदची.

गांवचे शिमेर, दर्यादेगेर कांय जाणांली रासवळ भूंय उपेग करिनासतना बंजर पडून आसली. ती भूंय भौमतान मसुंडे पासत उपेग करची थारायली. थोडी सरकारची मदत आनी उरिल्ले पयशे भौसान वर्गणी काडून निमाणें कडेन मसुंडी बांदली.

मसुंडी बांदूंक आनी ताची वेवस्ता दवरूंक हरेक घरांतल्यान पांयशीं रुपया वर्गणी एकठांय केल्ली. सगळ्यां कडल्यान पयशे घेयिल्ले पुणून आण्टी कडेन कोणच वर्गणी मागूंक येवंक ना. उरफाटें म्हणूंक लागले खंय, " ती आमगेल्या धर्माची न्हू! तिका-आमगेले मसुंडेंत सुवात

ना. तिगेल्या धर्माच्या लोकांक जळयनात. पुरतात. ते पासत सिमेंत्री आसता वेगळी!" उपरांत ताचेरुय भासाभास जाली. ती मरतकीर करतले कितें? आण्टील्या भायेसाल्या पुतान म्हणलें खंय, "तिका आमी देव-धर्मांत घेवंक ना. म्हणटकीर तिका जळवंचो प्रस्नूच येना. पुरुंया म्हणल्यार ह्या सामक्या सुपुल्ल्या गांवांत किरिस्तांव वसती नाशिल्ल्यान सिमेंत्रीय ना! तिगेल्या आवयगेरचे येवन व्हरूं मडें! नाजाल्यार कुसतलें घरांतच! हांव फुडें सरचों ना. कोणूच सरचो ना फुडें! फुडें सरून विलोव लायतले कशे...!" हाचेर सगळ्यांनी 'खरें' म्हूण तकली हालयली.

कोणेंतरी म्हणलें, "ग्रामपंचायतीन चवन घेवचें तें!"

"हय! रस्त्यार सुणें मरून बी पडल्यार ग्रामपंचायत विलोव लायना?" आनी मागीर खोखो करून हांसले. हें सगळें वाड्यावेले एकल्यान, आण्टीले पडवेंत रावतल्या नायक मास्तराक सांगलें. मास्तरान आण्टीक आनी आण्टीन दोतोराक सांगलें.

आण्टीन दोतोराक हेंवूय सांगिल्लें, " म्हुज्या मायगेरचीं सोयरीं कोणूच म्हाका लागीं कोरिनात. नोदोर घालूंक सुदीक मागनांत आनी म्हुजें मडें व्होरतलीं विलोव लावोंक?"

आण्टी चिंतताली, 'संसार खूंय पावलो आहा? आमी खूंय आहांत? जात-धोर्म -रुढी -परंपरा हातूंत घुस्पोन आमी मोनीसपोण काबार कोत्तात! जात-धोर्म म्हुणल्यार कितें? मोनशां मोनशां मदीं वांटे घालोंक केल्ल्यो वण्टी? काय मोनशांतल्या मोनीसपणाक दिका दाखोवंक केल्ल्यो वाटो!...म्हाका ही ख्यास्त कित्याक? हांव तुमगे धोर्माची न्हू म्हूण?'

तिका दिसतालें, मर्णा उपरांत आपलें मडें घरांत कुसतलें. हेरांलो

लागता, तसो मानान आपल्या मड्याचो विलोव लावचो, रस्त्यावेल्या बेवारशी मड्याभशेन जावचें न्हू! आनी ती न्हिन्नळटाली. निमाणें कडेन काळ्जांत धरना जावन हें सगळें तिणें दोताराक वचून सांगलें...

निमाणें कडेन गेली. वार्ता गांवभर पातळ्ळी. कांय जणांनी काना मनार घेवं ना.

जांणी घेयलें, तांचे मुखार होच प्रस्न, तिचो विलोव ह्या गांवांत लावप कसो आनी कोणें?... देखून कोण मुखार सरूंक तयार नासलो.

सगळे 'कितें करतात?' अशें येवजून येयिल्ले, पयस-पयस चोंब्या चोंब्यांनी उबे आसले, मजा चवंक उबे राविल्ले वरी!

फकत पडवेंत रावपी मास्तर गळसणिल्ले वरी भायर-भितर करतालो. मड्यां बगलेंत उजवाती पेटोवन लायतालो. तोंड येदेंशें करून आंग कवळून कुशीक उबो रावतालो. जशें कितें ताचीच आवय पिड्ड्यार जाल्या आनी विलोव लावंक फुडें कोण येना.

दोतोर येना फुडें ताणें रोखडेंच दोतोरा म्हर्‍यांत येवन म्हणिल्लें "दोतोर, कितें करूंया?" दोतोरान फकत ताच्या खांद्यार थापटिल्लें. तो मागीर ओगी राविल्लो.

आतां तो पर्थून दोतोरा म्हर्‍यांत येयलो. म्हणूंक लागलो, "दोतोर, आमकांच कितें तरी करचें पडटलें...!"

दोतोरान कितें तरी सांगूंक तोंड उगडटा थंय आसा, एम्बुलंसाचो आवाज येयलो. "ही चय, येयली. दोतोरान म्हणलें.

एम्बुलन्स दारांत येवन उबी जाली.

एम्बुलन्सांतल्यान धव्या कपड्यांतले लोक देंवले.

दोतोर ताकतिकेन मुखार गेलो.

तांचेलागीं दोतोर उलयलो.

मागीर मास्तरा म्हऱ्यांत येवन, ताच्या भुजार हात दवरून दोतोरान सांगलें, “मास्तर, आण्टीन आपली कूड दान केल्या. देहदान! हांवेंच तिका सांगून, मुखार सरून हें करून घेयिल्लें!”

***

# चार पावलां फुडें

एस्. एस्. सीक आसलो प्रितेश. पंदरा वर्सांय पुराय जावंक नासलीं. अजून दोन म्हयने उणेच आसले. वर्स फुकट वचनये म्हूण चार वर्सां धा म्हयन्यांर शाळेंत घाल्लो. शिक्षण खात्याची तशी मेकळीक आसली.

चवदा वर्सां धा म्हयन्यांर भुरग्याची मानसीकता पुरायेन पक्व जाल्ली नासता, हें कोणूय सांगूंक तांकतलो.

प्रितेशाची आवय शिक्षिका. भुरग्यांचें मानसशास्त्र जाणा जाल्ली. भुरग्यांक कशीं व्हड करचीं आनी कशे तरेन शिकोवचीं हाची जाण आशिल्ली.

तरी लेगीत हें अशें घडलें कशें? जण एकलो उकतेपणान उलयतालो.

ही गजाल आयकून हरेकान तोंडार हात घेयलो.

येद्याश्या कुस्कुटा येद्या कारणाक लागून अशें करप? खंय पावली हांची मानसीकता? हे गजालीचेर हांसप, रडप काय तिडक उकतावप?

आवय-बापायचो एकलोच पूत.

बापूय पसरकार. आज्या- पोंज्याचें व्हडलें भाट-बदीक. येणावळीक खोट नासली. कितेंच उणें नासलें. सगळे तरेची खोशी आनी सगळे तरेचें सूख घरांत नंदतालें. घराब्याची गिरेस्तकाय भरून ओतताली.

प्रितेशाक जाय तें, जाय तेन्ना मेळटालें. डॅडी-मम्मीचें सांगपूय तशेंच आसलें, जाय तें माग! मेळटलें! पूण, तुवें शिकूंक जाय! दोतोर ना तर विजनेर जावंकूच जाय! फकत शिकुंकूच न्ही, सगळ्या गजालींनी फुडें आसूंक जाय! हेर भुरग्यां परस चार पावलां मुखार!

आनी प्रितेशाची मानसीकताय तशीच तयार जाल्ली.

प्राथमीक शाळेंत तो सदांच पयलो येयलो. फकत शिकुंकूच न्ही, डॅडी-मम्मीचे इत्से प्रमाणें हेर गजालिंतूय मुखार. वक्तृत्व, कथाकथन, खेळ, संगीत सगळ्यांत मुखार.

कसलेय तरेची सर्त आसूं, हाका बक्षीस शेर्त. आवय तशी तयारीच करून घेताली.

हरशीं ताचे आवयन शिक्षिका म्हूण आपले शाळेंतल्या एकाद्र्या भुरग्याक खंयचेय सर्ते पासत तयार केल्लो कोणाक याद ना. पुणून, आपल्या भुरग्याक मुखार वचपाक जी जी गजाल लागता, ती ती गजाल मेळोवन दिवंक, जें जें करूंक जाय, तें तें करूंक ती केन्नाच फाटीं रावली ना. आनी हो भुरगोय आपले आवयचे इत्सेक पाळो दिवन, इल्ली सुदीक आळसाय करिनासतना, तितल्याच नेटान येत्न करून जैत हातासतालो.

'हो संवसार सर्तीचो! वचत थंय कॉम्पिटिशन! आपूण सदांच चार पावलां फुडें आसूंक जाय! सर्व्हायव्हल ऑफ द फिटेस्ट!' हो डॅडी-मम्मीचो मंत्र सर्वकाळ ताच्या कानांत घुंवतालो. शिरंतरांनी घोळटालो. आनी तसो तो तयारूय जातालो. घडटालो.

आपल्या पुताचो मळबाक तेंकिल्लो आत्मविस्वास आनी वांगडच्या हेर भुरग्यां परस चार पावलां मुखार चलपाची प्रगती पळोवन, आवय-बापायच्या मनाक थाकाय मेळटाली.

आपूण हेर भुरग्यां परस फुडें हे जाणविकायेन म्हणुंया, आपले घरचे गिरेस्तकायेन म्हणुंया वा हेर भुरग्यां परस आपूण बरो भोगपी हे जाणविकायेन म्हणुंया, प्रितेशा मदीं एके तरेचो गंड तयार जाल्लो. सुपिरियॉरिटी कॉम्प्लॅक्स! आनी वांगडाच आपूण येवजितां तशें जावंकूच जाय, तो आपलो सैमीक हक्क आनी अधिकार, अशी कितेंशी भावना ताचे तकलेंत घट्ट जाल्ली.

भुरगो सभावान मातसो मस्तो आनी उत्पाती. नमळाय म्हणटात ती खबरूच नासली. आपल्याक शिकयतल्या शिक्षकां कडेन सुदीक कशें वागप हाची जाणविकाय नाशिल्ली. ताका फकत एकूच गजाल खबर आसली. आपूण सदांच हेरां परस फुडें आसूंक जाय, आनी सगळ्यांनी आपल्याक तोखेवंक जाय, मटाळूंक जाय!

तो पांचवेक आपले आवयचे शाळेंत येयलो. राणे टिचरीचो पूत जाल्ल्यान पुराय शाळाच ताका मटाळटाली.

शाळेंत पावल दवरिल्ल्या दिसाकूच ताणें समीराक सांगलें, "तूं हुशार आसा मुरे? पळय, हांव कसो तुका फाटीं घालतां! समीर बाबडो ओगी रावलो.

समीर प्रितेशाच्या बापायच्या पसऱ्यार काम करपी एका कामदाराचो पूत. प्रितेशाच्या डॅडीन प्रितेशाक सुरवेकच सांगिल्लें, "हें पळय, तुजे वांगडा तुमचे शाळेंत म्हज्या एका कामदाराचो पूत येवचो आसा. समीर ताचें नांव. तोवूय भोव हुशार आनी चडश्या सर्तींनी वांटो घेवन बक्षिसां बी हाडपी अशें हांवें आयकलां. तो तुका फाटीं बी घालत! म्हाका लज करशीत! कामदाराचो पूत पात्रांवाच्या पुताक फाटीं घालता म्हणल्यार पात्रांवाक लज ती!

प्रितेशानूय घट्ट थारायिल्लें, कोणाचेय फाटल्यान पडल्यार कोंता येता, पुणून समीराचे फाटल्यान पडूंक फावना. डॅडीक लजेक घालूंक कसोच फावना. नेण्ट्या मनार बिंबयल्लो हो विचार अखंड मूळ धरून सासणाचो उरिल्लो.

आनी थारायिल्ले प्रमाणें ताणें बापायक लजेक घालो ना. तो वर्गांत पयलो येतालो. सगळ्या सर्तींनी बक्षिसां मेळयतालो. शाळे भितरल्या आनी शाळे भायल्याय.

समीरुय भोव हुशार. सामान्यज्ञान तोखणाय करी सारकें. सदांच कितें न्हंय कितें वाचत आसतालो. बेकार वेळांत लायब्ररींत हें चाळ, तें चाळ करत रावतालो. कथाकथन, वक्तृत्व, गायनांत बी बरो आसलो.

दोगांतूय व्हडलो फरक म्हळ्यार, प्रितेश पाठांतरार भर दिवपी, जबरदस्त तयारी करपी, जाल्यार समीर स्वयंप्रकाशी! समजून घेवन आपल्या उतरांनी मांडपी! समीराचे गूण शिक्षकाचे नदरेंत येवंकूच दोनेक वर्सां उलगलीं. ते मेरेन प्रितेशान हरेक गजालीर आपलो हात मारिल्लो. प्रितेशाल्या आंगांतल्या गुणांचो धोल तो शाळेंत येवचे आदींच ताचे आवयन शाळाभर वाजयिल्लो. खंयचीय सर्त म्हणली काय प्रितेंशाचें नांव सगळ्यांत पयलीं जिबेर येतालें. सर्ती आनी प्रितेश हें एक समिकरण जावन गेल्लें. समीराकूय संदी मेळटाल्यो, ना अशें न्ही! पुणून प्रितेशा मानान उण्यो!

प्रितेशा मानान समीराक उण्यो संदी मेळटात, हें हेर शिक्षकांचे मतींत येतालें काय ना, सांगूं नज. घडये मतींत येवनूय, आपले सहकारी शिक्षिकेचो पूत हे आपुलकेन ते ओगी रावताले आसुंये. शारिरीक शिक्षक सावंताचे मतींत मात ही गजाल आयले बगर रावली ना. तो सभावान न्यायी आनी तोंडान फटकळ. ताणें एक दीस स्टाफ रुमांत म्हटलेंच,

"समीर प्रितेशा इतलोच टॅलेंटेड आनी हुशार आसा. ताकाय तितल्योच संदी मेळूंक जाय! नातर ताचेर अन्याय केल्ले भाशेन जातलो!" हाचेर कोण कांय उलयलो ना. पुणून राणे बाईक हें खूब लागलें. तिणें घरा वचून पुताक म्हटलेंय. आनी हेंवूय सांगलें, "पुता, सावंतसराक दाखोवंक म्हण तरी तुवें फाटीं पडूंक फावना. निमाणे मेरेन तुवें फुडेंच उरूंक जाय!"

हेर दिसा प्रितेश शाळेंत येवन उकतेपणन म्हणूंक लागलो, "सावंतसर सांगता खंय, तूं म्हजे इतलोच हुशार म्हूण! तूं खंय लागता रे म्हाका? पळय मुरे, म्हजो नंबर सदांच पयलो. खंयचेच सर्तींत हांव तुज्या फाटल्यान ना! सदांच फुडें!" सावंतसराचीं उतरां राणेबाईच्या मनात तशींच खतखतत उरलीं. ती पुताकूय ह्या उतरांची याद दीत रावली. तशीच कांय दिसांनी 'रूरल टॅलंट सर्च' परिक्षा ज़ाली. राणेबाईन आपल्या पुताक असोऽऽ तयार केलो, सगळ्या वर्सांचे पेपर सोडोवन घेयले. ते भायर आपणें स्वता पेपर काडून सोडोवन घेतले आनी पुताक तालुका पातळेर पयलो हाडलोच. समीर दुसरो येयलो.

एक फावट आठवेच्या भुरग्यां खातीर तालुका पातळेर विज्ञान विशयाचेर निबंद लेखन सर्त आसली. राणे बाई सायन्स आनी गणीत विशयाची टिचर आशिल्ल्यान हेडसरान सर्क्युलर काडून तिचे कडेनूच दिलें. दोन भुरगीं धाडूंक जाय आसलीं. आदींच तीन विशय दिल्ले. भुरग्यांनी तयारी करून येवप. तातूंतल्या खंयच्याय एका विशयार बरोवंक लावपाचे आसले. प्रितेश आनी समीर हांचीं नांवां धाडप जालीं. राणे बाईन खंयच्यान खंयच्यान पुस्तकां सोदून तीन कास्ताचे निबंद तयार केले आनी पुता कडल्यान सामके तोंडपाठ करून घेयले. समीरा कडल्यान कोण करून घेतलो आशिल्लो? निमाणे कडेन जावचें तें जालेंच! प्रितेशाक तालुका पातळेर पयली सुवात मेळ्ळी. जाल्यार-समीरानूय तिसरो नंबर

घेतलो.

तालुका पातळे वेले गणीत विशया वेले 'टॅलंट सर्च' परिक्षेंतूय तशेंच जालें. राणेबाई स्वता गणीत विशयाची शिक्षिका आशिल्ल्यान तिणें पुताक बेस बरे तरेन तयार केलो आनी तालुका पातळेर पयलो हाडलोच. समीर हांगा दुसरो येयलो.

एक दीस स्टाफरुमांत बशिल्ले तेन्ना राणेबाईन सावंतसराक थोमणो मारलोच, "प्रितेश हरेक फावट सर्तीत पयलो येता म्हूण बरें आसा. नातर बाईचो पूत म्हूण ताका संद दितात अशें म्हणूंक लोक फाटीं उरचे नासले."

सावंतसर आयकूंक नाशिल्ले वरी करून ओगी रावलो. थोड्याच दिसांनी आनीक एक गजाल घडली. प्रितेश आनी समीर कथाकथन सर्तीक गेल्ले. थंय समीराक पयली सुवात मेळ्ळी आनी प्रितेशाक तिसरी.

राणेबाई सामकी अस्वस्थ. हेर बाई लागीं परती परती म्हणूंक लागली, "तुमकां कितें दिसता? कितें तरी गडबड जाल्या अशें दिसना? हरशीं शाळेंतल्या सर्तींनी सुदीक पळयलें ना तुमी? प्रितेश सदांच पयलो आसतालो. आतां दुसरो म्हणल्यार तरी जातालो. एकदम तिसरो म्हणटकीर कशेंशेंच दिसता!"

प्रितेशाच्यानूय तें सोंसूं नजो जालें. तो घरा येतकीर पर्थून पर्थून म्हणटालो, "म्हजें समीरा परस कितलेंशेंच बरें जाल्लें... म्हाकाच पयलें बक्षीस मेळूंक जाय आसलें." आनी मागीर समीरा कडेन तो दोन दीस उलयलो ना, समीरानूच ताचेर व्हड अन्याय केल्ले वरी. ते दोगूय णववेक आसतनाची गजाल. पयले मिडटर्म परिक्षेंत समीराक स मार्क चड पडले. प्रितेशाचेर आकांत. प्रोग्रेस कार्ड हातांत घेवन तो ओग्गी घरा येयलो.

शाळेंत कोणाच कडेन उलयलो ना. ज्या ज्या विशयांत समीराक ताचे परस चड मार्क मेळ्ळ्यात, त्या त्या विशयांचीं पुस्तकां तिडके सरशीं फरफरीत पिंदून उडयलीं.

राणेबाईकूय तें लागलें. केन्नाच पयलो नंबर सोडूंक नाशिल्लो प्रितेश पयलेच फावट फाटीं पडिल्लो. तिणें पुताक म्हणलें, "पळयलें मुरे? तुजो अभ्यास जावंक जाय तितलो जावूंक ना! अशें जावंक फावना! पयलो येतल्यान पयले सुवातेरच आसूंक जाय!"

पर्थून दुसरे परिक्षेंतूय तशेंच जालें. समीर पंदरा मार्कांनी पयलो येयलो. हे खेपे मात प्रितेशाच्यान अजिबात सोंसूंक जालें ना! हाणें कितें करूं येत? तिडके सरशीं आपली तकली डेस्कार आपटिली. उपरांत डेस्कार मूठ मारली. आनी मागीर सोमतो उठून समीरा म्हऱ्यांत गेलो आनी फट्ट करून ताच्या पोल्यार फुलयलें.

समीराक बाबड्याक कांयच समजलें ना. तो मोन्यांनी मुळूमुळू रडलो. पयलो येवन आपणें व्हड चूक केल्ले वरी.

समीर थंड सभावाचो, नमळायेचो भुरगो. कोणाल्या किजिलां केस्तांवांनी वचपी न्ही. आपूण फुडें-फुडें करपी न्ही. उरफाटो गोगलगायेवरी आपले पांय पोटांत ओडून ओग्गी रावपी. आपल्याचेर जाल्लो अन्याय मोन्यांनी सोंसपी. प्रितेशाचे बाबतींत तर तकली आनीक सकयल घालूनच वागपी. आपलो बापूय तांगेरचो कामदार हाची पुरायेन जाणीव आशिल्लो.

उरफाटो प्रितेश, तोंडान शार. आपुणूच व्हड म्हणपी. कोणालींच शाणेपणां आयकून घेवपी न्ही. आंगार धांवन वचपी. 'हांव सांगतां तें तूं आयक! तूं सांगता तें हांव आयकुचों ना!' ह्या सभावाचो. शाळेंत बाईचो पूत म्हूण भुरगीं ओग्गी रावतालीं.

त्या दिसा तो घरा वचून खुब्ब रडलो. आनी म्हणूंक लागलो, “हाचे उपरांत हांव केन्नाच पयलो नंबर सोडचों ना!”

राणेबाईकय ही गजाल सुमार इतली मनाक लागली. तिणें तिडकेन म्हणलेंच, “तूं गेलो रे फाटीं! तो आतां नंबर कसोच सोडचो ना! लज करता तूं आमकां!”

मागीर मात प्रितेशान रातीचे दीस करून कसोच पयलो नंबर सोडलो ना. णववेच्या वर्सा परिक्षेंत तोच दर वर्सा प्रमाणें पयलो आयलो.

प्रितेशाक हेरांचें व्हडपण कशेंच सोंसूंक जायना आसलें. नेण्टेपणा सावन ताची वाड ते तरेनूच जाल्ली.

धावेक आसतना शाळेचो हेडबॉय जावंक ताणें फॉर्म भरलो. आनीक एक वरूण म्हूण भुरगो आसलो. हुशार. चड करून खेळांत वस्ताद आसलो. भुरगीं ताकाच आमी निवडटलीं अशें उलयतालीं. हाणें कितें करूं येत? कांय भुरग्यांक चॉकलेटी, कांय भुरग्यांक पेन्सिली, पेनां बी वांटलीं आनी आपूण निवडून येयलो. जालोच हेडबॉय!

तो शाळेंत येत सावन पयले सुवाते वेलीं सगळीं बक्षिसां ताणेंच हाताशिल्लीं. तेका लागून, आपले परस हेर कोणच वयर आसूंक शकना अशें कितेंशें ताका दिसतालें. न्हय, ताचे तकलेंत तें मुळां धरून आशिल्लें.

प्रितेश धावेक आसतना ताची आवय राणेबाई तर पर्थून पर्थून ताका याद दीत रावताली, “हें पळय, स्टाफरुमांत लायिल्ल्या मॅरीटलिस्ट बोर्डार तुजें नांव येवंक जाय! पयलो येतल्याचेंच नांव थंय येता. आनी हेंवूय मतींत दवर, आमचे शाळेंतल्या ज्या ज्या शिक्षकाचे भुरगे हे शाळेंत शिकल्यात तांणी पयलो नंबर मेळयला. आनी तांचीं नांवां त्या बोर्डार आसात!”

बापायन याद करून दिवप, "पळय, समीरान दोन-तीन फावट तुका बुद्द शिकयल्या, म्हाका लज करशी!"

पुणून प्रितेशाक सामकी खातरी आसली, तो पयलो येतलोच! ताचो आत्मविस्वास मळबा येदो आसलो आनी ते प्रमाण तो दीसरात अभ्यासूय करतालो.

निमाणे कडेन एस्. एस्. सी. ची परिक्षा जाली. तो हरएक पेपर जातकीर समीराक विचारतालो, "तुवें हें कशें सोडयलां? तें कशें सोडयलां? अंदाजान तुका कितले मार्क मेळटले?"

आनी समीरूय बाबडो प्रामाणीकपणान सांगतालो. समीरान हाचे अपेक्षे परस चड मार्क आपल्याक मेळटले म्हूण सांगल्यार हाणें म्हणप, "हो मेलो रे, इतले मार्क मेळयतलो!"

आनी, रिझल्ट जालो तेन्ना, समीर निव्वळ सव्वीस मार्क चड मेळोवन शाळेंत पयलो येयलो. फकत शाळेंतूच न्ही तर तालुक्यांत पयलो येयलो. प्रितेशाचो खंय तरी णववो नंबर आसलो तालुक्यांत.

प्रितेशाक, ताचे आवयक आनी बापायक हें व्हडलें थापट आसलें.

त्या दिसा ताच्या घरांत मसण थंडाय पातळिल्ली.

राणेबाईक रावूं नजो जावन तिणें म्हटलेंच, "घालूंक लायली मुरे म्हाका तकली सकयल!"

"म्हाकाय लजेक घालो तुवें," बापायन म्हणलें.

प्रितेश ओग्गी जाल्लो. एके वटेन लज, एके वटेन दुख्ख, जाल्यार एके वटेन तिडक हांचो मिस्तुराद गोंदळ ताचे तकलेंत तांडव करूंक लागिल्लो.

सुरवेक आपली कूड बंद करून तो खुब्ब खुब्ब रडलो. मागीर ताणें तिडकीन आपलीं पुराय पुस्तकां आनी नोटबुकां फरफर करून पिंजून उडयलीं.

ताचे तक्लेंत पर्थून पर्थून येतालें, तो सगळ्यांक सांगतालो, "हांव फक्त शाळेंतूच न्हय तर तालुक्यांत पयलो येतलों!"

निमण्या सेंडऑफ दिसा ताणें उलोवप केल्लें.., "ही आमची ह्या वर्साची बॅच् शाळेक चडांत चड बरो रिझल्ट दितली आनी शाळेच्या मॅरीटलिस्ट बोर्डार पंचायंशीं टक्के सगळ्यांत चड टक्के आसात. हांव ताचे परस चड टक्के मार्कांनी पयलो येवन दाखयतलों..." आनी मागीर सगळ्यांनी ताचेर ताळ्यो मारिल्ल्यो.

हेडमास्तरान सुदीक मागीर आपल्या उलोवपांत प्रितेशाच्या आत्मविस्वासाची तोखणाय केल्ली.

पुणून जाल्लें उरफाटेंच! हें सगळें तक्लेंत येवन प्रितेशाची तक्ली भेरेल्ली! ते राती प्रितेश जेवलो ना. ना ताच्या आवय-बापायन ताका जेवपाचो आग्रो केल्लो. तिंवूय दोगांय जेवूंक नात...तांकांय सुमार इतलें काळजाक लागिल्लें.

ती रात तशीच मसण-थंडायेन, उपाशीं फाटीं सरली.

हेर दिसा सकाळीं उठून पळयल्यार प्रितेश हांतरुणार ना.

खंय गेलो हो...?

सोदासोद केली.

आवय-बापायचेर आकांत!

....निमाणे कडेन पळयल्यार बांयंत मडें हुबता!

***

# मठी

ग्राम पुरसा मठयेंतली बसका सोंपली.

गांवठण हाल्लें.

शंकरबाब कमराचो वालो सांबाळत उठलो. उठटना तेका पांय धरिल्लेवरी जालें. देवा, हांव जाणटो जावूं ना मू? मनांत येवजुवप जाता थंय आसा, खिणांतच मन थकिल्ले वरी दिसलें बेठेंच. इतले बेगीन जाणटो जावप म्हाका उपकारचें ना. चार भुरगीं गांठीक आसात. तीं मार्गाक लागता मेरेन रटें दण्णोंक जाय!

शंकरबाब भायर सरलो.

पांयांक चामड्याचीं जोतीं चडयतना तेणें पुरसा मठयेर नदर भोंवडायली. कित्याक हुसको करतात हे मठयेचो? मठी अजून खंय जीर्ण जाल्या? म्हगेर घरा मठयेक चयल्यार ही काय बरी! गव्ळेच पावसान दोन थेंबे जाल्यार भितर गर्भगुडी ना? पुरसाक काय थंडी जोर बादचो ना. तोच हेरांचो थंडी-ज़ोर पयस करता... गरजे भायर ताकतीक ही...

येवजणेंत तो चलूंक लागलो. तेच्या सांगात्यांक- गोंयदाक, सुक्रूक, कुशालीक- "येतां रे...!" म्हणचें धंगणय तेका उरूंक ना.

हेर दुगदगे उणे आसात म्हूण आयज एक नवो दुगदुगो तकलेंत वसतेक येयिल्लो. हुसको कुशीक काडून तकली हगूर करुंया म्हटल्यार

कर्जदारी कसो तकलेंतल्यान हालनासलो. सामको खुरमांडी घालून बशिल्लो.

मनशान इतलें भिजूड कित्याक आसचें? चार जणां मुखार तेणें आपली कथा आनी व्यथा मांडूंकय फाटी-फुडें करचें? घरांतली अब्रू चार वणटीं भायर वचूंक दिवं नये, ही मनशाची संकुचीत वृत्ती. एक फटकिरो हंब तो!

मागीर तेणें स्वताकूच विचारलें, तशें आसल्यार तुवें तेंकां सांगूंक ना कित्याक? घडये तेंकां तुजी काकूट येता आसली.

तो जाणा, खंयचोच मनीस तशें करिना. मनीस आयजवेर हो हंब घेवनच जियेला. आपली काकूट केल्ली कोणाक जाय?

तो हेंवूय जाणा, भायल्या वेव्हारा कडेन भितरलो हिशेब जुळ्ळो जाल्यारच मनीस तडीर पावता, नातर तो घुस्पता. हें घुस्पवप भोव जीव खावपी आसता.

आयज तोवूय घुस्पला...

शंकरबाब चर्र चर्र करून जोतीं वाजयत चलतालो. एकटोच. आपलेच येवजणेंत. हरशीं तो आपल्या हेर सांगात्यां वांगडा गजाली करत येवपी. पुणून आयज तेका एके खर येवजणेन हेरां साकून वेगळायत सटसटीत पावलां मारत चलूंक लायिल्लो. मनीस आपलेच येवजणेंत घुस्पल्यार खंय तेका हेरांचो सांगात नाका आसता. ताचेंय तेंच जाल्लें. तकले वयर कांव कांव करत कावळ्यांचें एक भिरें दिगंतराक वचूंक लागिल्लें. तेंचेर नदर वचना फुडें शंकरान मनांत म्हणलें, "चल्ले बाबडे आपल्या घरा."

शंकरबाबाक दिसलें, हरेकाक, तो मागीर जीव-जंतू आसूं, जनावर आसूं, सवणें आसूं नातर मनीस आसूं, घरा परतुचेंच पडटा. घर कोणाक

चुकलां? जिवाक थीर करपी, इस्राम दिवपी घर हें हरेकाक जाय आसता, देखुनच सगळीं आपलीं घरां करतात.

आतां तेका खोलायेन होलमलें, खऱ्यांनीच मनशाक मोह-माया कर्तुबाच्या सांपळ्यांनी बांदून दवरता तें घरच! हातूंतल्यान सुटप भोव कठीण. हातूंत घुस्पल्ल्यांक मर्ण सुदीक नाका आसता. मर्ण मनशाचो पूर्ण विसव हें सुदीक विसरायेर उडयता हें घरच!

हेंच घर मुखार मनशाक कितें करूंक लायना? ह्या घरा पासत रटे दण्णोवचे पडटात. हाडां झरोवचीं पडटात. वटवटे काडचे पडटात. चोंय दिकांनी हेडचें पडटा. जिवाक विसव, इस्राम मेळचे पासत केल्लें हें घरच जिवाचो विसव आनी इस्राम दोनूय गोळाक लायता.

मागीर तो आपले भितरूच मुमुरखें हांसलो.

तेणें मनांत म्हणलें, खरे हुशार फकीर-संन्याशी! तेंकां घरां नाका आसतात... मागीर तेणें येवजिलें, तशें चवंक गेल्यार तेंवूय खरें न्हूं! तेंकां सुदीक निमाणे कडेन विसोव घेवंक खंयतरी आलाशिरो जायच!

एकवटीत, हरेक जिवाक राबितो करूंक घर जाय, हें कोणूच न्हयकारचो ना.

पुणून...

देवाचें कितें...?

देवाक खऱ्यांनीच घर जाय...?

देव पुराय ब्रह्मांड व्यापून आसा म्हणटात, मागीर तेका हे इल्लेशे देवमठयेंत घुस्मटोन दवरप सारकें? तुमकां मान्य आसल्यार दवरात गा! पुणून, हें करतना, हेरांचे घरमठयेर नांगर घुंवचो ना हेचें धंगण आसूं!

आमी सगळीं तेचींच भुरगीं म्हणटात न्हूं? तो आपल्या भुरग्यांक मार्गार उडोवन आपूण सुरक्षीत रावंक सोदतलो?

शंकरबाबाच्या ह्या विचाराक चार जणां मुखार मोल ना, हें शंकरबाब जाणा. भौसाचेर जाल्लो एकवटीत संस्कार होच खरेलो.

घरची वाट माड्डुयतना तेका मक्तासुराचीं उतरां कानांर मारिल्लेवरी परतून परतून येवजतालीं.

आदीं आमी देवाची खुंटी मारून, मागीर आमची मठी जोडल्या. देखून देवाचे मठयेचो विचार आदीं जावंक जाय. मागीर आमचे मठयेचो! आमी भिजल्यार कोंता येता, देव भिजूंक फावो ना! तेका भिजूंक दिना जाल्यार, तो आमकां भिजूंक दिवचो ना!

देव भिजता?...

देव केन्नाय भिजला?...

देवय केन्ना भिजूंक ना आनी मक्तासूरय भिजूंक ना.

आमी सगळे गांवकार जिते आसा मेरेन देव कसोच भिजचो ना! भाटां-बेसान गिरेस्त आशिल्लो मक्तासूरय भिजचो ना!

भिजल्यात आनी भिजतात ते आमी. रैताव, कुळवाडी, नांगर कशे गांवकार! सगळे वटेन भिजतात!

गेल्ल्या पावसांत आमी भिजिल्लीं. घरमठयेंत भितर रावनय भिजिल्लीं. भायर घोग्यांनी पावस रकतालो आनी विसकळ जाल्ल्या नव्व्यांतल्यान भितर गळटालें. मागीर हिंगा थिंगा तोप दवर, ताटां दवर करप जालें. खंय खंय म्हण ताटां दवरतले?

पोरूं भिजिल्लीं, तशीं, अंदूय भिजतलीं. भिजचेंच!

अंदू घर सारकें करूं ना जाल्यार इपस्टा जातली.

घराचे पाकाशे बरगल्यात. रिपी मोडल्यात. तेतूंत माकडान उडी घेवन नळेय गेल्यात. कितलीं वर्सां जालीं घराचे कोपरे कलवांनी शिंवप जाता. फाटले वटेन वणटीर गळून गळून वणत पडूंक पावल्या. वणटीन खांब्या कडल्यान आंग सोडलां. थंय माती भरुनूय भरवंसो ना. ह्या पावसांत घर दुरुस्त करिना जाल्यार ती शेर्त पडटा. भितर जनेलांची, दारांचीय परिस्थिती येगळी ना. तेंच्यो चौकटी वाळ्टेन खायल्यात. तेतूंतल्यान सांम्वां गळटात.

घरकान्न कितले दीस जाले, फाटीक लागल्या, "घर सारकें करुन घेया, ना जाल्यार ह्या पावसांत तें हुडी घेता! मातये वणटींचें आजे-पोंज्यान काडिल्लें पोन्नें घर तें!"

एक दीस केंवरे काडत शंकरबाबान म्हणलें सुदीक, "घेवं,घेवं, हुडी घेवं. सगळीं रातचीं न्हिदिल्लीं आसतनाच घेवं हुडी. एके परीन पुराय मेकळे जातले. फाटल्यान रडूंक कोण उरचो ना."

खऱ्यांनीच घर जाणट्या मनशां वरी बागवोन येयलां. भरवंसो दवरप पिशेपणाचें.

दामुली पायण बलांटून शंकरबाब बांदार येयलो.

मुखाल्ल्यान कुश्टबाब येतालो.

"बसका जाली रे शंकरा?" म्हणत कुश्टबाब येवन शंकरबाबा मुखार थारलो. खांदा वेलें खोरें सकयल दवरलें. काश्टेच्या मुखार सोडयिल्ल्या शेवान हुमेन चिपचिपिल्लें तोंड पुसलें. तो उकतोच आसलो. आनी वावरा गेल्लो आतांच परततालो म्हूण तेचें हुमेन भिजिल्लें आंगच सांगतालें.

“दी, एक इडी दी...”

“खंय गेल्लो तूं?” शंकरबाबान आपले धवे बंडेंतल्यान धवो चवकनी इडेकंडो भायर काडत विचारलें.

“पोरसाक अगळ काडून येयलां... जालें ना पोरसूं करचें आतां?”

“म्हगेलें आनी अगळ काडचें तशेंच उरलां...” अशें म्हणत शंकरबाबान कंड्यांतल्यान एक इडी काडून कुश्टबाबाक दिली. आनी एक आपल्या तोंडाक लायली. लाय ़र काडून आपली इडी पेटयली. मागीर “हूं...घे” म्हणत पेटिल्लें लायटर कुश्टबाबा मुखार धरलें.

कुश्टबाबान इडी पेटोवन दुकोट सोडत विचारलें, “बसका जाली?”

“हय तर!” मागीर कुश्टबाबाच्या तोंडा कडेन रोमून चयत म्हटलें, “तूं येवं ना कसो?”

“तूं आनी कितें इचारता शंकरा? सून भाणत जाल्ली नकळो? सुयेर न्हू? देवळमठी भश्टय म्हणटा?”

“थोऽ थोऽ थोऽ थो! इसल्लों मुरे हांव!” शंकरबाबान पोल्यार मारून घेत म्हणलें. “तकलेर नाका नाका जाल्ले पेज येयिल्ल्यान, हे दिसाडेन भोवच इसरप जाता, ना अशें न्हू!”

“म्हाका सांग, कितें थारलें बसकेंत?”

“पुरसामठ परथून बांदचो!”

“पुराय?”

“हय! चोंय वटेच्यो पोरन्यो वणट्यो पाडप. थंय नव्यो वणट्यो उब्यो करप, वयर सिलेब.”

“सिलेब?”

“हयतर! देवळमठी सिलेबाची काडले बगर तेका सिलेबाचें घर काडूंक मेळना न्हू! देव कोपचो ना?”

“सारकें तुजें हां शंकरबाब, आतां व्हडल्या घरचीं मनशां, तोंड कोण उगडटलो?”

“पूण आमचेर पेटणे पडटात! तेमी हुडटात म्हूण आमच्यांनी हुडूंक जाता? आदींच आमगे पांयांक पेटके येयल्यात...!”

“हय रे ऽऽ बाबा!” कुश्टबाबान इडयेचो झुरको घेवन दुकोट भायर सोडत म्हणलें. “पूण एक खरें रे शंकरा, देवळमठी खूबच जीर्ण जाल्या रे!”

“हय रे, पूण म्हगे घरा मठये इतली न्हू न्ही!”

हाचेर कुश्टबाब खो-खो करून हांसलो. हांसतां-हांसतां खोक-खोक करून खोकलो. उपरांत ‘हाक् थू’ करून बचको भर थुकत म्हणूंक लागलो, “सारकें तुगेलें, जण एकल्यालें जण एकल्याक!”

“आनी तेंवूय देवा परबे पयलीं जावूं जाय म्हणटा! तेचो पूत विज्नेर जावन येयला न्हू, तो पयशे उबे केल्यार बांदून दिवची जापसालदारकी घेता म्हणटा.

“तशें जाल्यार तेंकलें मुरे येवन!”

“म्हणच तकली पिकार जाल्या.”

“गांवठणान मत दिलें?”

“मक्तासुरान सांगल्यार गांवठण ना म्हणटा?”

कुश्टबाबान हुस्कारो सोडलो. तेच्या तोंडांत आशिल्लो नाशिल्लो दुकोटय भायर सरलो.

“कितें तें?”

शंकरबाबान इडयेचो घोंट घेयिल्लो तो तेणें नाका-तोंडांतल्यान भायर सोडिनासतना नकळट गिळ्ळो. घुस्मटलो आनी खोकूं लागलो. ‘मरूं तो!’ म्हणत खीण भर हड्डें पुसत रावलो. जशें काय हेणें हड्डें वयल्यान पुसतकीर भितर दुकोट सकयल देंवतलो.

“शिवरामान सांगलें तेका, आपूण एक घरामठी काडची येवजितां. आपलें घर पोन्नें जालां...”

“मागीर कितें म्हणलो?”

“तेचीं सह्यांचींच शाणेशास्त्रां! आपलेंच खरें करप!... शिवराम मागीर तोंडांत फोव घालून ओग्गी.”

“म्हाका सांग, एकेकल्याक फाळो कसो येयला?”

“खांडयेक तीन हजार आनी शेंडयेक पांयशीं रुपया.”

“म्हाकाय अंदू जडच तें! धुयेले व्हारडिकेचें येवजितालों...!”

“तुका फकत धुयेले व्हारडिकेचें! म्हजे मुखार इल्ले पेच नात!” शंकरबाबान इडये पोंत मोखून भायर मारत म्हणलें, “एक खरें कुश्टबाब, गिरेस्त मनशाक केन्नाच कसलेंच मुखेलपण दिवं नये, तेका गरीब मनशाक मतींत घेवन विचार करप जमना! आनी दुसरें म्हणल्यार, गांवठणान तोंड उगडूंक शिकूंक जाय.”

“सारकें तुजें!” कुश्टबाबाकूय तेजें उलवणें मानवलें.

मागीर उलवणीं मदींच तुटयत शंकरबाबान म्हणलें,

"कुश्टबाब, हांव येतां, आयजच हांवें घराकडेन हरी मेस्ताक आपयला. तिनसांज कात्रेरशें यो म्हूण सांगिल्लें..."

"बरें..."

शंकरबाब चलूंक लागलो.

खोरें उखलून खांदार घेवन कुश्टबाबय चलूंक लागलो.

चार पावलां फुडें वतकच शंकरबाब अचकीत थारलो. फाटल्यान चयन तेणें कुश्टबाबाक सादयलें, "कुश्टा, हांयें कांय उलयलें ना हां! कांय उलयलें ना!"

"हां... हां... कळ्ळें!" कुश्टबाबान हात उखालन सांगलें. "कांय उलयलो ना तूं!"

दोगूय दोन दिकेन फुडें चलूंक लागले...

शंकरबाबान हिशेब केल्लो, पांच खांडयेची जमीण म्हटल्यार पंदरा हजार रुपया. चार भुरगीं आनी आमी दोगांय म्हटल्यार स जणांले शेंडयेचे तीन हजार. वट्ट अठरा हजार! दिवचें कांय चुकना!

कुश्टबाब धुयेले व्हारडिकेचें येवजिता, 'तेगेले धुये परस म्हगे व्हडली धूव दोन वर्सांनी व्हड. गळ्याक लागलां. आदीं मोडूंक येयिल्ली घरा मठी दुरुस्त करूंया म्हूण आसां. व्हारडिकेचें फुडल्या वर्सा चवया म्हूण आसां. व्हारडीक तोंडाची ती? नोकरे शिपायाक दिवची म्हणल्यार उण्यांत उणें एकोणीस तोळे भांगर आनी एकोणीस हजार मागतले. ते भायर हेर खर्च!

रैताव मनीस, शेतकामती. करतलो कसो?

खेतें हागतलें कितलें आनी शेणी थापतलें कितलें? पांच खांडये जमणीर स पोटां भरूंक जाय. दोगूय धुवांक मॅट्रीक मेरेन शिकयलें. व्हडलो पूत बारावेक आनी धाकलो धावेक. तेंच्या शिक्षणाचो खर्च उणो? आतांचो जमानो चयल्यार भुरगींय चडच जालीं ती. करतलों कितें तेंकां? हें आतां येवजता...तेन्ना बायले म्हऱ्यांत वयतना येवजूं ना!

शंकरबाबाल्या बापाय तेंपार तेंगेली धा खांडयेची जमीन आसली. स खांडयेचें सरदें शेत आनी चार खांडयेचें वांयगणा शेत. शंकरबाबाल्या बापायच्या दुयेंसाक लागून तीन खांडयेची वांयगणा जमीन विकप जाल्ली. शंकरबाब नेण्टो तेन्ना, तीग भयण्यो. तेच्या बापायक तोंडाचो बाव जाल्लो. पोळ्यां मेट धरिल्लें अंकोला मेरेन आनी देवबाग धरिल्लें जोयडा मेरेन पुराय पुराय वखदळी, वैज जाल्ले. गूण येवंक ना. ल्हवूच तकलेक एक गोळ येयलें. तेतूंतच सोंपलो. मागीर दोन खांडयेची जमीण भयण्यांल्या व्हारडिकां वेळार विकप जाली.

तूर्त तेचे कडेन एकूय वांयगणा शेत उरूंक नासलें. वांयगणा शेतां ही दोन पिकेचीं. सरदें एके पिकेचें. एके पिकेन कितें कर्म जाता?

ह्या सरदच्या शेता भरवंशार सगळें करूंक जाय!

हेरांलें तशें न्हू. तेंगेर वांयगणा शेतां आसात. घरांत कोण ना कोण रोजेक आसात.  फाटीं उरला तो शंकरबाब.

वर्सभर हाडां दण्णयल्यार सुदीक अखेरेक मना सारके चार पयशे गांठीक मेळनात. इतलीं वर्सां मेळयल्लें, आवयल्या दुयेंसान धुयलें. आवय सोंपतकीर बायलेन धुवूंक सुरु केलां. तेका पंदरा पंदरा दिसांनी उमास-पुनवेक भन्नी येता. दमो खंय!

खंय खंय कुटूक-मुटूक करून पंदरा वीस हजार उरल्यात.

हेजेन घर दुरुस्त करुंया म्हणल्यार ही आतां पुरसा मठी हड्डयार येवन बसल्या.

शंकबाब घरा पावलो तेन्ना धर्तरेर काळसाण पातळूंक लागिल्ली. तेची घरकान्न आंगणांत तुळशीक दिवो लायताली. घोवाक चयन तिणें म्हणलें, "हरीबाब येयला. वासरेर बसला..."

शंकरान जोतीं काडून दारांत दवरलीं. भितर येयलो. वासरेर बांकड्यार हरी मेस्त च्या पीत बशिल्लो.

"शंकरबाब, येयलो?"

"भायर गेल्ल्याक घरा येवचेंच पडटा न्हूं हरीबाब! घर कोणाक चुकलां? जनावरांक आनी सवण्यांक सुदीक चुकना. तें मागीर कशेंय आसूं. बरें आसूं नातर म्होडकें आसूं!"

"तुगे घर मात सामकेंच म्होडकें जालां शंकरबाब. हांवें पुराय चयलें. अंदू सारकें करना जाल्यार ह्या पावसांत शेर्त हुडी घेता!"

"तें हांवूय जाणा रे. पूण साधारण खर्च कितलो येतलो?"

"म्हगे कोंता परमाणें वीस-पंचवीस जायच."

"फुडल्या वर्सा चया तशें जाल्यार...!"

हरीमेस्त शंकरबाबाल्या तोंडाक चयत रावलो खीणभर. "अंदू घर सारकें करिना जाल्यार फस्तीक पडटलो तूं शंकरबाब!" हरी मेस्तान परतून सांगलें.

"फुडें चया, फुडें चया, म्हूण मुखार धुकलीत तुमी घराची

परिस्थिती इतल्यार हाडली. आनिकूय फुडें चया म्हणटात?” शंकरबाबाले घरकान्नीन मुखार येत म्हणलें.

खीण भर शंकरबाबान घरकान्नील्या तोंडाकडेन थीर नदरेन चयलें. मागीर म्हणूंक लागलो, “तूं सांगता तें खरें गो. पूण हांयें अंदू पुरसा मठाक अठरा हजार दिवंक जाय न्हू? ना जाल्यार देव भिजतलो! देव भिजल्यार जाता तुका! सांग....”

शंकरबाबाली घरकान्न हेचेर कांयच उलयली ना. ती शेडको येयिल्ले वरी सटसटीत भितर गेली.

कांय खीण थंय किण्ण, किरांव मोनेपण पातळ्ळें. झाडामाडांतल्यान वाऱ्याचें एक पान लेगीत हालूंक ना. तुळशी मांडये वयलो दिवो सुदीक थीर, संथ पेट्टालो.

शंकरबाबान ह्या मोनेपणाक जाग हाडत म्हणलें, “बरें, यो तूं हरीबाब. देवाच्या मनांत घडये हें घर सारकें करचें नासुंये!”

***

# इज इट टूऽऽ लेट?

रातच्या धा वरांर फोन वाजलो.

रिसिव्हर उखलून कानाक लायत म्हणलें, "हॅलो!"

ते वटेन आवाज येयलो, "रमानंद स्पिकींग...?"

"येस्!"

"कसो आसा तूं...आवाज वळखलो...?"

आवाज एके बायलेचो आसलो. पुणून हांव तो कोणाचो म्हूण वळखूंक शकलों ना. कोणाचो आसतलो? खीण भर हांवें तकलेक ताण दिलो. पूण ना!... मती काम करना जाली.

"सॉरी! हांव वळखलों ना."

"सोळा वर्सांत पुराय विसरलो? पळय, वळखता काय म्हूण..."

सोळा वर्सां फाटीं मेळिल्ली कोण आसतली? पर्थून तकलेक ताण दिलो. कोणय म्हजे वांगडा शिकिल्लें क्लासमेट आसूं येता. कोणालो आवाज हो? कांय समजना आसलें. सोळा वर्सां म्हणल्यार थोडीं जालीं? सोळा वर्सांत मनशांत कितलो फरक पडटा? कोणालोय म्हूण सोळा वर्सां फाटीं आशिल्लो तस्सो आवाज आतां आसूं येता...? हांवें म्हळें, "ना! खरोच वळखलों ना! कोण?"

"हांव रत्ना! रत्ना नायक!"

रत्ना म्हणटकीर झप्प करून उजवाड पडलो. रत्नाक आनी कसो विसरतलों? खरें म्हणल्यार रत्नाचो आवाज एका तेंपार सामको संवकळीचो. पुणून, आयज खऱ्यांनीच रत्नाचो आवाज वळखलों ना. वेगळोच येतालो. आवाजांत सुमार इतलो फरक पडिल्लो.

"हॅलो रत्ना, कशें आसा? खऱ्यांनीच वळखलों ना! बरें आसा मुगो...?"

"हूं! तूं कसो आसा?"

"आसां बरो!" सुमार तेंपान रत्नाचो आवाज आयकून काळजाक सुमार इतली शितळसाण भोगताली. हांवें म्हणलें, "कशें चल्लां तुजें? बरें चल्लां मुगो? तुजो कांयच पत्तो ना."

"केन्नाय चवकशी केल्ली...?"

खऱ्यांनीच, केन्ना रत्ना कशें आसा, ताचें कशें चल्लां हाची चवकशी हांवें करूंक नासली. ताची याद सुमार फावटी येताली. काळीज अस्वस्थशें जातालें, पुणून ताची चवकशी करनशें केन्ना दिसूंक नासलें. ताचो कांय उपेग नाशिल्लो. पोल कांडून हाताक फोड काडिल्ले वरी!

कॉलेज जीण सोंपले उपरांत हांव रत्नाचे बाबतींत इतलेंच जाणा आशिल्लों, रत्ना म्हैसुरा एके कॉलेजींत लॅक्चरर आसा आनी उपरांत ताचें लग्नाचें कार्ड मेळिल्लें. लग्नाक मात हांव पावलों ना!

रत्ना म्हजें कॉलेजमेट. धारवाडा हांव आनी रत्ना वांगडाच युनिव्हर्सिटींत शिकतालीं. म्हाका याद जाता, हांवें पयले फावट रत्नाक पळयल्लें युनिव्हर्सिटीचे लायब्ररींत. भोव देखणें, एकशिवडी आंगलोटाचें, तांबशा सलवार कमीजांतलें रत्ना म्हजी नदर ओडून घेतालें. पिंगश्या

केसांची एकूच एक लांबसडक घसघशीत फांती आनी ताचेर माळिल्लें तांबडेंच गुलाबा फूल ताच्या गोऱ्यापिट्ट चेऱ्याक आगळीच सया दितालें. हरशीं इतले गोरे कातीच्या मनशाचे दोळे चडशे घारशे आसतात, पुणून रत्नाचे दोळे सामकेच काळ्ळे. ओंठां गुलाबाच्यो पाकळ्यो कशीं तांबडींच. सरळ नाक आनी नाकाचे दावे कुशीक एक इल्लोच काळोच तीळ. न्युजपेपराच्या डेस्का मुखार तें उबें आसलें. आपल्या नाजूक लांबसडक बोटांनी पेपराचें एक पोंत धरून पेपर वाचतालें. ताच्या उबें रावपांतय एके तरेचो डौल आशिल्लो. लायब्ररींत जायत्यो चलयो आशिल्ल्यो. पुणून नदर ओडून घेतालें तें रत्नाच! बेठेंच गोड दिसऽ!

तो दीस म्हजो युनिव्हर्सिटींतलो पयलो दीस आसलो. हांवूय एका डेस्का मुखार उबो रावन पेपर वाचतालों. जाल्यार म्हजी नदर पेपरार थीर जायना आसली. पर्थून पर्थून रत्नाचेर वताली. दिसतालें, कोण हें? नांव कितें हाचें? खंयच्या इयरांत, खंयच्या डिव्हिजनांत आसतलें?

आनी अजाप म्हणल्यार, त्या दिसा तें म्हजेच क्लासींत बशिल्लें. म्हणटकीर तें एम्. ए.च्या पयल्या वर्सांत शिकतालें आनी म्हजे भाशेनूच ताचोय विशय इंग्लीशच आसलो. ऍन्टायर इंग्लीश! म्हाका ताचें नांव गांव दोन-तीन दीस मेरेन समजलें ना. हरशीं जाय जाल्यार कितेंय निमित्त काडून म्हज्यान ताचें नांव विचारूं येतालें. पुणून, म्हज्या रिझर्व सभावाक तें मानवलें ना.

एक दीस असोच लायब्ररींत बशिल्लों. लायब्ररींत आनिकूय जायतीं भुरगीं आसलीं. इतल्यांत रत्ना थंय आयलें. कोणें तरी ताका पळोवन 'हाय रत्ना!' म्हणलें, आनी त्या दिसा म्हाका ताचें नांव पयले फावट कळ्ळें.

म्हाका रत्ना सुमारा भायर मानवल्लें. पुणून हांवें केन्नाच आपूण

जावन रत्नालागीं इश्टागत करून घेतली ना. ताका कारण म्हजो 'इगो' आसूं येता. म्हजो रिझर्व सभाव, म्हजो इगो हाका लागूनूच बी. ए. करतना म्हजे कॉलेजींतय हांव चडसो इश्ट-इश्टिणी जोडूंक पावंक नासलों. हुशार, ऑलराऊंडर आनी देखणो आसूनय एक्केय चलयेक हांव गर्लफ्रेंड करून घेवंक शकलों ना. ना म्हणल्यार, जायत्यो चलयो म्हाका लायक करताल्यो हें हांव समजतालों. पुणून त्यो लागीं येना आसल्यो. म्हजे लागीं सनादन, नातें जोडूंक फाटीं-फुडें करताल्यो. कॉलेजींतलीं चडशीं भुरगीं, चडशीं कित्याक, हाताच्या बोटांर मेजपा इतलीं, तिंवूय म्हजी इश्ट-मंडळी सोडल्यार, सगळींच म्हाका प्राऊड मानतालीं. आनी हांव वागतालोंय तसोच! म्हजो सभावूच तसो, हांव जावन कोणाकडेनय वचपी न्ही. जाय जाल्यार हेरांनी म्हजे लागीं येवचें, अशें म्हाका सदांच दिसऽ आनी दिसता. हांगाय तशें जालें. म्हजे हुशारेक लागून हांव युनिव्हर्सिटींत रोखडोच फामाद जाल्लों. सगले प्रोफेसर म्हजी तोंड भरून तोखणाय करताले. स्टुडंटस्य म्हजे लागीं व्हडा रेस्पेतान पळयतालीं. पुणून लागीं येनासलीं. तिंवूय घडये म्हाका प्राऊड समजतालीं काय देव जाणा!

हांवें जरी रत्ना लागीं आपूण जावन इश्टागत जोडली ना तरी रत्नान म्हजे लागीं आपूण जावन इश्टागत जोडिल्ली. म्हाका याद जाता, ताणें म्हजेकडेन नोटबूक मागिल्ली. तें आनी ताची इश्टीण वीणा म्हजे म्हर्‍यांत आयिल्लीं. ल्हवूच रत्नान विचारिल्लें,

"मि. रमानंद..."

"यॅस्..."

"तुवें विल्यम ब्लेकच्या सॉंग्स् ऑफ इनोसन्सचे नोट्स काडल्यात?"

"हय!"

"म्हाका मातशे दिवशीत?"

"व्हाय नॉट? शुअर!"

आनी हांवें फुरसद करिनासतना म्हजी नोटबूक ताका दिल्ली.

"एक-दोन दिसांनी दितां."

"जाय तेन्ना दी..."

"एन्युअल एक्झामी उपरांत दिवं?" ताणें दोळे बारीक करत ओठांतल्या ओठांत हांसत म्हणिल्लें.

"दी!" हांवेंय हांसत म्हणलें.

हांव जाणां, कथा-कादंबऱ्यांनी, फिल्मांनी चडशें अशेंच जाता. हिरो नातर हिरोईन, नोटबूक मागता आनी मागीर नोटबुकांत लव्ह लॅटर नातर कसलीय मोगाची कुरू करप जाता. उपरांत दोगांचोय ल्हवू ल्हवू मोग वाडटा. रत्नान नोटबूक मागतकीर हांवें तीच अपेक्षा बाळगिली. ताणें नोटबूक परत करतकीर फुरसद पळयली ना. नोटबुकांतलें एक्कान एक पान तपासलें, खंयूय एखाद्री चीट वा कसलीय मोगाची कुरू मेळटा काय म्हूण. पुणून, ना. खंयच कांयच मेळ्ळें ना. हांव सामकों निर्शेलों. उपरांत जायते फावटी ताणें म्हज्यो नोट्स मागून व्हेल्यो आनी हांवें दरेक फावटी त्यो तपासून पळेल्यो. पुणून केन्नाच खंयच कसलीच मोगाची कुरु मेळ्ळी ना.

रत्नाक म्हज्यांत सुमार इतलो इंटरेस्ट आसलो, हें ताच्या वागपांतल्यान कळटालें. घडये तें म्हजेर मोग करता आसुंये अशें दिसऽ, पुणून मागीर अशेंय दिसऽ, घडये तो म्हजो समज आसूं येता. मनशाक आपूण ज्या रंगाचें वक्ल लायता त्याच रंगाचें सगलें दिसता.

म्हजे भाशेनूच रत्नाकूय सुमार इतल्या गजालींत रस आशिल्लो. म्हजे भाशेनच तें एक बरें स्पोर्टस्मन आशिल्लें. ऍक्टींग, नृत्य, काव्य हातूंतय ताका रूच आशिल्ली. म्हाका भरतनाट्यम् येता हें कळटकीर तें सुमार इतलें खूश जाल्लें. ताणें तेन्नाच म्हणिल्लें, “आमी गॅदरिंगाक अंदू भरतनाट्यम् सादर करुया हां...”

तेंवूय भरतनाट्यम्‌चें एक बरें ऍक्सपोनंट आसलें. आनी ताच्या उतरा प्रमाण आमी गॅदरिंगाक दुश्यन्त-शकुंतला नृत्यनाट्य सादर केलें. हांवें दुश्यन्ताची आनी ताणें शकुंतलेची भुमिका केली. प्रयोग सुमारा भायर रंगलो. हांव तर प्रयोगा उपरांत इतलो इमोशनल जाल्लों, म्हाका खऱ्यांनीच खीणभर हांव दुश्यन्त आनी रत्ना शकुंतला दिसलीं. त्या खिणाक ताचे बद्दलचो म्हज्या मनांतलो मोग तेंगशेर पावलो. आनी दिसलें, त्याच खिणाक रत्नाक सांगचें, “रत्ना, आय् लव्ह यू!” पुणून, दुसऱ्याच खिणाक दिसलें, रत्नाचो म्हजेर मोग ना जाल्यार...? ओह! इन्सल्ट जातलो. नाकाच तें! ताचो म्हजेर मोग आसल्यार तें सांगतलें...!

रत्नान केन्नाच “म्हजो तुजेर मोग आसा” म्हूण सांगलें ना, वो कसल्याच कुरवान तो दाखोवचोय येत्न केलो ना. हांवेंय केन्ना म्हजो मोग उकतो करूंक ना. दोन वर्सां आमी एकठांय शिकलीं खरीं, पुणून दोगांयचो मोग जुळ्ळोच ना. रत्नाक म्हजे भितर सुमारा भायर इंटरेस्ट आसलो हें मात सामकें पदे पदे होलमतालें.

युनिव्हर्सिटींतली निमणी ऍक्झाम जाली आनी आमी एकमेकांचो निरोप घेतलो. निमणो पेपर सोंपले उपरांत तें म्हजे लागीं आयिल्लें.

“रमानंद...”

“हूं...”

"आतां हाचे उपरांत आमी केन्ना मेळटलीं देव जाणां! घडये हेंच आमचें निमाणें मेळप आसूं येता!"

म्हाका कितें उलोवचें म्हूण कळ्ळें ना. ओग्गी रावलों.

"रमानंद, सॉरी टू से...गुड् बाय्!"

"बट् आय् एम् हॅपी टू से... वुई विल् मीट् अगेन्!"

"थँक यू! थँक यू व्हेरी मच!" ताणें नदर वयर करुन म्हज्या दोळ्यांत दोळे रिगयत म्हणलें.

"केन्ना हॉस्टेल सोडून वता तूं?"

"आयज, आत्तां."

"आं...?"

"हय, देखुनच तुजो निरोप घेवंक आयलां हांव! फाल्यां म्हजे मावसभयणीचें लग्न. म्हाका आयज गाडयेर बसुंकच जाय. साडेपांचाचे गाडयेर बसतां हांव आयज!

त्या दिसा रत्नान म्हजो निरोप घेतलो. हेर दिसा हांवेंय म्हजें हॉस्टेल सोडलें. उपरांत हांव आनी रत्ना केन्नाच एकमेकांक मेळ्ळीं नात.

आमचें शिकप जाल्ल्या दोन-तीन वर्सांनी एक क्लासमेट् मेळिल्लो. उलयतां उलयतां रत्नाचो विशय आयलो, आनी तेन्ना ताचे कडल्यान कळिल्लें, रत्ना म्हैसुरा एके कॉलेजींत लॅक्चरर म्हूण काम करता. उपरांत थोड्याच दिसांनी ताचें लग्नाचें कार्ड मेळिल्लें.

निमाणे मेरेन रत्ना बद्दलचो म्हजो काळजांतलो मोग काळजांतूच उरिल्लो. हें खरें, फकत कोणा बद्दलय काळजांत मोग आसून उपकारना, तो ओंठांरूय येवचो पडटा. उकतो जावचो पडटा, कसवटेक लावचो

पडटा. तेन्नाच तो सफळ जाता.

रत्ना वेलो म्हजो मोग सफळ जालो ना. आनी ताचे उपरांत आनीक कोणाचेरूय हांवें मोग करूंक ना, करूंक ना म्हणचे परस जावंक ना. रत्ना भाशेन कोण काळजांत रिगलेंच ना!

लग्नाची पिराय जातकीर, आवय 'लग्न जा' म्हूण फाटल्यान लागिल्ली. कॉलेजींत लॅक्चरर आशिल्ल्यान बऱ्यो बऱ्यो चलयो सांगून येताल्यो. पुणून एक्कूय रत्ना भाशेन मनाक आफूड नाशिल्ली. रत्ना भाशेन एखादें मेळटा मेरेन लग्न जावचों ना अशें थारावन दवरिल्लें. निमाणें मेरेन तशें कोणूच मेळ्ळें ना आनी लग्नाची पिराय केन्ना हुपून गेली, हेंवूय कळ्ळें ना. मागीर हांवें थारायलें, आतां लग्न जावप ना!

रत्ना मेळिल्ल्याक आज सारकीं सोळा वर्सां जाल्ली. काळ सुमार इतलो मुखार पावला. आनी आयज अचकीत रत्नाचो फोन आयलो. रत्ना विचारता, हांवें केन्नाय ताची चवकशी केल्ली काय म्हूण...

"तुवें केन्ना म्हजी चवकशी केल्ली व्हय?" हांवें म्हणलें.

"तुवें केल्यार हांव करता आशिल्लें."

"हांवें म्हणलें, तुवें केल्यार हांव करता आशिल्लों."

"आतां सुदीक हांवें फोन केला. तुवें म्हजी चवकशी केल्ल्यानच!"

आतां म्हाका याद जाली, विशेक दिसां फाटीं शरद गुनगी गाडयेंत मेळिल्लो. आमचे वांगडा तोवूय तेन्ना युनिव्हर्सिटींत शिकतालो. उलयतां उलयतां कळ्ळें, तोवूय म्हैसुराक शिकयता. रत्ना रावता थंयच रावता. हांवें ताका म्हणिल्लें, "रत्नाक हांवें विचारलां म्हूण सांग...!" ताणें म्हजो फोन नंबर घेतिल्लो. घडये ताचे कडल्यानूच रत्नान नंबर घेतिल्लो आसुंये.

"शरद गुनगीन रकाद दिलो?"

"हय! तुजो फोन नंबरय ताणेंच दिलो."

"कितें कितें सांगलें ताणें तुका?"

"खुब्ब कितें कितें सांगलें. म्हाका सांग, तूं लग्न कित्याक जावंक ना?"

"हेंवूय सांगलें ताणें?"

"म्हाका सांग मरे, कित्याक जावंक ना?... म्हाका हक्क आसा मरे हें तुका विचारचेलो?"

"हय तर!"

"मागीर सांग म्हाका.... "

"जावचेंशें दिसलें ना!"

"कोणाचेरूय मोग बी आशिल्लो...?"

शरद गुनगीन ताका हें बी सांगूं ना मू? होच प्रश्न शरद गुनगीन म्हाका विचारिल्लो तेन्ना हांवें ताका म्हणिल्लें, "म्हाका फकत रत्ना एकूच मानवल्लें. ताचे वांगडा लग्न जावची इत्सा आसली. ताचे भशेन दुसरी कोण म्हाका मेळूंक ना..." खरें म्हणल्यार हांवें हें उलयतां उलयतां सहज म्हणिल्लें. म्हणपा नजो आशिल्लें हांवें! म्हाका भान उरलें ना. शरदान वचून हें रत्नाक म्हणलें ना मू?

"तुका कोणें सांगलें तशें?"

"शरद गुनगीन सगळें सांगलें म्हाका. .."

"सगळें म्हळ्यार?"

“तुका कोणाकडेन लग्न जावचें दिसतालें बी तें सगळें...! खरें सांगूं रमानंद, तुवें तेन्ना एका उतरान हें म्हाका सांगल्यार, तुजी इत्सा सफळ जाता आसली...”

“यू मीन..?”

“हूं...”

“ओ गॉड!”

रत्नाच्या एका हुंकारान म्हाका कितें जालें कळ्ळेंच ना. खीणभर तकली गूंग जाली. म्हजो विश्वासूच बसना जालो. म्हाका मळबाक हात लायिल्ले वरी जालें. काळीज खोशयेन भरलें. फोन हातांत घेवन तशेंच कूड भर नाचचेंशें दिसलें. व्हडान आड्डून सगळ्यांक सांगचेंशें दिसलें. रत्ना म्हजेर मोग करतालें...! पुणून दुसऱ्याच खिणाक म्हाका होलमलें, ताचो आतां कांयच उपेग ना! रत्ना दुसऱ्याचें जालां!

तरीय हांवें म्हणलें, “रत्ना, तुवें हूं म्हणटकीर म्हाका केदी खोस भोगली जाणा तूं? इतली खोस अख्ख्ये जिणेंत म्हाका केन्ना भोगूंक ना!”

“शरद गुनगीन सांगिल्लें तेन्ना म्हाकाय तशेंच जाल्लें. बट इट इज टूऽऽ लेट रे...!” आनी ते वटेन फोना वयल्यान ताच्या हुंडक्याचो आवाज येवंक लागलो.

“रत्ना...रत्ना तूं रडटा...?” हांवें म्हणलें.

तें मागीर ल्हव ल्हव सावशीद जालें. तरीय फोन हातांत धरून हूं...हूं...सूं...सूं... करीत आसलें.

हांवें म्हणलें, “रत्ना, आतां रडून वायट दिसून कांय उपेग ना. जावचें आशिल्लें जालें. रिलॅक्स...! रिलॅक्स!”

रत्नाची ती स्थिती पळोवन म्हजेंय काळीज हाल्लें. हांवें बेठेंच शरदा लागीं तें चोचरगट उलयलें. इतलीं वर्सां ओग्गी रावलों. उलोवंक जाय तेन्ना उलयलों ना. आनी आतां नाका जाल्लें तेन्ना कित्याक उलोवंक जाय आसलें म्हाका? म्हाका लागून ताच्या काळजाक दुख्ख भोगलें. हांवें म्हळें, "रत्ना, सॉरी...हांवें तुज्या काळजाक दुख्ख दिलें. हांवें शरदा लागीं तें उलोवंक नजो आसलें..."

"ना,ना! तूं तसो समजूं नाका. म्हाका दुख्ख दिवंक ना तुवें. उरफाटी खोस दिली. हांवूच तुजेर एके वटेन मोग करतालें. तूं म्हजेर मोग करना आशिल्लो हे येवजणेन हांव खंती आसलें. ती खंत तुवें ना केली..."

"रत्ना, म्हाका सांग, तुवें म्हजे लागीं तुजो मोग उकतो कित्याक करूं ना?"

"म्हाका दुबाव आसलो, तुका तें मानवतलें काय ना म्हूण! तुजो रिझर्व सभाव, सामकें उणें उलोवप, हाका लागून तुजें मन कळप भोव कठीण आसलें. म्हाका सांगूंक भिरांतशी दिसताली. आनी तुवें न्हयकार दिल्यार...?"

"म्हजीय गत्त तीच जाली!

"म्हजे इश्टीणी लागीं हांवें म्हणिल्लें एक फावट, तूं म्हाका भोव मानवता म्हूण...! त्यो म्हजीं फकाणां मारताल्यो. तुका पळोवन, तो चय तुजो मनीस आयलो. आपोवं ताका? म्हणटाल्यो. आनी हांवूय तांचीं फकाणां ऍन्जॉय करतालें रे!"

"तुजे एखाद्रे इश्टिणीन तरी म्हव्यार जातालें म्हजे लागीं..."

"तूं उलयतालो तरी तांचे लागीं? तीं बाबडीं केन्नाय तुजे लागीं आपूण जावन उलयल्यार, हूं... हां...हय...ना! हाचे परस चड उतरां केन्ना

उलयला तांचे लागीं? तातूंतले तातूंत चड उलयतालो तो म्हजे लागीं. तेंवूय वेव्हाराक उलयल्ले वरी. एक इश्ट आनी इश्टीण उलयल्ले भाशेन न्ही!"

"ओह!"

"दोन -तीन दीस जाले, हांव तुका फोन करचेलो यत्न करतां. डायल करतालें, आनी मागीर फोन कट् करतालें. तुका सांगूं नाका... सांगूं नाका जातालें. पुणून निमाणे कडेन म्हज्यान रावूं नजो जालें. एखाद्री घुस्मटत आशिल्ली गजाल मुक्त जातकीर कशें जातलें, तशें जाल्लें म्हजें!"

"रत्ना, म्हाका सांग, आतां तूं..."

फोन कट् जालो आनी कूं...कूं...कूं... जावंक लागलें

म्हजीं तोंडांतलीं उतरां तोंडांतूच उरिल्लीं. हांवें रिसिव्हर दवरलो. पर्थून रत्नाक फोन करूंया म्हणल्यार म्हजे लागीं फोन नासलो. रत्ना पर्थून फोन करतलें घडये म्हूण सुमार वेळ वाट पळयली. पुणून फोन आयलोच ना.

ते राती म्हाका भोव उसरां झेम लागली. सुमार वेळ हांव रत्नाक दोळ्यां मुखार हाडून येदोळचीं उलोवणीं घोळयत आसलों. सुमारा भायर खोस भोगिल्ली म्हाका, त्या वेळार. रत्नान आपलो मोग उक्तो केल्यार म्हाका जी खोस भोगता आशिल्ली, तितलीच खोस म्हाका आतांय भोगली. खीणभर हांव विसरतालों, रत्नाचें आतां लग्न जालां. हाचो कांयच उपेग ना! कितेंय आसना कित्याक, एका तेंपार रत्नाच्या काळजांत म्हाका सुवात आशिल्ली., घडये आतांय आसुंये. ही येवजणच ह्या वेळार म्हाका पुरो आशिल्ली. म्हजे पासत सडसडीत रेंवटांतलें एक ओएसीस!

हेर दिसां सारको रातच्या अकरा वरांर फोन वाजलो. रिसिव्हर उखलून कानाक लायतकीर आवाज आयलो.

"आवाज वळखलो?"

आतां आवाज वळखप कठीण नासलें. संवकळीचो जाल्लो तो. "हय, रत्ना!" हांवें म्हणलें.

"काल फोन कट जालो. उपरांत खूब ट्राय केलो. लागलोच ना!आतां केलो."

"आनी हांगासल्ल्यान करुंया म्हळ्यार म्हजे लागीं नंबर ना!"

"तूं म्हाका काल कितें तरी विचारुंक सोदतालो." रत्नान कालच्या अर्दकुट्या उरिल्ल्या विशयाक हात घालत म्हणलें.

"हय!"

"कितें तें?"

"म्हाका सांग आतां तुका भुरगीं कितलीं?"

"एक चलो अकरा वर्सांचो."

"नांव कितें दवरलां?"

"रमानंद!"

"म्हजें नांव...?"

"हूं...!"

खीणभर हांव ओगी रावलों. मागीर ल्हवूच विचारलें,... "आनी तुजो घोव कितें करता गो?"

रत्ना खीणभर कांय उलयलें ना. मागीर म्हणूंक लागलें, "तुका शरदान कांय सांगूंक ना हाचे बद्दल? "

"ना...!"

"रमानंद, लग्ना उपरांत कांय दीस म्हजें जिणें सुखांत गेलें.

मागीर ल्हवू ल्हवू घोवाचे खरे रंग दिसूंक लागले. म्हाका करून दिल्लो घोव तसलोच आसलो, भायले चालीचो, बायलां पिशें आशिल्लो... हें सगळें फोनार सांगप शक्य ना. सांगन केन्नाय मेळ्टलीं तेन्ना. आनी आमचे तशें दोगांयचे विचारूय एकमेकांक पटना आसले. सदांच झगडीं. विचारांचे बाबतींत एकवेळ तडजोड करूं येता रे, पुणून आपल्या घोवाक हेर बायलांचें पिशें आसप, हें खंयचेच अस्तुरेक मानवचें ना!... हांवें सोडचीट दिल्या ताका!"

"ओह!... कितलो तेंप जालो?"

"जालीं सात वर्सां!"

"भोव सोसलें तुवें, न्ही...? खऱ्यांनीच, आमचें दोगांयचें लग्न जाल्लें जाल्यार तुका हें सोंसचें पडनासलें."

"हं...! बट् इट् इज् टूऽऽ लेट!"

"ना! इट् इज् नॉट् टूऽऽलेट! अशें कित्याक म्हणटा तूं? इट् इज् नॉट् टूऽऽलेट!"

रत्ना हाचेर कांय उलयलें ना. ते वटेन फक्त एक हुंडको आयकूंक येयलो.

"रत्ना, हॅलोऽऽ"

"हूं.."

"इज् इट् टूऽऽलेट ...? टॅल मी, इज् इट् टूऽऽलेट ...?"

रत्ना कांयच उलयनासलें,,. फकत हुंडक्यार हुंडके आयकूंक येताले.

***

# फ्ट

म्हाका आदींच हड्ड्यांत धडधडटालें. बाई वर्गांत भितर सरली आनी चडूच धडधडूंक लागलें.

"नमस्ते बाई..." सगळ्या भुरग्यांनी एका सुरांत उबे रावन म्हणलें. म्हज्या तोंडांतल्यान उतर फुटलें ना. हांव बेठोच हेरां वांगडा उबो रावलों.

"बसा." बाईन कदेलार बसत म्हणलें.

आमी बसल्लीं.

बाईन हजेरीची पटी उकती केली. नंबर एक...दोन...तीन...ती हजेरी घेवंक लागली. भुरगीं एकेक करून "हजर...हजर" करतालीं.

"आतां हजेरी घेवन जातकीर बाई सदचे भाशेन विचारतली... म्हाका घाम फुटलो. पाड पडूं...!"

बाईन सगळ्यांची हजेरी घेयली. पटी धाकून मेजाच्या खणांत दवरली. सदचे भाशेनूच विचारलें...

"घरपाठ केल्यात मू सगळ्यांनी? या, सय घेयात पट्टीर..."

"तुवें घरपाठ केला?" हांवें ल्हवूच बगलेन बशिल्ल्या शिवांगीक विचारलें.

म्हजें विचारप शिवांगीन बरोबर आयकलें ना. ताणें "आं?"

केलें.

“हाका भिरांत दिसता...”

“आं...?” शिवांगीक पर्थून म्हजें उलोवणें आयकूंक आयलेंना.

“कितें आं...आं करता? कान फुटिल्ले भाशेन!” हांवें म्हणलें.

हें मात शिवांगीन जुस्त आयकलें.

“कितें रे...! तूं सारकें सांगिना आनी म्हजे कान फुटले म्हणटा कित्याक? सांगूं बाईक म्हजे कान फुटले म्हणटा म्हूण?” शिवांगी तिडकलें.

“रागार जावं नाका गो, म्हजें आयक...” हांवें काकुळटेर येवन म्हणलें.

“कितें आयकूं तुजें?”

“हांवें घरपाठ केलो ना गो...”

“आं! बाबा! बाई तुका आतां दवरची ना.” शिवांगीन आपले मोठेले दोळे आनिकूय मोठे करून म्हणलें.

म्हाका आतां चडूच धडधडूंक लागलें. आमची बाई भोव कडक. शिस्तीची. ख्यास्त दिले बगर सोडची ना. म्हजी भितरले भितर गुळी. हांव हरशीं सदांच घरपाठ करपी. पयलेच फावटी हें...! पाड पडूं! कालच आत्या आनी निलेश आयलीं आनी म्हजो अभ्यास भंगलो. पुराय वेळ निलेशा वांगडा धुमशेणां कांडुंकूच वगडायलो. मम्मीनय अभ्यासाक बसयलो ना. हरशीं ती सदांच म्हजो अभ्यास घेताली. तिवूय आत्या वांगडा खबरी करूंक गुल्ल जाल्ली जावंये.

बाई एकेक भुरग्याक नंबर घेवन आपयताली. तांची पट्टी पळोवन

सय दिवन धाडटाली

"आतां हांव कितें दाखोवं?" हांवें शिवांगीक म्हणलें.

"तुवें कित्याक घरपाठ केलो ना तर?"

"काल आत्याचो चलो आयलो गो... खूब दिसांनी आमी मेळ्ळ्यात म्हूण आमी खूब खूब खेळ्ळीं. मागीर करुंया, मागीर करुंया म्हूण राविल्लों पळय... तो तसोच उरलो. राती कडेन जेवले उपरांत करुंया म्हळ्यार झेम केन्ना लागली कळ्ळेंच ना. आमचें उलोवप बाईन आयकलें जावंये."

"कोण उलयता?" बाईन आमचे दिकेन पळोवन विचारलें.

"ये, ओगी राव..." शिवांगीन म्हाका खोंट मारून गप्प केलो.

खरें म्हळ्यार हांवें शाळेकूच येवंक नाका आसलें. म्हणिल्लें हांवें मम्मीक, हांव शाळेंत वचचों ना म्हूण. पुणून मम्मीन दोळे मोट्टे केले. ओडीत हाडलो म्हाका. आतां हांव कितें करूं?

"नंबर अठरा..." बाईन म्हजो नंबर उलयलो.

म्हाका हड्ड्यांत धस्स जालें.

"तुजो नंबर..." शिवांगीन ल्हवूच म्हणलें.

हांव ल्हवूच उबो रावलों. ओग्गी.

"पट्टी घेवन यो रे."

.......

"पट्टी घेवन यो म्हळ्यार कळना रे?" बाईन दोळे व्हड करून विचारलें.

पांयांतल्यान थरथरो येतालो. पयलेच फावट असल्या प्रसंगांत सांपडिल्लों.

“घरपाठ केलो ना रे?”

हांवें मोन्यांनीच तकली हालोवन ना म्हूण सांगलें. हांवें ना म्हणिल्लें पळोवन बाई तिडकली.

“हांगा यो...” तिणें तिडकतच म्हणलें.

म्हजें हर्डें आनिकूय जोरांत वाजूंक लागलें. ल्हव ल्हव पावलांनी हांव बाई म्हऱ्यांत वचून उबो रावलों.

“कित्याक केलो ना रे घरपाठ?” बाईचो आवाज वयर चडिल्लो. हांव ओगी रावलों. करतलों कितें?

“...कित्याक केलो ना रे, सांग...” बाईन आवाज चडच वयर चडयलो. सगळीं भुरगीं म्हज्या तोंडा कडेन तुकूतुकू पळयतालीं. पुणून म्हज्या तोंडांतल्यान उतरच फुटना जालें.

आतां बाई चडच तिडकली. तिणें मेजा वेली फूटपट्टी घेतली आनी फट् फट् करून फाटले वटेन म्हज्या पांयार मारलें. एक दोन न्हय... कितलेशेच फावटी.

“मम्मी... मम्मी...” नकळटना म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं. म्हाका खूब दुखतालें. पयलेच फावट हांव मार खातालों. हाचे आदीं हांवें कोणा कडल्यानच असो मार खावंक नासलो. मम्मी-डॅडी कडल्यान सुदीक!

म्हज्या दोळ्यांतल्यान घसघशीत दुकां गळूंक लागलीं आनी हांव व्हडा -व्हडान रडूंक लागलों. “मम्मी..., मम्मी गे...,” म्हाका हुंडक्यार

हुंडके येवंक लागले. तरी सुदीक बाई मारतच रावली. निमाणे कडेन सोंसूं नजो जावन हांव सकयलच बसलों.

"ऊठ, ऊठ, ऊठ... नाजाल्यार आनीक मारतलें..." बाईन म्हाका हाताक धरून उठयलो... "चल बस वचून" दबकावच्या सुरांतच सांगलें.

हांव रडतच म्हजे सुवातेर येवन बसलों. म्हाका रडप थांबोवंक येनाच जालें. हुंडक्यार हुंडके येताले. आमची बाई बरी न्हय... सामकी पाडेली. हरशीं हांव सदांच चुकनासतना अभ्यास करपी, घरपाठ करपी भुरगो...एक दीस चुकलों म्हूण कितें जालें व्हडलेंशें! इतलें फटफट करून मारपाचें?... म्हज्या घरा कितलें बरें करतात म्हाका! मारपाचें सोडूच, मम्मीन चड तापयल्यार सुदीक डॅडी मम्मीक दोळे व्हड करता. आनी हीं अशीं कशायकशींय मारतात... पोसून दवरिल्ले भाशेन...!

बाईन सगळ्यांलो घरपाठ पळयलो. म्हाका सोडून सगळ्यांनी घरपाठ वेवस्थीत केल्लो. म्हाका एकल्याकूच मार खावचो पडिल्लो.

म्हाका येवजून येवजून रडूंक येतालें. मागीर कसो तरी हांव सावचीत जालों. पुणून बाईन शिकयल्लें अजिबात मतींत रिगलें ना.

शाळा सुट्टना मम्मी म्हाका व्हरूंक आयिल्ली. म्हाका आनीक एक भंय पडिल्लो. बाईन मम्मीक सांगना जाल्यार पुरो. डॅडी-मम्मी उलयतलीं... मागीर कितेंय मागिल्लें मेळपाचें ना. म्हजें नशीब! बाईन सांगलें ना!

घरा येतकीर म्हजे शाळेचे कपडे काडटना मम्मीन जुस्त म्हज्या पांयार उदेल्ले मार पळयले.

"हें कितें रे?" तिणें आबूज जावन विचारलें.

हांव ओग्गी रावलों.

"हे काळे काळे दाग कसले रे? खंय पडलो? कोणें मारलो... आदव्ळो...कितें जालें रे?" अशें म्हणून ल्हवूच उदेल्ले सुवातेर हात लायलो.

"हाय! म्हाका थंय हात लायल्यार जीव गेल्ले भाशेन जालो."

"कितें जालें सांग मुरे? काळें कशें जालां रे आंग...?" मम्मीन मातसो जोर दिवन विचारलें.

"आतां म्हाका सांगचेंच पडलें."

"बाईन म्हाका मारलो..." हांवें भीत भीत सांगलें.

"कित्याक रे...?"

"घरपाठ करूं ना म्हूण..."

"घरपाठ करूं ना म्हूण अशें मारप? इतलें काळें जाता मेरेन?" इतल्यांत म्हजें आतें आयलें. कितें जालें?" ताणें विचारलें.

"पळय गो कसो मारलो मिथूक बाईन... पुराय पांये काळे जाल्यात मुगो... हे पळय फाटले वटेन... " मम्मीन आत्याक म्हजे मार दाखयले.

"शी! बाई काय राकेशीण गो ही... अशें काळें जाता मेरेन मारप...?" आत्यान तोंडार हात घेयलो. "आमी केन्नाय चुकून बोट लेगीत लायनात आमच्या भुरग्यांक... कळ्ळें मुगो?" अशें म्हणून मम्मी रडूंक लागली. मम्मी रडटकच म्हाकाय रडूंक आयलें.

"आतां भाऊ येतकीर सांग. विचारूंक लाय. ओगी सोडूं नाका

तिका. येद्याशा पांच वर्साच्या भुरग्याक अशे तरेन मारप म्हणल्यार कितें? लाय विचारूंक..." आत्यान म्हणलें.

"नाका, नाका. हांकां सांगचें नाका. तिडकतले. कंप्लेन करतले बाईचेर... बरें जावचें ना तें मागीर... भुरग्याक बरी करना जातली ती मागीर. वेवस्थीत लक्ष दिवची ना. संबंध तुटोवं फावना."

"हय गे! तिणें अशे तरेन मारल्यार ओगी रावप?" आतें बाईचेर तिडकल्लें.

"आसूं, हांवच विचारतां फाल्यां तिका बरे भाशेन... तूं बी मुजरत हांकां म्हणिनाका. लक्ष गेलें जाल्यार मागीर पळोवं..."

आनी डॅडीचें लक्ष म्हज्या पांयार गेलें बीन ना. बरें जालें! डॅडी येवचे आदींच मम्मीन म्हाका गरम गरम उदकान शेकयिल्लें आनी आयोडेक्स चोळिल्लें... बाबा! कितलें दुखतालें...!

रातीं न्हिदिल्ले कडेन हांवें मम्मीक म्हणलें... ती म्हाका न्हिदयताली. काणी सांगून जाल्ली तिगेली... "मम्मी, तूं बाईक विचारूं नाका गे. तशीच ती! सगळ्या भुरग्यांक तशीच मारता. सगळेच म्हणटात, आमची बाई खूब कडक म्हूण! पूण हरशीं बरी गे ती! आमकां बऱ्यो बऱ्यो काणयो सांगता. बरे बरे खेळ शिकयता. मम्मी, तूं बाईक विचारूं नाका गे."

हांवें अशें सांगतकच मम्मीक दुबाव मारलो आसुंये. तिणें म्हाका विचारलें, "फट बीन सांगलें ना मुरे तुवें बाईन मारलो म्हूण?... बाईक विचारूं नाका म्हणटा तो! हेरान कोणेंय मारलो ना मुरे तुका? खंयूय धडवलो बीन ना मुरे? बेठोच बाईन मारलो म्हूण फट सांगूं नाका हां..."

"ना गे मम्मी, खऱ्यांनीच बाईन मारलो. हांव फट कित्याक सांगूं? केन्नाच फट उलोवचों ना. बाईनच आमकां सांगलां, केन्नाच फट

उलोवं नये. फट उलयतल्यांक देव बरो करिना. पाप लागता. मागीर आमी देवा कडेन कितेंय मागल्यार तो आमकां दिवचो ना. इतलेंच न्हय, पाप केल्यार मेले उपरांत मनीस नरकांत पडटा खंय. मागीर नरकांत कसले कसले तरास सोंसचे पडटात तें आमकां बाईन सांगल्यात. आतां तूंच सांग, बेठेंच फट उलोवन पाप कित्याक लागून घेवंक जाय? हांव केन्नाच फट उलोवचों ना. आनी फट उलयलों म्हूण कळ्ळ्यार बाईन मारतली म्हळां."

हांवें अशें सांगतकच मम्मीचें समादान जालें आसुंये. मम्मी मागीर कांयच उलयली ना.

हेर दिसा मम्मी म्हाका पावोवपाक शाळेंत गेल्ली. बाई गेटींतल्यान भितर सरतना आमकां थंयच मेळ्ळी. मम्मीक पळोवन बाई हांसली.

"बाई,..." मम्मीन बाईक हटकिलें.

"कितें...?" बाईन पर्थून पळयत म्हणलें.

"आमचो मिथिलेश अभ्यास करिना...?"

बाई ओग्गी आमकां पळयतच रावली.

"तो अभ्यास करिना जाल्यार ताचे पट्टेचेर तशें बरोवन आमकां धाडात. आमी करून घेतात अभ्यास ताचे कडल्यान... पूण ताका असो मारूं नाकात. तो मातसो नाजूक. शिवाय एकूच अपुरबायेचो पूत आमकां. आमी ताका केन्नाच हात न्ही, बोट सुदीक लायनात. आमी जाणांत तुमी भुरग्यांच्या बऱ्याकूच करतात. भुरग्यान अभ्यास करिना जाल्यार तुमकां वायट दिसता... पूण मातसो नाजूक तो... विचारलें म्हूण वायट दिसून घेवं नाकात. हें पळयात, ताच्या पांयांर कशें उदेवन आयलां तें..." मम्मीन बाईक मार दाखयले.

“हय रे, हें हांवें तुका मारलें अशे तरेन?” बाईन मोठ्ठे दोळे करून पळयत म्हाका विचारलें.

म्हाका हड्ड्यांत धडधडूंक लागलें. तोंडांत उतरूच येना जालें. हय म्हव्यार बाईन वर्गांत वचून म्हाका मारल्यार...? ते तिडकेन सदांच मागीर म्हाका मारीत रावल्यार...? हांव भियेलों. जिबेर उतरूच फुटना जालें. हांव ओग्गी रावलों. कांयच उलयलों ना.

“ना गे, हें हांवें मारलें ना. हांव कित्याक मारूं ताका अशे तरेन? तो वर्गांत हुशार आसा. वर्गांतय थंड सभावाचो. सारखो वेवस्थीत अभ्यास करपी. हें हांवें मारलें ना... मारिल्लें बी उरत... पूण अशे तरेन न्ही...हें न्ही!” अशें म्हणून बाई सटसटीत गेली. वर्गाची चावी काडून दार उकतें केलें आनी सय करूंक हेडबाईल्या वर्गांत गेली.

वर्गाचें दार उकतें जातकच हांगा थंय व्हरांड्यार फाफसल्लीं भुरगीं भुर्र करून वर्गांत सरलीं. आपआपणाले सुवातेर वचून बसलीं. हांवूय ल्हवूच वर्गांत वचून म्हजे सुवातेर बसलों.

बाई पर्थून वर्गांत आयली

“नमस्ते बाई...” आमी सगळ्यांनी एका सुरांत उबें रावन म्हणलें.

“बसा...” बाईन सांगलें.

आमी सगळीं बसलीं.

हांवें ल्हवूच शिवांगीक म्हणलें, “काल बाईन म्हाका मारूंक ना?”

“हय तर...”

“बाई मम्मीक आपणें मारलें ना म्हूण फट सांगता.”

“मारलें ना म्हणटा? फटकिरी मुरे...”

“हीच सांगताली न्ही गो, फट उलयनये म्हूण... पाप लागता म्हूण. मागीर ही कित्याक फट उलयता तर?”

बाईन आमचें उलोवप आयकलें आसुंये. “कोण उलयतात थंय...?” तिणें दोळे मोट्ठे करून आमकां पळयत विचारलें.

आमी मागीर ओग्गी रावलीं.

***

# आडखळ

“न्हंयीचेर संकश्ट आयल्या...” मळबान सकयल पळयत दोंगराक म्हणलें.

“हांव जाणां.”

“पूण तुवें पळयल्या...? न्हंयीक ताचें कांयच पडून गेल्लें ना! ती सामकी ओग्गी आसा.”

मळबान न्हंयीक पर्थून एक फावट नियाळ्ळें.

न्हंय ओग्गी आदींचे भाशेनूच व्हांवताली. तिच्या व्हांवण्यांत कसलोच फरक येवंक नासलो.

“बाय गो, तूं जाणां मुगो तुजेर संकश्ट आयल्या तें...?” दोंगरान ल्हवूच न्हंयीक म्हणलें.

“जाणां.. जाणां... हांव जाणां...” न्हंयीन खळखळत सांगलें. आनी ती निर्विकारपणान पर्थून व्हांवंक लागली.

“जाणा जावनूय तूं ओग्गी? तुजेर कसलोय परिणाम ना?” मळबान विचारलें.

“ओग्गी राव रे...!” न्हंयीन कांयच न्ही अशें करून म्हणलें.

“आयज कितलींशींच वर्सां जालीं ती म्हज्या माथ्या वेल्यान

व्हांवता. आनी आतां तिका आडावचें म्हूण आसा...?" दोंगराच्या उतरांत एके तरेचो खेद स्पश्टपणान झळकतालो.

"हय तर! पांयांक पांयजणां बांदून खळखळत, खिलखिलत तिका दर्या दिकेन व्हांवतना पळोवन म्हज्या काळजाक तरी खऱ्यांनीच एकेतरेची थंडाय मेळटा."

"तिचो हो उत्कट, दोळे दिपकावपी मोग पळोवन तरी तिका कोणेंच आडावचें न्ही. हें सैमनेमाचे उरफाटें अशें म्हाका तरी दिसता."

"म्हाका अजूनय याद जाता... त्या दिसाची..."

"खंयच्या दिसांची...?" दोंगरान विचारलें.

"त्या दिसांची...! तुज्या माथ्यावेल्यान तिणें दर्याक पळयिल्लें. दर्याचें तें विशाळ रुपडें पळोवन ती भुलिल्ली. तिच्या काळजांत मोग किल्ललो. ती रातदीस सामकी अस्वस्थ आसताली. ते अस्वस्थतायेन तिका थंय रावूंक दिलें ना. एक दीस प्रचंड ओडीन आपणाले हात पातळावन ती दर्या दिकेन धांवूंक लागली. धांवतना तिका कसलेंच भान उरूंक नासलें. कोणालीच पर्वा करिनासतना खिलखिलत, थुलथुलत ती धांवताली."

"हूंऽ तिचो तो उपाट मोग पळोवन कांय जणांनी तिका आपलिशीच वाट करून दिल्ली."

"म्हाका याद जाता ती धांवत, खर्शेत सकयल देंविल्ली. रानां वनां माडयत फुडें धांवूंक लागिल्ली. आनी जेन्ना ती दर्याच्या लागीं पाविल्ली तेन्ना आपशींच शरमेन तिचीं पावलां संथ जाल्लीं."

"आतांय ती तशीच धांवता. तुज्या माथ्या वेल्यान पळय ती

कितले प्रचंड ओडीन फुडें वता! आनी मुखार तिचीं पावलां संथ, मंद पडत वतात. पूण तांगेलें मिलन मात अप्रतीम! दोळे दिपकावपी! पयली फावट तेमी दोगांय एकामेकांक मेळिल्लीं, तेन्नाय तांगेलें हेच तरेचें मिलन पळोवंक मेळिल्लें. तांचें मिलन म्हळ्यार मोगाचो एक अप्रतिम आविश्कार. एक सासणाचो संगम!"

"हो तांचो संगम पळोवन कवीक काव्यां स्फुरलीं."

"कितल्याश्याच जणांक मोगाची महती समजली. ताणीं आपलो मोग हे न्हंयीचे देगेर फुलयलो."

"फकत मोगच फुलयलो ना, मनशान आपलें जिणेंय हे न्हंयीचें देगेरुच फुलयलें. हे न्हंयीचें दर्यादिकेन व्हांवप हातूंत न्हंयीचो फकत मोगच ना. मनशालो उद्धारुय आस्पाविल्लो आसा. तिच्या सांगातानूच मनशान आपणालो राबितो तिचे देगेर वसयलो. तिचें उदक मनशाले जिणेचें अमृत थारलें. त्या उदकाचो ताणीं जाय तसो उपेग करून घेयलो."

"हय तर! पूण आयज तांचो सुवार्थ आनिकूय वाडला. तांकां हे न्हंयीचो चडान चड उपेग करून घेवचेलो आसा खंय..."

"म्हुर्तय जालो नी पयर...!"

"हय! जालो तर! फकत काम सुरु जावचेलें आसा."

"खंयचे कडेन बांदतात खंय ते धरण?" दोंगरान उमळशिकेन विचारलें.

"तूं नकळो?"

"तुजी रांग सोंपतकच धायेक मैलांच्या अंतरार दोन दोंगर जवळी भाव कशे उबे आसात हें तूं जाणां..."

“हय जाणां.”

“त्या दोनूय दोंगरांचे मजगतच्यान आमगेली न्हंय व्हांवता हें तूं जाणां.”

“हय, हय.”

“थंयच. त्या दोनूय दोंगराचे मजगतीं खंय हें धरण बांदतात.”

“धरण बांदून मागीर कितें करप?”

“करप आनीक कितें? न्हंयीचें उदक आडावन आपणाक जाय थंय तें व्हरप. जाय तसो ताचो उपेग करून घेवप.”

“मनीस आपले बुद्धीमतेच्या नेटार कसो मेळत ताचेर शेक चलोवंक लागला पळय न्ही!”

“खऱ्यांनीच हां! मनीस बुद्धीमान! ताचे बुदवंतकायेची खऱ्यांनीच तोखणाय करूंक जाय.”

इतलो तेंप ओग्गी व्हांवत आशिल्ली न्हंय आता खळखळत हांसता आनी म्हणटा,

“त्या बुद्धीवानांतूय एक विकृती आसा, एक व्हड उणाकपण आसा.”

“विकृती?”

“उणाकपण?”

“हय, हय. विकृती! उणाकपण!”

xxx

कितलोसोच वेळ जालो. मळब धरणाक नियाळटालें. मागीर ल्हवूच ताणें दोंगराक म्हणलें,

"पळयतां-पळयतां केदें व्हडलें धरण जालें न्ही? मनशाचे करामतीची, बुदवंतकायेची तोखणाय करता तितली उणीच!"

"मनशाची करामत तोखवपाची जालीच. पूण न्हंयीची अवतिकाय म्हज्यान पळोवं नजो."

"हय, बाबडी पुरायच घुस्मटिल्लेवरी जाल्या. पूण तिणें आपणालें काम थोपयलें ना. आदींचे भाशेनूच त्याच नेटान धांवत येता."

"पूण धरणाचे सुवातेर पावतकच घुटमळटा!"

"हय, हय. पूण सुराक सोदून काडपाचो यत्न सोडिना. हां...! दर्याक पर्थून वचून मेळपाचो तिचो हावेस इल्लोय उणो जावंक ना."

"मेळटलेंच! मेळटलेंच! एक ना एक दीस हांव वचून दर्याक पर्थून मेळटलेंच!" न्हंयीन तकली वयर काडून म्हळें. न्हंयीच्या उतरांनी नित्सेव खळखळटालो.

"मेळ गो बाय, मेळ. वचून मेळच तुज्या दर्याक. तुमचे मजगती आयिल्ली आडखळ पळोवन आमकांय दुख्ख भोगता." पूण... मळबाचीं उतरां आडखळ्ळीं.

"पूण कितें...?" न्हंयीन रोखडेंच विचारलें.

"म्हाका दिसना बाय, हें येदें व्हडलें अजस्त्र धरण तुजी इत्सा पुराय जावंक दितलें अशें...!" मळबाच्या उतरांत दुबाव भरिल्लो.

"ओगी राव रे!" न्हंयीन म्हळें. आनी ती मुमुरख्यांनी हांसली. ... तुमी पळयता न्ही म्हजी शक्त हेवटेन कशी वाडटा ती?" अशें म्हणून ती

पर्थून सुराक सोदूं लागली.

XXX

मळब पळयतालें.

धरणाचीं चिन्नां बरीं दिसनासल्लीं.

...इतल्यांत...

"धरण फुटलें... धरण फुटलें... पळय... पळय..." मळबान आबूज जावन म्हणलें.

"आं...? खंय तें...?" दोंगरान तकली वयर केली.

"तें पळय, फुटलें. न्हंय पळय कशी आपणाले प्रचंड ताकदीन तेवटेन सरली पळय. ती कशी पुराय गांवभर पातळ्ळी. तेवटेचो मनशालो पुराय राबितो तिणें पोटांत घेतला. कितलींशींच घरां, मनशां, जनावरां न्हंयीन आपल्या वांगडा व्हांवत व्हेल्यां जाणा तूं? पळोवंक नजो... सामको आखांत उसळ्ळा..."

"हय मू...!पाप! पळोवंक नजो! पूण न्हंयीक कोण आंडायतलो, आटापतलो? ती कोणाचेंच आयकुवची ना."

न्हंयीन इतलो तेंप दामून धरिल्लो आपलो क्रोध उकतो केल्लो. मनशांचेर सूड घेतिल्लो. तांचो राबितोच पुराय व्हांवयिल्लो, मातयेभरवण केल्लो. कांय कांय म्हूण दवरलें नासलें... आनी पर्थून ती प्रचंड ओडीन दर्याक वचून मेळिल्ली...आनी उपरांत शांत, थंड जाल्ली. आपणाल्या आदल्या पात्रां वटेनूच आदलेवरीच व्हांवूंक लागिल्ली जशें कितें कांयच घडूंक नासलें.

“बाय गो, तुका परबीं,” दोंगरान न्हंयीक म्हणलें.

“हय गो बाय, म्हजींय तुका परबीं. तुवें तुजो हट्ट खरो केलो. तुमचे मजगतची आडखळ पयस केली. जांकां आमी सगळ्यांत चड बुदवंत, तांकिवंत समजताले, तांकांच तुवें बुद्ध शिकयली. मनशां परस सैमच चड तांकिवंत म्हूण दाखोवन दिलें. आमी समजल्ले, मनीस सैमाचेर शेक चलयतलो, पूण तुवें तें फट थारयलें,” मळबान न्हंयीक तोखेत सांगलें.

मळबाच्या ह्या उतरांर न्हंय खळखळत, खिलखिलत व्हडा-व्हडान हांसली... आनी म्हणूंक लागली,

“ना, मनीस खऱ्यांनीच बुदवंत! तांकिवंत! सैमाचेरूच कित्याक, मतीक मारल्यार तो पुराय ब्रह्मांडाचेर शेक चलोवंक शकता. पूण...पूण ताचे मदली ती विकृती, तें उणाकपण ताका उदरगत सादूंक केन्नाच दिवचें ना. तुमी पळयतालीं मू...? धरण बांदूंक हाडिल्ल्यो वस्ती खंय पावताल्यो...हांगा गोलमाल कसो जातालो... स्वताक बुद्धिमान म्हूण घेवपी जणएकलो कसो आपसुवार्थ सादून घेतालो... पळयताली मूं?... परिणाम जावचो तो जालोच!... हो आपसुवार्थ, हो मतलबच मनशांतली विकृती! हेंच मनशांतलें उणाकपण! हीच मनशाले उरगते मदली आडखळ! आनी ही मनशाक केन्नाच तडीक पावंक दिवची ना... मनशान अशेंच वचत थंय नाक धाडावपाचें...! आनी तें सगळें हांव बेस बरें जाणा आसलें...”

न्हंय पर्थून एक फावट खिलखिलत हांसली आनी उडक्यो मारत व्हांवंक लागली...

***

# चोरी

सुरवातीक विस्वास बसूंक ना!

बसचेलोय न्ही!

हांवें म्हजो अणभव सांसपून चयलो, तेन्नाच ल्हव ल्हव विस्वास बसलो.

तो तसल्यांतलो न्ही हें हांव हड्ड्यार हात मारुन सांगूंक शकतां.

पांच-स वर्सां फाटली गजाल-

नवोच पांचवेक येयिल्लो तो! येदोसोच. काळो-सांवळो. मुखामळ प्रसन्न. धवो शर्ट, निळी हाफ पॅण्ट, इन बी करुन ते भशेन!

मुखार येयलो!

मस्टररोलार निशाणी करुन हांव हेडसराल्या ऑफिसांतल्यान भायर सरतां थंय आसां, हात मुखार करुन म्हणूंक लागलो, "सर, पयशे!"

हातांत करकरीत शंबर रुपयांची नोट...

"पयशे...? कसले रे?"

"म्हाका मेळ्ळे! थंय गेटी मुखार!"

त्या तेंपार शंबर रुपया म्हणल्यार म्होंवाचें मावलींग! थोडे पयशे

न्ही! हांवें खीण भर ताच्या तोंडा कडेन पळयलें. म्हाका दिसलें, ह्या भुरग्याक पयशांचें मोल समजता मू? हाचे सुवातेर हेर कोणूय आसल्यार हे पयशे हाडून दिता आशिल्लो? हांवूच आशिल्लों जाल्यार...? येवजूचें पडटलें!

"गुड! व्हेरी गूड!" हांवें ताचे फाटीर हात मारीत म्हणलें.

ताची प्रसन्न मुद्रा आनिकूय प्रसन्न जाली. घडये ते पयशे ताणें दोळ्यांचें कानाक कळूंक दिनासतना भितरले भितर गटम केले जाल्यार लेगीत ताका जितली खोस भोगना आशिल्ली तितली खोस ताका म्हजे शाबासकेन भोगिल्ली.

त्या दिसा ॲसेंब्लींत हांवें सगल्यांक विचारलें. आपले पयशे म्हूण कोणच मुखार येवंक ना.

हांवें मागीर ते पयशे ताकाच दिले तेन्ना तर ताची दोट्टी खोस मळबाक तेंकली.

सुरवातीक तो नाका म्हणटालो. हांवें म्हणलें, "हें तुजें इनाम! हरामाचे पयशे न्ही."

खऱ्यांनीच तोखणाय करी सारको गूण हो! भुरगो मनांत दसून उरलो.

जेन्ना म्हाका कळ्ळें, ताची घरची परिस्थिती तितली बरीऽऽ ना, एकेक फावट अन्नाक म्हारग आनी तरी आसतना हो म्हान गूण ह्या भुरग्यांत आसा, तेन्ना तो सामकोच काळजा कडेन आयलो.

ताका बापूय ना. मोटरसायकल ॲक्सिडेंटांत गेलो. भाडें मारतालो. एक दीस रातचो घरा येतना मोटरसायकल व्हरून ट्रकाक मोखली. जाग्यारूच सोंपलो. खूब पियेतालो अशें म्हणटात. आवय हेरांगेर कपडे

धुवन, आयदनां घांसून घरवड चलयता. इल्लेंशें घर आनी घरा भोंवतणीं इल्लिशी सुवात. हेंच तांचें साम्राज्य! तिवूय देवळाची मालकी! ना म्हणल्यार देवळांत सेवा करून थोडे भोव मेळटात. पारंपारीक दिसवडो तो! ताका चार वर्सांचो धाकलो भावूय आसा. तो खंय बाराय म्हयने दुयेंत! एकवटीत घरची घरवडी म्हणल्यार मोटवी चादर कशी! कशें तरी पांगरूण घेवप!

शिकूंक म्हणटात तसो हुशार नासलो आनी तसो साप्प बोंडोय न्ही. लोणच्या पुरती खळ! खेळांतूय तसो व्हडलोसो वस्ताद नासलो. हांवें जायते फावटी खेळांत तांका फुडें हाडचो येत्न केल्लो पूण तो तसो मुखार सरनासलो.

ताचो खरो म्हालवज म्हणल्यार ताचे गूण! ताची नमळाय, ताचें भावार्थीपण, ताचें प्रामाणीकपण. ताचें खरेपण आनी सरळ सभाव हे गूणच ताका मुखार काडटाले.

तो सातवेंत आसतनाची गजाल.

आमगेल्या इंग्लीश शिकोवपी मास्तरान ताका पंचविसांतले णव मार्क घाले. णव म्हणल्यार कांठार पास. पेपर दितकच हाणें मार्क मेजले. पळयल्यार पुराय गूण सात जातात. चुकून णव दिवप जाल्यात. ते दोन मार्क उणे केल्यार हो नापास! तरिकूय हो उठलो. पेपर घेवन मास्तरा म्हर्यांत. मास्तरान पळयलें, दोन मार्क उणे केले. पूण त्या मास्तरान ही गजाल दुसऱ्या दिसा ॲसेंब्लींत सगळ्यांक सांगली. सगळ्या मास्तरांनी ताची तोंड भरून तोखणाय केली.

आनीक एक फावट अशीच परिक्षा चलताली. एक तवनास भुरगो हाचे कुशीक पडिल्लो. त्या भुरग्याचें नांव पांडुरंग. म्हणटाले सगळे पांडो! सामको दड्डो, दोन-दोन, तीन-तीन वर्सां करीत णवेक पाविल्लो.

पिरायेन बी सुमार वाडिल्लो. आंगलोटान मानाय कसो. शाळेंत भुरग्यांक हाका बडय, ताका बडय करपी. परिक्षा सुरू आसतना ल्हवूच कॉपी मारूंक लागलो. हाणें पळयलें. हाणें फुरसद करूं ना. "सर, हो पळय कॉपी करता!" रोखडेंच सांगलें. नायक सर सुपरवायझर आसले. तांणी पांड्याक पुराय तपासलो. इतलीऽऽ कॉपी काडली खंयच्यान खंयच्यान. पेपर जातकच ह्या पांड्यान कितें करप? हाका बडयलो. हो रडत हेडसरा म्हऱ्यांत. पांड्याक मागीर आपोवन पनिशमँट दिलो. घरा वतकच हाचे आवयक हेर भुरग्यांनी सांगलें, 'हाका पांड्यान बडयलें.'

आवयन म्हणलें, "पुता, तुका नाका तें! कोणूय कॉपी मारूं नाजाल्यार मरूं! आमी गरीब मनशां! आमकां नाकात भानगडी!" तरी सुदीक हेर दिसा पांड्याक परतून कॉपी मारतना पळोवन सांगलेंच.

तो धावेक आसतनाची गजाल.

शाळेन बोंडला पिकनीक काडिल्ली. दर भुरग्याक तिकेटीचे शंबर रुपया. हांव जाणा आसलों संदेश एकाय वर्सा पिकनिकेक वचूंक ना. पिकनिकेचें नांव काडल्यार ताचें तोंड येदेंशें जातालें. पिकनिकूच कित्याक? सादे परबे-सणाक सुदीक ताच्या आंगार नवे कपडे चडनासले. बुकां, नोटबुकां, शाळेचो यो-वच खर्च हें सगलें करीत मेरेनूच आवयक घाम काडचो पडटालो. पिकनिके सारके गजाली पासत आनी पयशे खंयचे? ताची टर्म फी लेगीत शाळा भरताली.

धावेचो दर एकलो भुरगो पिकनिकेक वचूंक फुरफुरिल्लो. संदेशा भाशेनच दर वर्सा पिकनिकेक वचना जाल्लीं भुरगीं सुदीक! निमाणें वर्स न्ही शाळेचें! संकश्ट आयिल्लें तें संदेशाचेर!

त्या दिसा तो पिरेड म्हजो आसलो.

हांव वर्गांत आयल्यार मिलींद नांवाचो एक भुरगो रडटा. "कित्याक रडटा रे?" म्हणून विचारल्यार म्हणूंक लागलो, "म्हजे शंबर रुपया ना जाल्यात!"

"खंय दवरिल्ले रे?"

"कंपासांत!"

"केन्ना दवरिल्ले?"

"मदले सुटयेचे पयलीं, तिसऱ्या पिरेडाक, आमचे क्लासटिचरीचो पिरेड आसलो. तिका पांचशीं रुपयांची नोट दिल्ली. तिणें शंबर घेवन बाकी शंबरांच्यो चार नोटी दिल्ल्यो. भायर गेल्ले कडेन पडत बी म्हूण हांवें कंपासांत दवरिल्ल्यो."

"बाकी तीन नोटी आसात?"

"हय सर!"

"कंपासांत दवरतना सकयल बी पडूंक नात मरे?"

"ना! पळयलें सर!"

"सकयल पळयले? पळय आशीकुशीक!" अशें म्हणत हांवेंय थंय हेवटेन तेवटेन पळयलें. शंबरांची नोट दिश्टी पडली ना. मागीर हांवें म्हणलें, "कोणाकय जर मेळ्ळी जाल्यार वा कोणेंय मुजरत काडून घेतली जाल्यार दियात प्रामाणीकपणान! पनीशमेंट करचों ना!"

सगलीं भुरगीं ओग्गी!

"पळयात! नाजाल्या सगल्यांक तपासचें पडटलें."

भुरगीं ओग्गीच.

फाटले तेंपार एक फावट ह्या वर्गांत अशेच कोणाचे तरी पयशे ना जाल्ले. तपासतकच एकल्याच्या दप्तरांत मेळिल्ले.

"तुमकां तपासूं हांव?"

"हय." भुरग्यांनी तकली हालयत म्हणलें.

हांवें एकेका भुरग्याक तपासलें. संदेश मिलींदा कुशीकच बसतालो. संदेशा म्हर्यांत पावतकच हांवें म्हणलें, "संदेशाक आनी तपासचें पडटलें...? तो तर प्रामाणीकपणा पासत सामको फामाद... न्ही?"

"हय," भुरग्यांनी तकली हालयली. "तरी हेरांक तपासलें म्हणटकच ताकाय तपासूंकच जाय न्ही?" अशें म्हणत हांवें ताका तपासूंक सुरवात केली वयलेवयरुच! पूण जेन्ना हांवें ताच्या दप्तरांतल्यान सहज कंपास घेवन तो उगडलो, तेन्ना म्हाका ती शंबरांची नोट दिसली. संदेशा कडेन पळयल्यार ताचो पुराय चेरो पडिल्लो. सामको देंविल्लो.

हांवें खीण भर चिंतलें आनी कंपास तसोच बंद केलो. उपरांत बेठेंच ताचें दप्तर सांसपिलेंशें करत म्हणलें, "संदेश आनी असलें काम करता? ताचो दुबाव घेवप लेगीत पाप न्ही?" भुरग्यांनी हयकारीत तकली हालयली.

मागीर हेर भुरग्यांकय तपासलें आनी मिलींदाक म्हणलें, "हें पळय, कोणाकडेनूच तुजे पयशे नात. कितेंय आसूं, तुजे पयशे हांव दितां. तूं रडनाका." अशें म्हणून हांवें म्हजें पाकीट उगडून तातूंतल्यान शंबर रुपये काडून ताका दिले. आनी ताणें घेतलेय. नाका म्हणूंक ना.

तो पिरेड सोंपतकच. "संदेश, मातसो यो म्हजे वांगडा. अशें म्हणत ताका भायर आपयलो. "आतां खंयचो पिरेड तुका?"

"वर्क एक्सपिरियन्स!"

“हांव सांगतां सराक मागीर! यो तूं म्हजे वांगडा,” अशें म्हणत हांव ताका घेवन असेंब्ली हॉलांत आयलों. थंयची एक खुर्ची ओडून हांव ताचेर बसलों. बस म्हूण ताका मुख़्रा वयले खुर्चेर बसयलो. संदेशाचो चेरो अजून देंविल्लोच आशिल्लो. हाताचीं बोटांय थरथरतालीं.

“आतां देसाय सर कितें सांगता तें सारकें आयकून घे. आयकता मरे?”

संदेशान फकत हयकारीत तकली हालयली.

“हांव बारावे आसतनाची गजाल. आमी सगलीं स भांवडां. बापूय शेतकामती. घरांत खावंक-पियेवंक आसलें. पूण पयशांची येणावळ सामकी उणी. सगलीं भांवडां शिकतालीं. सगल्यांच्या शिक्षणाचो खर्च, कपडेलत्ते म्हणटा मेरेन आवय-बापायचो जीव गळ्यालागीं येतालो. तेन्ना म्हाका फकत एक पॅण्ट आनी दोन शर्ट आसले. ताचे वयर ना. हेर भुरगीं बरे-बरे कपडे घालून येतालीं. भुरग्यांनी म्हाका एकूच पॅण्ट घालून येता म्हूण हेडावंक सुरवात केल्ली. एक पॅण्टी देसाय म्हूण. हांव हांसलोसों करून दीस काडटालों, पूण भितरल्यान खूब वायट दिसतालें. सांगतलों कोणाक? आवय-बापूय कितले त्रास काडून शिकयतात तें दिसतालें.

एक दीस मावशी आयली. घोवा वांगडा मुंबय आसताली ती. मावशीय बी तशी व्हडली गिरेस्त न्ही. मध्यमवर्गियूच. पूण नोकरे शिपायाली बायल. तिचे पर्सींत पयशे आसताले.

मावशेन पर्स थंयच टेबलार दवरली आनी ती भितर गेली. कश्शेंय करून आनीक एक पॅण्ट शिंवचीच ही इत्सा सामकी मनाक खाताली. पर्स पळोवन मन लुच्च जालें. मावशेले पर्सींत पयशे कितले आसात काय? थोडे घेतल्यार कशे? मावशी निमाणे कडेन म्हजीच न्ही! येवजण मनांत येता थंय आसा, हांवें ल्हवूच पर्स उगडली. खूब नोटी

आसल्यो. तातूंतली पन्नास रुपयांची एक नोट काडली. तेन्ना पन्नास रुपयांत पॅण्ट पीस येतालो. थंयच एक पुस्तक आसलें. तातूंत ती नोट घाली. पर्स बंद करून दवरली. आतां तूं म्हणटलो, सर, तुमी म्हणटात मावशी तुमची. मागीर पयशे मागून घेवं येताले. अशें चोरपाची गरज नासली. तुका सांगतां, म्हजी मावशी एक नंबर हिमटी आसली. म्हाका दिसता, दोन रुपयांचो बिस्किटां पुडो हाडप लेगीत तिच्या जिवार येतालें. बेठीच परवंताली. मुंबयंत इतलो खर्च आनी तितलो खर्च! हिका फकत दोन भुरगीं आनी घोव पुलीस! रावूंक पुलीस क्वार्टर! सांगपाचें म्हणल्यार तिचे कडेन इतले पयशे मागप आनी रेंवेर उदक उडोवप सारकें. मेळपाची आस्त नासली. तेन्ना पन्नास रुपया बी म्हणल्यार खूऽब.

हांवें पयशे चोरले खरे पूण मागीर मन खावंक लागलें. असले धंदे हांवें केन्नाच करूंक नासले. तुजे भाशेनच आमच्या आवय-बापायन आमकां खूब बरे संस्कार दिल्ले. मन कशेंच रावना. निमाणे कडेन आई कडेन चूक कबूल केली. पयशे चोरपाचें कारण जेन्ना आईक कळ्ळें तेन्ना आईच्या दोळ्यांतल्यान घसघशीत दुकां पडलीं. मागीर ती पदर तोंडा कडेन धरून खूब रडली. हांव समजल्लों. ती उलयतली, संवतली, पोल्यार मारतली. तशें तिणें कांयच करूंक ना. तिणें पयशे म्हजे कडल्यान मागून घेतले. दुसऱ्या दिसा मावशेगेर गेली. मावशी मुंबय रावली तरी तिच्या घोवाचें घर लागींच आसलें. वर्साक एक फावट येताली तेन्ना ती थंयच रावताली. आईन तिका कितें सांगलें, हांव नकळो. पूण मावशेन पयशे परते धाडले आनी म्हाका पॅण्ट शिवून घेवंक सांगलें.

उपरांत मात हांवें असली चूक केन्नाच करूंक ना, म्हाका सांगपाचें आसा इतलेंच, मनशाच्या हातांतल्यान चुको जातातूच! आनी जावपाक जाय! चुकले बगर मनीस सुदारना!”

म्हजी काणी आयकतना संदेशाच्या दोळ्यांत दुकां एकठांय जाल्लीं. आतां तर तीं पटपट करून गालार गळूंक लागिल्लीं. तकली सकयल घालून ताणें मनगटान दुकां पुसलीं.

"सॉरी सर! सॉरी!"

"तुका पिकनिकेक येवंक जाय मरे?" हांवें विचारलें. सारकें कारण म्हाका जाणून घेवंक जाय आसलें.

ताणें हयकारान तकली हालयली.

"यो तूं पिकनिकेक! मिलींदाचे पयशे हांवें दिले. म्हणटकच हे पयशे हांवें तुका दिले अशें समज!"

संदेश आतां सामको हुडकेवंक लागलो.

हांवें म्हणलें, "ओगी राव! निमाणे कडेन आमी मनीस, अशें जाताच!" हांवें ताका थातारलो. सुमार वेळान तो सावचीत जातकच ल्हवूच सांगलें, "हें पळय, आमचे कडेन आशिल्ले बरे गूण ही आमकां मेळिल्ली व्हड देणगी. ती तशीच जतनायली जाल्यार खूब फावटीं त्याग करचो पडटा. हातुंतूच मनशाचें व्हडपण आसता. आनी हें व्हडपण तिगोवन दवरप हेंच मनीसपण!"

हांवें बोल्सांतल्यान लेंस काडलो. म्हज्याच हातान ताचे दोळे पुसले. ताचे तकले वयल्यान हात भोंवडायलो. आनी म्हणलें, "हें पळय, हें जें कितें घडलें तें कोणाक सांगूं नाका. गरज ना ताची! कळ्ळें न्ही?"

ताणें तकली हालयली.

***

# गोगलगाय

स्कूल लायब्ररींत पेपर वाचत बशिल्लों.

“सर.”

“कितें रे?” पेपरांतली तकली भायर काडत हांवें विचारलें.

“मातशें उलवचें आसा.”

“मातशें कित्याक? जाय तितलें उलय!”

“सर, मातशे भायर येतात?” तो तोंड येदेशें करून विचारतालो. हाचें कितें तरी खाजगी आसा अशें येवजून हांव उठलों. “यो,”म्हणत ताका घेवन शाळेच्या ग्रांवडार येयलो. एके कुशीन व्हरून हांवें म्हणलें, “सांग!”

“सर, हांव ताचेर मरतालों!”

म्हाका समजलें ना! तरी हांवें फकाणानशें म्हणलें. “मरतालो? इतले बेगीनच कित्याक मरतालो तर तूं!”

ताका म्हज्या उलवण्याचो अर्थ कळ्ळो.

“मरता म्हणल्यार ताचेर मोग करतालों.”

“मोग... तूं...?”

"तेंवूय म्हजेर करतालें, सर."

"परबीं!" हांवें ताचो हात हातांत घेवन पर्थून फकाणांतूच म्हणलें. "हें चय, हांव शिकलों, रोजी मेळयली, आयज लग्नाचो जालां, तरी म्हाका मोग करप जमलें ना. तुका इतले बेगीन जमलें! वालोर! खंयचे शाळेंत शिकलो...?"

ताका ह्या उतरांची लज जाली. तो सकल तकली घालून ओग्गी जालो.

"तूं कोणाचेर मोग करतालो तें सांगलें ना."

"दियाचेर, सर!" ताणें लजतेर सांगलें.

"तुमच्या वर्गांतल्या?"

"हय सर!"

हांव चकासूर! म्हाका अजाप!

"तें तुजेर मोग करतालें?" हांवें विस्वास बसूंक ना म्हूण पर्थून विचारलें.

"हय सर!"

दिया सदांच तकली सकयल घालून चलपी. दिसूंक भोवच मवाळ, थंड आनी निरागस कशें! सगळ्या शिक्षकांचें ह्या भुरग्याबद्दल सामकें बरें मत! ते भायर शिकूंकय हुशार, पयलें येवपी. ताचो बापूय तर सदांच आपली धूव म्हणल्यार गोगलगाय म्हणटालो.

एस्. एस्. सी. शिकपी भुरगीं हीं! हे पिरायेर मोग करतात म्हूण सांगल्यार कोणाक खरें दिसपा ना.

“हां! फुडें सांग...”

“सर, हांव तरासांत पडलां...!” इतलें उलोवन तो रडूंक लागलो. दोळ्यांतल्यान पटपट करून दुकां गळून पडूंक लागलीं.

“रडूं नाका, सांग!” ताची फाट ल्हवूच थापटीत हांवें म्हणलें.

“ताचे आवय-बापायक कळ्ळें खंय सर!”

“मागीर बरें जालें. तुजे तरास वांचले. केन्ना तरी कळूंकच जाय आशिल्लें मुरे?”

तो पर्थून तकली सकयल घालून ओग्गी. दोळे पुसयत.

मागीर ल्हवूच म्हणूंक लागलो, “सर, म्हाका भिरांत दिसता.”

“कसली?”

“ताच्या आवय-बापायक कळ्ळें न्ही सर!”

“कळ्ळें म्हूण जालें कितें? कळूं दी.”

“ताचो डॅडी शाळेंत येतलो खंय सर, आयज.”

“म्हूण तूं भियेलो?”

“हय सर! तो तापलो खंय सर, खुब्ब!”

“कोणें सांगलें तुका?”

“दियान सर, सकाळीं शाळेंत येना फुडें सांगलें.”

तो सुमार इतलो भियेल्लो. ताचें तोंड येद्देशेंच जाल्लें, आनी दरेक उतर उलयना फुडें आवंडो गुट्टालो. भिरांतेन ताळो सुकूंक लागिल्लो. ताची ती अवतिकाय चयन हांवें म्हणलें, हें पळय, जांकां ह्या असल्या गजालींची

भिरांत दिसता, तांणी मोग करप न्ही! मोग छातीवंतान करचो.”

ताच्या दोळ्यांत पर्थून दुकां एकठांय जालीं.

“हांवें म्हणलें, आतां रडूनय उपेग ना, आनी भिवनय उपेग ना! आयिल्ल्या प्रसंगाक मुखार वचप होच उपाय! हें सगळें मोग करचे आदीं येवजूंक जाय आसलें तुवें!... पुसय दोळे!”

ताणें दाव्या मनगटान दोळे पुसले.

“म्हाका सांग, ताचे आवय-बापायक कळ्ळें कशें?”

“सर, हांवें बरयिल्ली चीट तांकां मेळ्ळी.”

“मागीर...?”

“ताचो डॅडी खुब्ब म्हळ्यार खुब्ब तापलो खंय! आपूण वचून शाळेंत हेडमास्तराक सांगून म्हाका पनिशमेंट दिवंक लायतां म्हणूंक लागलो खंय! आतां येतलो खंय सर तो शाळेंत.”

दियाचो बापूय वसंत नायक आमचे शाळेचो ‘चेअरमॅन.’ ते भायर एक बिजिनेसमॅन! समाजांत बरो वजन आशिल्लो मनीस. सभावान आपलें म्हणणेंच खरें म्हणपी आनी तोंडान फटकळ. कोणाक कॅर करपी न्ही. ताचे वांगडा उलोवचें जाल्यार ‘लायसन’ काडूंक जाय. तो उलयल्यार ताचेर कोणाची जाप आसना. हेडमास्तर तर ताका थर्त भियेता हाची म्हाका पुरायेन जाणवीक आसली. तो येयल्यार हाची गत ना. तो सांगता तें आयकून हेडमास्तर तकली हालयतलो हें हांव जाणा जाल्लों.

“दियान म्हाका आनी चड तरासांत उडयलो सर!”

“कितें केलें?”

“आपली कांय चूक ना, हांवच ताचेर मोग करतां, असल्यो

चिटी बी बरयतां म्हूण सांगलें खंय!"

"म्हव्यार आपूण सेफ!"

"म्हाका सांगता, आपलें नांव सांगूं नाका म्हूण! आपल्याचेर हांव खरो मना साकून मोग करतां जाल्यार आपलें नांव हांव सांगचो ना म्हणटा सर! वीर-झारा मुव्हीची देख दिता म्हाका."

म्हाका हें आयकून हांसूंक आयलें. हांवें म्हणलें, "तेंच कित्याक देख घेना? "

"हय सर, आपली कातडी वांचयता."

हांवें मागीर येवजिलें आनी सांगलें, "तूं वच आनी दियाक हांव आपयतां म्हूण सांग. वच, घेवन यो ताका."

तो वर्गांत वचून दियाक आपोवन घेवन येयलो.

हांवें दियाक विचारलें, "तूं हाचेर मोग करता मुगो?" ह्या भुरग्यान कितें म्हणप? आपूण ताचेर मोग करच ना म्हणटा. होच आपल्याक चिटयो बरयता, 'आय लव्ह यू!' म्हणटा बी म्हूण सांगून आपूण तसलें न्हीच! आपूण तातूंत नाच्च करुन उडयलें.

म्हाकाय मातसो दुबाव मारलो.

दिया साळसूद भुरगें, थंड. एक विद्यार्थी म्हूण सोब सारकें वागपी. हें सगळे जाणा आसले. तें असलें कितेंय, तेंवूय हे पिरायेर करत अशें कोणूच म्हणचो ना.

उरफाटें हो समीर तवनास. एक वर्स नपासूय जाल्लो. हाचीं फकाणां मार, ताका चिमटे काड करपी. खेळांत मात सामको वस्ताद. शाळेक ताणें खेळांत कितलींशींच इनामां जोडून दिल्यांत. आंगापांगान

घट्ट-मुट्ट, ऊंच आनी गोरो हिरो कसो. चयल्यार चलयांनी पिशें जावपाचेंच... असलो! पुणून, ताका तशीं चली भुरग्याचीं फकाणां मारतना हांवें पारखिलें नासलें वा तशी कागाळूय क्लासटिचर ह्या नात्यान म्हजे कडेन येवंक नासली.

हांव भुरग्यां कडेन इतलो बरो वागतालों. तांकां हांव आपलो व्हडलो भाव कसो, दोस्त कसोच दिसतालों. तीं आपल्या तोंडान तशें म्हणटालीं. खूबशीं भुरगीं आपल्यो खाजगी, काळजांतल्यो गजाली म्हाका सांगतालीं. म्हजो पिरियेड म्हणल्यार तांकां परब! ह्या समीराक तर हांव चडच बरो करतालों. कित्याक देव जाणा! ओग्गी, वर्गांत थंड बसतल्या भुरग्यां परस म्हाका मस्तीं भुरगीं आवडटात. थंड भुरगीं म्हाका आंगांत रगत नाशिल्लीं कशीं दिसतात.

हांवें दियाक 'वच' म्हूण सांगलें.

दिया वतकीर हांवें समीराक म्हणलें, "म्हाका सांग, दियान बरयिल्ली चीट बी तुजे कडेन आसा...?"

समीर म्हणूंक लागलो, "हय सर, आसा!"

"आतां आसा?"

"ना, घरा आसा, सर! ताणेंच सुरवात केल्ली सर. म्हज्या नोटबुकांत शायरी बी बरयतालें, मोगाच्यो."

"आतां एक काम करुंया. तूं क्लासींत बसूं नाका. कोणाचो पिरियेड?"

"वसंत सराचो."

"हांव सांगतां ताका. म्हाका पिरियेड ऑफ आसा. तुज्या घरा

वचून ती चीट घेवन येवया. कितल्यो चिटयो आसात?"

"आसतल्यो...!"

"कितल्योय आसूं, घेवन येवया."

समीराचें घर खूब लागीं आशिल्लें. स्कुटरीर चार-पांच मिनटांची वाट. ताका हांव घेवन गेलों. ताणें तीन-चार चिटयो हाडल्यो. हांवें त्यो बऱ्यो करून बोल्सांत दवरल्यो.

पांच पिरियेडांच्या मदले सुटयेंत ज्युस्त हेडमास्तरान म्हाका आनी समीराक आपोवंक धाडलो.

थंय गेल्यार दियाचो बापूय वसंत नायक कदेलार राजा कसो बसून आसा. आनी हेडमास्तर ताचे मुखार शरण येयिल्लेवरी हात बांदून बसला.

हांव वचून एका कदेलार बस म्हणटकीर बसलों. समीर चोर कसो कुशीन उबो रावलो.

हेडमास्तरान चवकशी सुरु केली.

हेदोळ बरे भाशेन म्हाका सगळी गजाल वेवस्थीत सोडोवन सांगपी समीर थंय त-त-प-प करूंक लागलो. सारखीं उतरांय हाचे तोंडांतल्यान भायर सरनात. भियेवन बर्फ जालो. कांयच उलयना.

वसंत नायक समीरान दियाक बरयिल्ली चीट घेवन येयिल्लो. चेअरमॅन ह्या नात्यान घडये आवाज चडोवन म्हणूंक लागलो, "तूं हे पिरायेंत असलीं नाटकां करता ते परस अभ्यास करून बरे करून पास जा मुरे?"

मागीर म्हाका म्हणूंक लागलो, "सर, तुमी क्लासटीचर. तुमची

असल्या भुरग्यांचेर नदर आसूंक जाय."

हांव ओगी रावलों.

उपरांत म्हणूंक लागलो, "ह्या असल्या भुरग्याचें नांव शाळेंतल्यान काडून उडोवंक जाय. दवरूंक जायना." आनी मागीर हेडमास्तराक म्हणूंक लागलो, "तुमी हाचे आवय-बापायक आपोवन, तांकां सांगा. आनी तुमच्यान हाका कसली पनिशमेंट दिवंक जाता, ती दियात. पुणून ह्या भुरग्याक पनिशमेंट जावंकच जाय. म्हज्या गोगलगायी सारख्या भुरग्याचेर वायट नदर दवरता हो, हेरांक कितें करतलो?"

हांवें म्हणलें, "सर, तुमी मातशें म्हजें आयकतले?"

"हूं!"

"हांव दियाक आपयतां."

"ताका कित्याक?"

"सांगतां." अशें म्हणत हांवें प्युनाक धाडून दियाक आपयलें. दिया येवन थंड उबें रावलें. तोच निरागस चेरो.

ल्हवूच बोल्सांतल्यान चिटयो भायर काडून हांवें म्हणलें, "दिया, ह्यो तुवें बरयल्यात काय चय..."

चिटयो चयना फुडें दियान म्हणलें, "हें म्हजें अक्षर न्ही! ह्यो हांवें बरयल्यो नात!"

मागीर हांवें दियाचीं नोटबुकां हाडलीं. अक्षरां जुळटात काय चयलीं. वयले वयर चयल्यार एकूच सारकीं दिसलीं, तरी दोनूय अक्षरांत सुमार इतलो फरक आशिल्लो.

"अरे, तुका लक्षांत येवंक ना रे हें समीर?" हांवें म्हणलें.

“म्हाका तितलें कळ्ळें ना सर, तें!”

“मागीर ह्यो चिटयो बरयल्यो कोणी?”

“सर, हें अक्षर सवितालें...” दियान पट करून सांगलें.

“सवितालें?”

सगळे चकासूर.

हांवें सविताक आपोवंक लायलें. सवितान चिटयो घेवन बरें करून चयन सांगलें, “हय सर, हें म्हजेंच अक्षर! दियान म्हजे कडल्यान बरोवन घेतिल्ल्यो सर, ह्यो!”

हाचेर दिया पटकन् म्हणूंक लागलें, “हांव तुजे कडल्यान कित्याक बरोवन घेतलें? म्हाका बरोवंक येना?”

“हें चय, म्हजे धुवेक डिस्टर्ब करूंक ह्या दोगांनीय केल्लीं हीं नाटकां अशें म्हाका दिसता.” वसंत नाजूक उलयलो. हेडमास्तरानूय तकली हालयली.

“समीर, ह्यो चिटयो तुका दिल्यो कोणी?” हांवें विचारलें.

“दियान सर.”

“...आनी सर, दियान तुमी येतले म्हूण सकाळीं समीराक सांगिल्लें. समीर भिलो. ताणें म्हाका सांगलें. हांवें चवकशी करूनच ह्यो चिटयो वचून मुजरत हाडल्यो. ह्या सगळ्या गजालीं वेल्यान म्हाका दियाच फट उलयता अशें दिसता.”

“हय सर, दियाच फट उलयता.”

“हय सर!” दोगांनीय सांगलें.

“ना सर, हांव फट उलयना! ह्या दोगांयचें कारस्थान हें, म्हजो अभ्यास  डिस्टर्ब करूंक!”

सविता हरशीं दियाची इश्टीण. पांचवे सावन वांगडा भोंवचीं, खावचीं. सगळी शाळा तांकां पारीवाळां जोडी म्हणटाली. दोगांय फाटीं फुडें नंबरान येतालीं. आनी आयज हे घडयेक दिया आपल्यावेलें कवळ सविताचेर आनी आपूण जाचेर मोग करतां त्या समीराचेर धुकलतालें. आपल्याचेर येयिल्लें हें कवळ पळोवन सविताय बाबडें काचाबूल जाल्लें. आनी इश्टिणीचें वागप पळोवन अजापीत!

“हें चय,” वसंत नायक म्हणूंक लागलो, “पुराय वाठार सांगतलो, म्हजी धूव कशी म्हूण. तुमीय ताका पारखिलां आसतलेंच. तुमचें विद्यार्थी तें!” हेडमास्तर हय म्हूण तकली हालयतालो. “म्हजे मुखार असलें नाका जाल्लें कवळ तुमी म्हजे धुवेर हाडलां. हांव तुमकां कसोच वोगी रावचों ना. तुमकां दोगांकूय पनिशमेंट जावंकच जाय! म्हजी गोगलगाय कशी धूव!”

समीर आनी सविता दोगांय काचाबूल जावन एक फावट म्हज्या, जाल्यार एक फावट हेडमास्तरांच्या तोंडा कडेन पळोवंक लागलीं.

- आनी हांव थंय एकठांय जाल्ल्या सगळ्यांच्या तोंडा कडेन!

ह्या सगळ्या भुरग्यांक समज दिवप गरजेचें, म्हाका दिसलें!

***

## रूढ

सुमार वर्सांनी ताका पळयतालों.

कारवारच्या सातेबाजारांत तें दिसलें. कांदेकारा मुखार उबें रावन कांदे घेतालें.

सुर्वेक हय न्ही, हय न्ही जालें.

तोच चेरो. तीच उंचाय. तीच लकब. पिरायेक लागून सैमीक फरक पडला तितलोच. हरशीं खूब वर्सांनी पळयतल्याक साप्प वळखूंक येवं नये असो फरक ना!

आंग मातशें स्थूल जालां. दोळ्यां सकयल काळी गोलाय दाटल्या. आनी दोळ्यांर वक्ल चडलां. इतलोच फरक!

हांव मातसो मुखार सरलों.

"बरें मुगो, वळखता?" हांवें जावन हटकिलें.

ताणें तकली वयर करून पळयलें. पूण तें म्हाका वळखूंक ना हे ताचे चेऱ्यावेले भाव पळोवन म्हाका समजलें.

"वळखलें ना गो...?"

.......

"ना...?

म्हजे भितर सुमार इतलो फरक जालो. पोट वाडलां. ताळेवेले केंस धवे जाल्यात आनी मातशें खरडय पडलां. चेरोय आदलो उरूंक ना. दोळ्यांर वक्ल तर चडलांच! म्हजे कॉलेज इश्ट खूब तेंपान मेळटात ते म्हाका कशेंच वळखनात. हें तरी कशें वळखतलें?

"हांव सुरेश! सुरेश कदम!"

तरी तें वळखलें ना.

ताणें न्हयकारत तकली हालयत म्हणलें, "सारखें याद जायना."

"अडगो हांव तुजे कॉलेजींत शिकतालों मुगो! तुजे परस दोन वर्सां मुखार शिकतालों!"

ताणें बरो करून म्हाका नियाळ्ळो आनी मागीर "हां...हां! याद जाली!" म्हणत मागीर वळखलें म्हूण सांगलें.

"कितलो बदल्ला रे तूं! सामको वळखूंक मेळना!"

"हय, बरोबर! तूं मात चडशें बदलूंक ना!" हांवें म्हणलें. "केंसय पिकूंक ना तुजे! ताच्या केंसा कडेन चोयत हांवें मुजरत फकाणांनशें म्हणलें. हांव जाणां, हे पिरायेंत केंस अशे तरेन काळे आसप शक्य ना!"

"केंस काळे खंयचे? केंसांक रंग लायला...!" तें खळखळून हांसत उलयलें. तोच आदलो कॉलेजींत आसतनाचो हांसो.

उतरा-उतरा खळखळत, हांसत उलोवपाची ताची संवय! कितेंय म्हणल्यार हांसतालें. केन्नाय हांवें ताका तोंड वांकडें करून आशिल्लें, वा बेजारांत आशिल्लें अशें पळोवंक नासलें. सदांच हांसकुरो चेरो! प्रसन्न व्यक्तिमत्व!

दिसतालेंय भोव सोबीत. तें सोबीत सरळ नाक. ते मोठे मोठे

काळे दोळे. ती सोबीत भुंवयां (त्या तेंपार भुवयां कोरांतची फॅशन नासली) तो लांबसो गुलगुलीत चेरो. ते लांब सरळ केंस. येद्दी व्हडली जाड कमरा मेरेन पावपी फांती घालतालें. एक शिवडी मध्यम उंचायेचें गोरें छाया कोणालेय नदरेंत भरपा सारकें आसलें. शिकूंकय हुशार आसलें.

हांव जाणां, त्या तेंपार कॉलेजींतले जायते चले ताचेर मरताले पुणून ताणें केन्नाच कोणाक लागीं करूंक ना. नितळ सभावाचें छाया निमाणे मेरेन चारित्र्यान नितळच उरलें.

तें तशें सगळ्यां कडेनूच बरें करून रावतालें. पुणून हरेक पावल मात समजिकायेन घालतालें.

हरशीं तें बऱ्या घराण्यांतलें. हणकोणच्या सुब्राय नायकालें चली. रीत-पत सांबाळून आशिल्लो परंपरागत घराबो तो! त्या काळांत तांच्या घराब्यांतले लोक चड शिकून बुदवंत जाल्ले. बऱ्या बऱ्या रोजेर पाविल्ले. छायाचो बापूय सुब्राय नायक मिलेटरींत सुबेदार मेजर आसलो.

एकवटीत छायाची चाल-चलन आपल्या घराब्याक सोबसारखी आसली.

“तूं कसो असा? बरो आसा मुरे?” ताणें म्हजी वासपूस करत विचारलें.

“बरो आसां!” हांवें म्हणलें, “तूं कशें आसा?”

“आसां बरें! आतां खंय आसा तूं?” ताणें रोखडेंच विचारलें.

“अंदूच रिटायर जालां हांव! आतां गांवांत आयलां. आतां हांगाच रावतलों.”

“वर्सां कितलीं बेगीन वतात न्ही! सगळें पयर-पयरूच दिसता!”

ताणें म्हणलें.

"तूं कितें करता?" हांवें मुजरत ताची चवकशी करत विचारलें. म्हाका थोडेंशें कुतुहल आसलें. कुतुहल आसूंकय कारण आसलें.

"म्हजीं आनी दोन वर्सां उरल्यांत!"

"म्हळ्यार, तूं सर्वीस करता...?"

"हय तर!"

छाया त्या तेंपावेलें बी.ए. तेन्ना आमचे जातींत चडश्यो चलयो कॉलेजीक वचूंक मागना आसल्यो. आनी गेल्यारूय सर्व्हीस करूंक मागना आसल्यो. सर्व्हीस केल्यारूय लग्ना उपरांत तांचे घोव तांकां सर्व्हीस करूंक दिना आसले. चड शिकल्यारूय घोवाचें घर सांबाळप आनी कमी शिकल्यारूय घर सांबाळप अशें आसलें. बायलांनी सर्व्हीस करप ना. अशें कितेंशें नाका जाल्लें, न्हीं नस्तें व्हडपण आमचे जातींत चलतालें.

म्हाका याद जाता, छायाची सोयरीक म्हाका येयिल्ली. तेन्ना छाया सर्व्हिसेक नासलें. तेन्ना बी. ए. शिकल्यार रोखडीच सर्व्हीस मेळटाली. म्हाकाय रोखडीच मेळिल्ली.

बी. ए. पास जातकीर हांव पोलीस फौजदार परिक्षा पास जावन फौजदार म्हूण पोलिशेंत गेलों.

हांव रजेर येयिल्लो तेन्ना छायाच्या बापायक, सुब्राय नायकाक कोणें तरी म्हजे बद्दल सांगलें. तोवूय तेन्ना रजेर येयिल्लो आसलो. मुजरत आपले धुवेचें लग्न जुळोवंक म्हूणच.

तो फोटो, जातक बी घेवन सोमतोच आमगेर येयलो.

आमचो घराबो बी गडगंज! नांवस्तीक! तांच्या घराची सोयरीक

जुळोवंक फावो असो.

हांव फौजदार म्हणटकीर ताका चड मानवलो. तोवूय चड करून मिलेटरी ऑफिसर. नातर, पोलीस ऑफिसर आपले धुवे पासत घोव म्हूण सोदतालो आनी आमचे जातींतल्यो धुवोय तेदवार असलेच चले पसंत करतालीं. घडये खेत्री समाजांतल्यो धुवो जाल्ल्यान जांवये.

तो येयिल्लो तेन्ना हांव घराच आसलों!

लांब-रूंद, गोरो, आंगापांगान मजबूत असो, म्हाका पळोवन तो सामको सुर्वेकूच खूश जालो. तोंड फुटोवन म्हणूंक लागलो, "म्हजे धुवेक असलोच घोव जाय!"

म्हाका येयिल्ली ही पयलीच सोयरीक! तीवूय बऱ्या घरांतले धुवेची. ती धुवूय छाया. म्हजे कॉलेजींत शिकिल्लें! म्हज्या सारक्या तरणाट्याच्या काळजांत एक सुवात जोडिल्लें!

म्हाकाय जायते फावटी दिसतालें, छाया म्हाका मेळिल्लें जाल्यार कितलें बरें जाता आशिल्लें!

सुब्राय नायक घरा येयिल्लो तेन्ना, आई आनी बाब घरा नासलीं. शेतां गेल्लीं. म्हजो बापूय सर्व्हिसेक नासलो. आमचो संवसार व्हडलो. खुंबाशीं भाता जमनीचो! ते भायर नाल्लाचीं भाटां! हांव आतां चड शिकलों आनी सर्व्हिसेक वचूंक मागतां म्हूणच म्हाका सर्व्हिसेक धाडलो. नातर, घरा रावल्यार कसलीच खोट नासली. आनी तातूंत आवय बापायचो एकलोच पूत. तोवूय चौग भयण्यां फाटल्यान!

घरच्या मानायां धाडून आई-बाबाक आपोवंक लायलो.

तो मेरेन नातवाक सोयरीक येयल्या म्हूण कळटकीर आपले

कुडींतल्यान म्हजी आज्यी मुखार येवन बसली. तिका व्हडली खोस. तिच्या मुखामळार ती खोस स्पश्ट झळकताली.

आई-बाबा येता मेरेन सुब्राय नायक म्हजेकडेन आनी आज्येकडेन उलयलो. ताचे उलवण्यांतल्यान म्हाका कळ्ळें, ताचे धुवेक हांव पसंत आसां. आपूण म्हाका वळखतां. हांव ताचे कॉलेजींत शिकतालों बी म्हूण ताणें बापायक सांगिल्लें. सुब्राय नायकान म्हाका स्पश्ट विचारलें, “तुवें कॉलेजींत म्हजे धुवेक चयल्या, म्हणटकीर तुका पसंत आसा मुरे? आतांच सांग. पसंत आसल्यार फुडल्यो गजाली करुंया!”

हांवेंय फुरसद चयना आसतना “हय” म्हूण सांगलें.

पुणून जेन्ना आई आनी बाबा शेतांतल्यान आयलीं, तेन्ना मात पुराय खोऽऽजाले.

बाबान सुब्राय नायकाची वासपूस बी केली. ताका पानक बी दिवूंक लायलें. आनी मागीर ल्हवूच म्हणलें,

“सुब्राय बाब, आमी वाडेकार आनी तुमी हणकोणकार! वाडेकार-हणकोणकारांक सोयरीक ना!”

हाचेर सुब्राय नायक व्हडाव्हडान हांसलो. म्हणूंक लागलो,

“म्हाबळूबाब, आतां आनी असल्यो गजाली मानप म्हूण आसा? आमी शिकिल्ल्या लोकांनी तरी मानप न्ही, अशें म्हजें मत! हांव जाणां, आमचेमदीं सोयरीक जायना! पुणून तें सगळें घेवन ह्या जमान्यांत बसूं नये रे!”

आमच्या समाजांत कांय कांय जणांमदीं सोयरिको जायनात. जाण्टेल्यांनी फाटल्या पिळग्यांक तशें सांगून दवरलां. तांचें मत, लग्नां

जालींच जाल्यार तीं लग्नां नंदनात, टिकनात. एक तर बायल नातर घोव मरता. नातर सोडचीट जाता. नातर भुरगीं जायनात. असले जायते अणभव आयले उपरांतच जाण्टेल्यांनी तें थारोवन दवरलां. म्हणटकीर, लोक सोयरीक जुळोवंक फुडें सरनात. तांकां फुडें सरची छातीच जायना! जाण्टेल्यांच्या म्हणण्याभाशेन कितेंय चड-उणें जाल्यार? एक भिरांत!

म्हजो बापूयबीन कसोच तयार जालो ना!

आज्जी तर म्हणूंक लागली, "पुता, जाण्टेल्या म्हालगड्यांच्या उतरा भायर वचप समां न्ही! रीत-भात-रुढ-परंपरा मनशांनी पाळूंकच जाय! जाण्टेले पिशे म्हूण तांणी हें सगळें आमकां नेमून दिल्लें ना! तातूंत कितें तरी सत आसा म्हूणच न्ही!"

म्हजी आई बी म्हणूं लागली, "कित्याक म्हूण जोखीम घेवया! ना-ना म्हूण जाल्लो म्हजो एकलोच पूत! धा ना पांच!"

आमचें घर मुळांतच रीत-भात-रुढ-परंपरेक हिसपा भायर पाळो दिवपी. देव-धर्म, सोवळे-बावळे जिस्ताजिस्त पाळपी. तांकां सुब्राय नायकाचो रुढीक खोटावपाचो विचार कसोच मानवलो ना.

सुब्राय नायका वांगडा हांवूय निर्शेलों.

घरच्यांच्या मतां भायर वचून कितेंय करपाचो विचार सुदीक तकल्यांत हाडप ना, ह्या संस्कारांत वाडिल्लों हांवूय तोंडांत फोव घालून ओग्गी रावलों. म्हण्टकीर आमची सोयरीक जावूं ना. तरीय त्या दिसा हांवें ल्हवूच आई कडेन म्हणिल्लें, "आई, कित्याक म्हण हें इतलें घेवन बसप? आतां जमानो बदल्ला!" आईन म्हणलें, "आपूण आपले सावळेक भिवन दीस काडूंक जाय! नुस्त्या भाशेन बरें दिसता म्हूण पटकरून गिळप न्ही!" आनी मागीर तिणें एक देखय दिल्ली.

कोणें तरी खंय, केली सोयरीक! केली म्हणचे परस जाली! हे दोगूय वाडेकार आनी हणकोणकार पोलिशेंत आसताले. पोलीस लायनींत शेजरा-शेजरा रावताले. एकट्याची धूव आनी एकट्याचो पूत. दोगांयचेंय जुळ्ळें. कशींच आयकूंक तयार नात. मागीर करतले कितें? जावचें आशिल्लें जाता म्हूण केलें लग्न! लग्न जाल्ल्या तीन दिसांनीच खंय चली पिश्यार पडली. सुधारलीच ना!

हें आयकून हांवूय बैला भाशेन तकली हालोवन ओग्गी रावलों.

उपरांत छाया म्हाका केन्नाच मेळ्ळें ना. ताचें लग्न खंय जालें, कोणा कडेन जालें, हाचीय चवकशी हांवें केन्ना करूंक ना. आनी आयज कितल्याशाच वर्सांनी छाया म्हाका मेळिल्लें.

हांवें ताका म्हणलें, "तुजी सोयरीक म्हाका येयिल्ली, तेन्ना तूं सिर्व्हिसेक नासलें!"

"....ना!"

"खंय उरतात तुमी?"

"मुंबय!"

"दिलां खंय तुका?" म्हाका ही व्हडली उमळशीक आसली.

"कठीणकोणा...! दिगंबर कदमाक...!"

"कठीणकोणा? हांव दिगंबर म्हूण कोणाक वळखना. पुणून आमचेच लोक ते! आमच्याच देवाचे! वाडेकारच ते!" हांवें म्हणलें.

"हय, हय! वाडेकारच!"

हांव चकासूर!

"...अगो पूण, वाडेकारां आनी हणकोणकारां सोयरीक जायनात म्हूणच आमची सोयरीक जावंक नासली!"

तें पर्थून खळखळत हांसलें. म्हणूंक लागलें, "जाणां हांव! म्हजो बापूय तें काय मानिना आसलो. आनी हेमगेरच्यांकूय तें तसलें व्हडलेंशें लागना आसलें. जातक सुदीक आमचें जुळटा काय ना तें पळयलें ना! देवा कडेन प्रसाद लायलो, जालें!"

"भुरगीं कितलीं तुका?" हांवें मुजरत विचारलें.

"दोग पूत! व्हडलो एम्. बी. बी. एस्. दोतोर! आनी धाकटो कॅमिकल इंजिनियर! जांबिया आसता." छायान व्हडा वोंडरान सांगलें.

"तुजो घोव रिटायर जालो?"

"हय! तीन वर्सां जालीं. आतां हांव रिटायर जातकीर तुजे भाशेन आमीय गांवां येवंन रावतलीं."

"हय गो! गांवांक विसरनये मनशान! ज्या गांवांत जल्मलां, त्या गांवांतच आपली माती जावप हाचेसारखें भाग्य ना!"

"हां, म्हाका एक सांग." ताणें अचकीत याद जाल्ल्या भाशेन म्हाका विचारलें, "तुजी बायल खंयची रे?"

"अवुर्सेंची!"

"घराच आसा काय सर्व्हीस बी...?"

"घराच...!"

"बरी आसा न्ही?"

"आसा!" हांवें म्हणलें, तशी म्हजी बायल बरी आसना. संधीवातान

सामकी पिडल्या, हें ताका कित्याक सांगुया?

“आनी तुका भुरगीं कितलीं रे?” ताणें निमणो प्रस्न केलो.

“म्हाका भुरगीं जावूं ना!” हांवें ल्हवूच म्हणलें. हें सांगतना म्हजी जीब  मातशी जड जाल्ली.

ताका तें होलमलें जावये. रोखडेंच म्हणलें ताणें, “सॉरी हां!”

“इट्स ओ. के.!” हांवें म्हणलें.

मागीर हांव थंय रावूंक ना. “बरें ” अशें म्हणून थंयच्यान कडसलों, ल्हवूच!

***

# कर्तूब

सात-आठ वर्सांचो भुरगो तो! “आई गे... आई...गे...” करत जिवाच्या आकांतान फुडें धांवतालो... आनी ताचे फाटल्यान तो मदानमस्त बैल! जीव व्हरूंक येयिल्लो यमदूत कसो!

हेऽऽ त्या बैलाचें खुबस्थान! उमथें होलेसूप कशें! आंगापांगान हत्ती! धवो! शिंगां गोल, दोनूय टोकां एकमेकांक वयर मेळटालीं. घणसाबैल सोबऽ! रामण्णालो गाड्ये बैल हो. गाडी ओडून ओडून आनी सरकी पेंड खावन पकदस्त जाल्लो. हरशीं हो बैल तसो सब-सब शेतांत वा मळ्यार चरतना दिसपी न्हय. गाडयेचो बैल जाल्ल्यान तेका तशें चड सोडपय जायना आसलें. पुणून हे दिसाडेन तो चडच अरवळ दिसतालो. कोणाल्याय बागांत-पोरसांत वंय मोडून घुसप आनी पुराय दानादिस्पट करून उडवप. इतलेंय करून थांबतालो? चाळवल्ल्या भाशेन कोणाच्याय फाटल्यान लागतालो. मनीस, सुणीं, बोकडां कोणाच्याय फाटल्यान!

एक दीस आदमखान घुत्यार बोकडां चरयतालो. ताच्या एका बोकडा फाटल्यान हो लागलो. आदमखानान हातांतल्या दांड्यान दोन हाचेर शेंवटिले आनी बोकडाची सुटका केली.

आडयेंतलीं बायलां, भुरगीं तर थर्त भियेतालीं. हो मुखार दिसल्यार थंय रावच नासलीं. फुस्स् करप, मांडप आनी मागीर घुरी घालूंक येयिल्ल्यावरी आंगार धांवन येवप.

लोक रामण्णाच्या नांवान खेपताले, आनी रामण्णा कानार केंस काडटालो.

आयजय तशेंच जालें. भुरगीं शेतांत विटी-तोण्यान खेळटालीं. शिवानंद सरालो एकुलतो पूत दिपक त्या भुरग्यांत आसलो. भुरग्यां वांगडा खेळटालो. ताच्या हातांत विटी आनी तोणो आसलो. ताचे मुखार विरुद्ध पंगडांतलीं भुरगीं हाणें मारिल्ली विटी आडोवंक जळीं-मळीं उबीं आसलीं. पाव-चटमट-भिरमूट-घोडा-बुच्ची-डोळा-झीर... म्हण तो वीट तोण्यान शेवटितां थंय आसा... भुरगीं बोवाळ्ळीं. "बैल...बैल...बैल...धांव दिपक, फाटल्यान बैल..."

हो बैल फाटलेवटेच्या घुत्यार चरतालो आसतलो. कोणें चयला? सकयल देंवन केन्ना दिपका फाटल्यान पावलो समजलेंच ना. देवप्पाल्या दिगंबरान हो फाटल्यान मांडून उबो आशिल्लो पयलो चयलें आनी बोवाळ घाली. मागीर हेर भुरग्यांनीय!

दिपक हरशींय नाजूक आंगलोटाचो भुरगो तो. एकूच जाल्ल्यान चड अपुरबायेन वाडयिल्लो. घे... जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हण धांवूक लागलो... दिपक मुखार बैल फाटल्यान.

"आई गेऽऽ आई गेऽऽ"

"धांव दिपक, धांव. जोरान धांव..." शेत भर पुराय बोवाळ.

सोमणाली बायल शांतू पोरसां उदक शिंपया म्हूण हांडीर कोळसो मारून पोरसां वयताली. हें पळोवन ती थंयच थांबली. तिवूय बोवाळूं लागली. "कोणूय धांवा रे! वाचयात रे पोराक! ना जाल्यार दैत्य दवरचो ना पोराक! कोणूय आडायात रे त्या बैलाक... हैक... हैक... हैक... चोर मेल्लो... हैक... हैक...अरवळ पडलो मेल्लो!... वचून धनयाक मार! हांगा

पडला मेल्लो लोकांक तरास दिवंक...'' ती उबी राविल्ले कडच्यान खेपूंक लागली.

सगळे उबे राविल्ले कडच्यानूच बोवाळटाले. मुखार वचून बैलाक धांवडावपाचें धैर्य कोणाक जायनासलें.

दिपक बोबो हुयेली मारत मुखार धांवता आनी बैल दिपकाक सोडूंक तयार ना. दिपक भियेवनच अर्द जाम जाल्लो. बुशकोटा भितर हुमेन न्हाल्लो. जीव गळ्या कडेन हाडून धांवतालो. मुखारूच शांतूलो पोर्सूं आसलो. चोयबटेनी चौक अगळ काडून ताचेर सुरीशिरीं लायिल्लीं आसलीं. देखून हेवटेन उबो रावन चयल्यार पोरसा फाटल्यान कोणूय उबो आशिल्लो दिश्टी पडनासलो. दिपकान खिणांतच थारायलें, पोर्साफाटल्यान आपूण जर धांवलो जायत तर घडये बैलाक आपूण खंय आसां, हें झुप्प करून कळचें ना... आनी फुरसद करिनासतना पोर्सा फाटल्यान धांवलो. हो बैल म्हण कितलो मदानमस्त! शिकयिल्ले भाशेन ताचे फाटल्यान होवूय धांवलो... दिपक पोर्सा भोंवतणें बोवाळ मारत घुवंड्यो काडटा, जाल्यार बैल ताचे फाटल्यान आनाळ्यो-घुनाळ्यो! बाकी सगळें हर हर म्हादेव म्हणिल्ले भशेन फकत बोवाळटात.

दिपकाक दिसलें, ''आतां हांव वांचचेलों ना. हो म्हाका - धांवडावन धांवडावन जाम करतलो आनी निमाणेकडेन आड घालतलो. कमर मोडटलो नातर बरगड्यो तरी मोडून उडयतलो. आरे देवाऽ निरंकारा वाचय रे म्हाका...'' इतलो वेळ तो भिरांतेन बोवाळ मारतालो, आतां ताका रडूंकय येवंक लागलें.

घुत्याच्या त्या पोतार चिन्नास्वामी सुरीं झाडार चडून शिरीं सोकाळटालो. ताच्या पोर्साक ह्याच बैलान दोन दिसां फाटीं दोन-तीन

कडेन अगळ मोडून खेंड घायिल्ली. ताणें पर्थून ती पुरायेन ताचेर गच्च ताजीं शिरीं लावचें थारायिल्लें आनी देखून तो झाडार चडून शिरीं मारतालो. ताणें झाडार चडिल्ले कडेन बोवाळ आयकली. सकयल नदर मारल्यार दिपकाचेर अरिश्ट!

दिपक चिन्नास्वामील्या सरालो चेडो. शिवानंद सरालो. शिवानंदसर चिन्नास्वामीक देव! देवळांतल्या देवा परस कितलोसो व्हडलो देव! खूपदां चिन्नास्वामीक दिसलांय, देवळांतल्या देवाक पुजा करची परस सराक मखरांत बसवचें. खऱ्यांनींच फुलां घालून आरती ओंवाळची! सरान चिन्नास्वामीच्या काळजांत व्हड स्थान मेळयिल्लें. कसो कुशीक करूंक शकतलो चिन्नास्वामी सरांक आपल्या काळजांतल्यान? कसो विसरूंक शकतलो सरांले उपकार?

खऱ्यांनीच त्या दिसा सरांनी चिन्नास्वामीक आनी ताचे आवयक आश्रय दिना जाल्यार आयज तांचें कितें जाता आशिल्लें? आयजवेर सरांनी जे तरेन तांकां आपले मदतीचे हात दिले, ते दिना जाल्यार कितें जाता आशिल्लें चिन्नास्वामीचें? ताच्या शिक्षणाचें?

त्या दिसा दोन दीस शाळा चुकयल्लो चिन्नास्वामी निमण्या रांगेंतल्या कोणशांतल्या बेंचीर एका कुशीक डेस्कार तकली दवरून टक टक करून दुकां गळयतालो. सरांची नदर चिन्नास्वामीचेर गेल्ली.

“चिन्नास्वामी, कितें रे?” सरांनी लागीं वचून चिन्नास्वामील्या तकलेवेल्यान ल्हवूच हात भोंवडायत विचारिल्लें.

सरांचो तो मायेमोगाचो हात तकले वेल्यान भोंवतकीर चिन्नास्वामीक घळघळ जाल्लें. तो चडूच रडूंक लागिल्लो.

“अरे, तुजें जालें कितें...?” चिन्ना ओग्गी रडत.

"सर, तो व्हदळसावन रडत आसा..." कुशीक बशिल्ल्या भुरग्यान सांगिल्लें.

"चिन्नास्वामी, आतां म्हाका सांग हां! कितें जालें सांग... सांग... सांग.. सांग!" सर सामको फाटीकूच लागिल्लो.

"सर, आमकां घरांतल्यान भायर घायले. आमगेलें सगळें सामान बीर भायर काडून उडयलां सर!" इतलें सांगून तो पर्थून रडूंक लागलो.

सर जाणा आशिल्ले, चिन्नास्वामी आनी ताची आवय बोमनायकाल्या बांदार रावतालीं. घर कसलें तें! मनशां रावतात म्हूण घर म्हणपाचें. नातर ती एक खोंप नळे घाल्ली. बोमनायकानूच काडून दिल्ली. तातूंत बोमनायकालोच सुवार्थ आसलो. बांदावेल्या माडांचे नाल्ल चोर दवरनासले. बांद न्हंयचे तेवटेन पडटा तो. लोकवस्ती न्हंयचे हेवटेन, देखून चोरांचें बरें फावतालें. हाचेर उपाय म्हूण बोमनायकान मुत्तुस्वामीक, चिन्नास्वामील्या बापायक हाडून हांगा दवरिल्लो. मुत्तुस्वामी आनी ताची घरकान्न तेवटेची, घाटावेली खंयचीतरी! तेन्नाच ती काम धंद्याक लागून ह्या गांवांत येयिल्लीं. तांकांय रावूंक म्हण खंयतरी आश्रय जाय आसलो. बोमनायकाचेंय फावलें आनी हांकांय बीनभाड्याचें घर रावूंक मेळ्ळें. ही रावत सावन बांदाक जाग येयली. आनी चोरी बंद जाली. मुत्तुस्वामीन थोडीं सुणी पोसूंक नासलीं, पांच स तरी आशिल्लीं. मातशें खंयूय सट्-सूट् जाल्यार घेऊ भोकूंक लागतालीं. आयकून कान फुट्टाले. भोंकण्याचें सम्मेलनच सुरु जातालें. अशे तरेन जाग आशिल्ले सुवातेर गांवटी चोर सोपेपणान कशे येतले? ही सुणीं पोसचेली परंपरा मुत्तूस्वामीन पयर तो भायर पडटा मेरेन तशीच दवरिल्ली.

मुत्तूस्वामी अचकीत भायर पडलो. लोखणाचो खिळो पांयाक लागिल्लें निमित्त! लक्ष दिवंक ना. धनकुटेचेर पडलें. पस्तीस-सदतीस

वर्सांचो. चिन्नास्वामी तेन्ना पांचवेक शिकतालो.

सुर्वेक गांवांत येयिल्लो तेन्ना मुत्तुस्वामी हळेभव्यार, रामनाथ भोव्यार फातर काडचेलें काम करतालो. मागीर गवंडीकाम करूंक लागलो. आनी हालीं हालीं तर नाल्ल पाडपाचेंय काम करतालो. बायलय घोवावांगडा ल्हान-व्हड कामाक वयताली. घोव-बायल आनी पुतालें चलतालें कशेंतरी!

मुत्तुस्वामी भायर पडलो आनी आवय-पूत उबंत पडलीं. तरीय आवय हांगा-थंय कामधंद्याक वचून स्वताचें आनी पुताचें पोट भरतालीं.

मुत्तुस्वामी भायर पडत सावन वर्सभर भितर बांदार ल्हवू ल्हवू पर्थून नाल्लांची चोरी जावंक लागली. लांबचो लांब बांद तो! ह्या पोतावेल्यान त्या... पोता मेरेन! आदीं सुणीं भोकूंक लागतकीर मुत्तुस्वामी भायर येतालो. आपल्या स शेल्लाचे बॅटरीन पयस मेरेन फोकोस मारून चयतालो. दुबाव येयल्यार हातांत फरशी घेवन वचूंक वयतालो. आतां तशें जायना जालें. एकली बायल मनीस आनी तो धायेक वर्सांचो पूत! सुणीं भोंकली किर्ते, आनी मनशां बोवाळ्ळीं किर्ते, कशीं वयतलीं काळखांत भायर?

ते भायर सुमार वर्सा जाल्लीं हीं हांगा बसकण मारून आशिल्लीं. बोमनायकान येवजिलें आसुंये, घडये फाल्यां राविल्ले सुवातेर हक्क बीन सांगत... कटकटच नाका म्हण तो एक दीस थारोवनच आयलो. म्हणूंक लागलो, “तुमी हांगासल्ल्यान आतां खाली करा! तुमच्यान बांद राखूंक जायना आतां! म्हाका आतां कोणाक तरी हेरांक हाडून दवरूंक जाय!”

ती बाबडी किर्ते म्हणटली? तिणें खूब पारार्थिलें. हो आयकूंक तयार ना. निमाणे कडेन तिणें सांगलें, “इतलीं वर्सा आमी हांगा रावल्यांत. निदान एक म्हयनो तरी रावंक दी. तोमेरेन हांव खंयूय जाल्यार सोय चयतां!” हाचेर बोमनायकान स्पश्ट सांगलें, “म्हयनो बियनो कांय ना!

चडान चड एका सप्तक दितां! ण्का सप्तका भितर खाली करना जाल्यार फुडल्या सोमारा येवन सामान भायर काडून उडयतलों!" आनी तो सटसटीत पावलां मारत चलूंक लागिल्लो.

सप्तकभर बाबडेन खूब कडेन चवकशी केली, पुणून, खंयच घर रावूंक मेळ्ळें ना,

सोमार दिसा हो दयामायाहीण मनीस सैतान कसो येयलो. "वचां.." म्हणूं लागलो. आनी फुरसद चयना आसतना घरांतल्यो एकेक वस्ती काडून भायर उडोवंक लागलो.

तिणें बाबडेन हात जोडले, पांय धरले, खूब खूब पारार्थिलें पुणून, कसोच आयकूंक तयार ना. इलाजच ना. म्हणटकीर तिणें मागीर म्हणलें, "तूं काडून उडोवं नाका म्हजें सामान! हांवूच काडटां भायर!" मागीर आवय-पुतान एकेक वस्ती हाडून भायर दवरल्यो. चड न्ही, थोडेंशेच सामान तांचें!

बोमनायक घराक कुलूप लावन गेलो. आनी दोगांय आवय-पूत तो आख्खो दीस आपल्या सामाना मुखार बसून रावलीं उपाशीं. दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत. कोणूय देव मनीस मदतीक येत हाची वाट पळयत. पुणून कोणूच येवंक ना! दीस गेलो, रात येयली. काळखी रात. पयस कोले-भाले रडटाले. तांचो आवाज आयकून सुणींय भोंकतालीं. मळबांत एकूय नखेत्र ना. आनी वांगडा सांगाताक कोण ना अशे परिस्थितींत आवय-पूत एकमेकांक वेंग मारून ओग्गी बसून रावलीं. आवय रातभर जागी आनी पुताक अर्दकुटी न्हीद. भूक ना, तान ना!

हेर दिसा आवयन थंयचेच तीन फातर घेवन चूल मांडली. बांयंतल्यान बिंदलो भरून उदक हाडलें. जोळाचे फीट घेवन फीट मळ्ळी.

चुलींत जळोव घालून जाळ केलो. ताचेर तवो दवरून बऱ्यो जोळाच्यो भाकऱ्यो भाजल्यो. मागीर चाव केली आनी आवय-पुतान त्यो खाल्यो. मागीर आवयन पुताक म्हणलें,

“चिन्ना, हांव चार भाकऱ्यो भाजून दवरतां आनी गांवांत वचून येतां. चया खंयूय जागो मेळटलो रावूंक! गांव अजून सोंपिल्लो ना. उगडटलो देव दोळे!”

तिणें पांच-सात भाकऱ्यो भाजल्यो. इली लसुणीची चेटणी केली आनी ती गेली घर सोदूंक. पुणून रावूंक सुवात मेळ्ळी ना. दीसभर भोंवनय मेळ्ळी ना सुवात.

ती रातय तशीच गेली.

हेर दिसा आवयन पुताक म्हणलें, “पुता, तूं शाळेंत वच. कितले दीस शाळा चुकयतलो...? देव आसा! कोणाकय येतली दया! तूं वच शाळेंत!”

आनी मागीर चिन्नास्वामी कांयशा नाराजीनच शाळेंत येयिल्लो. पयलोच तास शिवानंदसरांचो आशिल्लो. सरान विचारतकीर चिन्नास्वामीन सगळी गजाल सरांक सांगली. सरांनी म्हणलें, “भिनाका पुता, हांव आसां! संवसारांतलीं सगळीं मनशां अजून मरूंक नात. कांय जितीं आसात!”

सरांनी फुरसद केली ना. एक रिक्षा टेम्पो आपयली. सोमती बांदार व्हेली. सगळें सामान भरून हाडलें. सरांल्या घरा मुखारच एक घर आसलें. सरांगेरचीं सगळीं ‘भायलेंघर’ म्हणटालीं त्या घराक. तातूंत सामान भरलें आनी आवय-पुताक रावूंक सांगलें. इतल्यानूच सोपूंक ना. शिवानंदसरांगेर भाटां-बेसां खूब. शेतजमीन अर्दो गांव. सरांनी एक खाणयेची जमीन हांकां हुंवून खावूंक दिली. आवय-पूत शेतांत खूब घोळटालीं.

भात-उडीद पिकयतालीं. पोर्सूं फुलयतालीं. ते भायर सरांले घरगिरेस्तीचो वावर व्हड. थंयूय तांकां ल्हान-व्हड वावराक मदतीक वयतालीं. चिन्नास्वामीले शाळेची फी, पुस्तकांचो खर्च सरच पळयताले. एकवटीत सरच ताका शिकयताले म्हणल्यार जातालें. सरांनी ताका तशेंच सांगिल्लें, "चिन्ना, तूं जाय तितलें शीक. हांव तुका शिकयतां!" चिन्नास्वामीन एक फावट विचारिल्लें, "सर, तुमी कित्याक करतात आमचे खातीर इतलें?" ताचेर सरांनी दिल्ली जाप चिन्नास्वामीच्या काळजांत एक शिल्प कशें कोरून उरिल्ली. सरांनी म्हणिल्लें, "मनशान मनशाक पावप नाजाल्यार कोणें पावप? हेरांक मदत करप हें मनशालें कर्तूब!"

चिन्नास्वामी शिकूंक हुशार, गुणी आनी जबाबदार भुरगो आसलो. "चिन्ना, तूं फुडें कोण जातलो रे?" म्हण विचारल्यार "सर, हांव सैन्यांत भरती जातलों. आमच्या देशाक राखतलों!" ही ताची जाप आसताली आनी ताची मोखय तीच आसली. खूब फावटी तो सरांक विचारतालो, "सर, सैन्यांत भरती जावचें जाल्यार कितें करचें पडटा...?" सर मागीर सांगताले, "कांय ना, बरो करून शीक. आंगा-पांगान घटमूट जा. लांब-रूंद जा! हांवच व्हरून भरती करतां तुका!"

आनी चिन्नास्वामी जाल्लोय आंगा-पांगान घटमूट! सोळा वर्सांचेरूच अठरा वर्सांचो कसो दिसतालो. साडेपांच फूट उंचाय. रांपिल्लें आंग. मायाय कसो दिसऽ. कोणेंतरी ताका सांगिल्लें, खेळांत बीन हुशार उरल्यार सैन्यांत फाटीर हात मारून घेतात. ताणें खेळांत थोडीं सर्टिफिकिटां मेळवूंक नाशिल्लीं. धांवूंक, हुडूंक, कबड्डींत बीन सदांच मुखार. शाळेंतलें ड्रील. मासपिटी मन लावन करतालो. स्वताक सामको शिटूक केल्लो. गुरी एकूच, सैन्यांत भरती जावचेली.

मेकळ्या मनाचो, सरळ सभावाचो चिन्नास्वामी कोणेंय कसलेंय

काम सांगल्यार 'ना' म्हणपी न्ही. हेरांक उपकारा पडप हें ताचें भुशण! प्रसंग पडल्यार स्वताच्या जिवाची पर्वा करिनासतना लोकां खातीर धांवत वचप ताका आवडटालें. तो ताचो सभावच जाल्लो.

...आनी आतां तर ताच्या आवडिच्या सरांच्या पुताचेरूच संकश्ट येयिल्लें. तो खिणभर कांचवेलो. मागीर ताणें तोडो करूना, हातांतली कोयती तशीच सकयल उडयली आनी सरसरीत देवूं लागलो. ताकतिकेन देंवतना ताका एक-दोन कडेन झरकटलेंय पुणून ताणें थंय लक्ष दिवंक ना. अदमास दोन पुरीस उंचायेर आसतना ताणें सोमती सकयल उडीच घेयली. घुत्यावेल्यान शेतांत देंवलो आनी मागीर घेऽऽ धांवूंक लागलो. ताणें चयलें, दिपक आनी बैल हांचे मजगतीं फकत दोन वोंवांचें अंतर उरलां. आशिल्ल्या नाशिल्ल्या नेटान धांवूंक लागलो. ताणें थारायलें, 'म्हजो जीव गेल्यार हरकत ना, पुणून सराच्या पुताच्या केंसाक धक्को लागूंक दिवचों ना!' ताणें धांवतां धांवतां म्हळें,"यो... दिपक, म्हजेवटेन धांवत यो..." पुणून दिपक खंय आयकता? तो सामको काचाबूल जाल्लो. तो तसोच पोर्साचे भोंवतणीं धांवतालो आनी बैल फाटल्यान...

बैल आतां सामको दिपकाचे लागीं पाविल्लो. फकत दोन हातांचें अंतर! दिपकाक होलमलें, 'आतां बैल उडयता म्हाका.' ताणें आशिल्ल्या नाशिल्ल्या ताळ्यान किंळची मारली.

आतां फकत एका हाताचें अंतर उरिल्लें. चिन्नास्वामी सामको म्हऱ्यांत पाविल्लो. ताणें फुरसद चयली ना. स्वताक दोगांयच्या मदीं घालून घेयलो. आनी बैलान घेऽऽ धडक मारली. "अम्माऽऽ अयय्योऽऽ देव रेऽऽ" करत चिन्नास्वामी थंयच पडलो. पडिल्ले कडेन आनीक एक धडक!

इतल्यांत मदेवाड्यावेलो सिताराम वेल्याकेरान जवड बरगितालो,

बोवाळ आयकून धांवत येवूंक लागिल्लो, तो थंय पावलो. ताणें हातांतले हलकेन ढब्ब-ढब्ब करून बैलाचेर दोन लडे घाले. फाटीर दोन पडना फुडें बैल कुशीक सरलो... मागीर ढब्ब ढब्ब आनीक दोन! बैल मागीर थंय रावलोच ना, धांवलोऽऽ धांवलो!

सकयल पडिल्ले कडेन चिन्नास्वामी 'अम्मागेऽऽ' करत बोबो मारतालो. ताच्यान हालूं धोलूं जायना आसलें. फकत तळमळे! सगळे थंय एकठांय जाले. वाड्या वयले हेर लोकूय येयले. लोकांनी वेळ वगडायलो ना. सोमतो कारवारा व्हडले आस्पत्रेंत व्हेलो.

एस्. एस्. एल्. सी.चे पेपर तसासूंक गेल्ले शिवानंद सर पंदरा दिसांनी पर्थून येतकीर तांकां सगळी गजाल कळ्ळी.

सर चिन्नास्वामीक पळोवंक आस्पत्रेंत गेले.

चिन्नास्वामी एके खाटीर धवेंच पांगरूण आंगार घेवन उदारो न्हिदिल्लो. कुशीक ताची आवय आसली. सरांक पळोवन ती रडूंक लागली. सरांनी म्हणलें, "रडूं नाका, हांव आसां. चिन्ना बरो जातलो. हांव बरो करून घेतलों ताका."

"चिन्ना कसो आसा तूं?" सरांनी चिन्नास्वामीले तकलेर हात भोंवडायत म्हणलें.

"बरो आसां सर! पुणून म्हजे दोनूय पांय हालोवंक जायनात...!"

"तूं भिनाका. तुका बरो करून व्हरची जापसालदारकी म्हजी.!"

"एक आपरेशन जालें." चिन्नास्वामीले आवयन सांगलें...."आनीक एक करचें पडटलें म्हणटात दागदर लोक!"

"जाणां हांव!... म्हाका घरच्यांनी सांगिल्लें. हांव मेळटां मागीर

दोतोरांक...” मागीर सरांनी पर्थून चिन्नास्वामीले तकले वेल्यान हात भोंवडायत दोळ्यांत दुकां हाडून म्हणलें, “म्हजेर ख़ूब व्हड उपकार केले पुता तुवें! म्हज्या पुताक मर्णदाडयेंतल्यान वाटायलो...!”

“उपकार कसले सर? तुमीच म्हणिल्लें न्ही सर, मनशांक मनशान पावप ना जाल्यार कोणें पावप? म्हजें कर्तूब सर तें.”

सराच्या दोळ्यांतल्यान घळळ करून दुकां सकयल गळ्ळीं.

“सर, म्हाका पर्थून चलूंक धावूंक मेळटलें न्ही सर?” चिन्नास्वामीन ल्हवूच मदेंच सरांक विचारलें.

“कित्याक मेळचें ना? मेळटलें तर! तूं पुराय बरो जातलो.” सरांनी ल्हवूच ताच्या भुजार थापटायत म्हणलें.

“म्हाका सैन्यांत भरती जावंक जाय सर. आतां म्हाका सोळा. आनी दोन वर्सांनी अठरा जातात. अठरा जालीं काय सैन्यांत भरती जावंक मेळटा खंय सर!”

सरान हयकारत तकली हालयली., आनी मागीर ल्हवूच म्हणलें, “हांव दोतोराक मेळून येता हां!...” आनी सर भायर सरले. आस्पत्रेच्या ऑफिसांत वचून चिन्नास्वामीली केस खंयच्या दोतोरा लागीं आसा हाची चवकशी केली. आनी मगीर सर सोमते दोतोराच्या केबिनाकडेन येयले.

“मे आय कम इन, सर?”

“कम इन.” दोतोरान म्हणलें.

सर भितर येयले.

“प्लीज सीट. बसा.”

“थँक यू!” म्हणत सर बसले. हांव चिन्नास्वामीलो टिचर.

“ओह! चिन्नास्वामीले टिचर! पाप चिन्नास्वामीलें! कमर डॅमेज! एक ऑपरेशन जालें. आनी एक मेजर ऑपरेशन आसा! बट् व्हेरी लिट्ल होप्स्!”

“लिटल होप्स्?”

“हय! पर्थून उबो रावंक शकत म्हूण सांगूंक जायना. व्हेरी डिफिकल्ट. ताचे आवयक सांगूंक ना आमी. तुमकां म्हण सांगतां!”

“दोतोर, कितलोय खर्च येवंदी! हांव करतां! पुणून तो बरो जावंक जाय!”

“आमी ट्राय करचें! सक्सेस तागेल्या हातांत.” दोतोरान वयर बोट दाखयत म्हणलें.

सरांक आयकून हड्ड्यार लाथ मारिल्ल्या भाशेन जालें. ‘देवा, कितें हें? हेरांक उपकार करूंक गेल्ल्याचेर हें येदे व्हडलें अरिश्ट येवचें! कसलो हो न्याय देवा, तुज्या दरबारांत?’

सर उठले. केबिनाभायर येयले. तशेच थेट चिन्नास्वामी कडेन येयले. सराक पळयतकीर चिन्नास्वामीन म्हणलें, “दोतोर कितें म्हण्टा सर? म्हाका पर्थून चलूंक-धावूंक मेळटलें खंय, सर? म्हाका सैन्यांत भरती जावूंक जाय!”

सर ओग्गी! खीण भर तसोच! खीण भर त्या पोराक कितें जाप दिवची सरांक कळ्ळें ना... सरान पर्थून ताचे तकले वेल्यान मायेमोगाचो हात भोंवडायत म्हणलें, “जातलो पुता, बरो जातलो तूं! देव आसा!”

***

# नव्यां परब

खांदार नांगर घेत सावन येसोबाबाचे जिणेंत ही परब म्हणल्यार भांगरा दीस आशिल्लो. त्या दिसा सुर्या भांगराचीं किर्णां घेवन उदेतालो, ताचें घर भांगरान भरूंक! एक निराळीच उमेद ताच्या काळजांत वसतेक येताली त्या दिसा! सकाळीं नस्काक उठप आपनी भोव कश्टान पिकयिल्लें भांगर शुभम्हुर्तार घरांत हाडप. नवें घरांत हाडप आनी नवान्न ग्रहण करप, हाचे सारकी खोशयेची गजाल नाशिल्लीच!

पुणून, आयजूय ती खोस तशीच उरल्या...?

हाडाचो शेतकार तो! ताचो बापूय, आजो, पणजो सगळे शेतकार! शेतकारालें वंशावळीचें रगत ताच्या शिरंतरांनी खेळटालें. आनी देखुनूच मुलकी मेरेन शिक्षण घेतकीर, शेतांतलो वावर करचे खातीर ताणें शाळा सोडिल्ली.

ताका याद जाता, मुलकी पुराय जातकीर कृष्ण मास्तरान ताका विचारिल्लें, "अरे, फुडें शिकता मुरे...?"

"ना मास्तर!"

"ना! कित्याक? तुज्या बापायक तुका जाय तितलें शिकोवंक तांकता, तुंवूंय शिकूंक हुशार! शीक फुडें!"

"म्हाका शिकचें ना मास्तर!"

"तशें जाल्यार तूं अशें कर, अठरा वर्सां पुराय जातकीर शिक्षण खात्याक अर्ज कर. मुलकी पास जाल्ल्याक मुळावे शाळेचो मास्तर म्हण रोजी मेळटा. बऱ्या मार्कांनी पास जाता तूं! फाटीर हात मारून घेतले तुका!"

"ना मास्तर, म्हाका मास्तर जावचें ना! म्हाका शेतकारच जावचें आसा! आज्या-पोंज्यालो वावरच मुखार व्हरचो आसा!"

आयज येसोबाब ऐशीं वर्सां लागीं पावला. त्या तेंपार मुलकी जाल्ल्यांक शाळेचो मास्तरच कित्याक, जायत्यो रोजी मेळटाल्यो. मिलिट्री वचूंक तर घरा कडेन आपोवंक येताले. येयिल्ले बी ताका आपोवंक! येसोबाबाक याद आसा. एक दीस चार मिलिट्रीवाले ड्रेस घायिल्ले, भुजांर फितां बी लायिल्ले, येसोबाबाचो नामो विचारीत येयिल्ले. येसोबाबाक फलटणेंत यो म्हूण दम्मय करताले. येसोबाब कसोच वचूंक ना. ताचे वांगडी शिवराम, पुंडलीक बी गेल्ले. ते कॅप्टन, मेजर बी जावन रिटायर जाल्ले. हें कित्याक, येसोबाबाचो जिवाचो इश्ट, चिचेवाडचो बाबुराय फुडें वकालत शिकलो आनी राजकारणांत पडून खासदार मेरेन जालो. येसोबाब शिकूंक बाबुराया परस हुशार आशिल्लो. मतीक मानल्यार ताच्यानय जाय तो जावं येतालें. पुणून येसोबाबान वंशावळीची घोळटीक सोडूं ना... ताणें हीं पिशेपणां केल्लीं...?

जिणेभर कमरेक काश्टी मारून खांदार खोरें घेवन, येसोबाब घोळ घोळ घोळ्ळा. ताणें कड-मुले केल्यात, कसलां-अळयलां, सारें वारयलां, नडलां-न्हुवलां, शेतांतलो खंयचो वावर करुंना ताणें? धा खूंब बियां जमणीचो धनी आसुनय, तो आळां वांगडा हुमेन न्हालां. ताचो बापूय, आजो, पोंजोय अशेच घोळिल्ले. आपणें मेरेर बसून, आळांक वावराक लावप, तांकां केन्नाच जमलेंना. आपल्या शेतांत आपणें घोळूंकच

जाय, तरच ती धर्तरी आवय खूश जाता अशें ताचें मानप आशिल्लें. तो तेंप, तो वावरूच असो आसलो, घरांतलीं बायलां, पोरां-तारां, सगळींच आपल्याक तांकता तीं शेतांतलीं कामां करतालीं. कोणाकूच तशें काम ना अशें नासलें. शेत-भाट हेंच तांचे जिणेचें तारण आसलें. हेंच तांचें पोट आनी मोट आसलें आनी मुखेल म्हणल्यार ह्या सगळ्या वावरांत तांकां खाशेलें अशें एक समाधान आसलें. ह्या वावरांतल्यानूच तांचें जिणें सुखा-समाधानान वयतालें. पुणून, आयज सुखा-समाधानाची व्याख्या बदल्ल्या. मनशाची जिणय बदल्ल्या. हे बदलिल्ले जिणेंत मनीस खऱ्यांनीच आदले परस समाधानी आसा?

दर वर्सा भाशेन आयजूय येसोबाब सकाळीं नस्काक उठिल्लो. पुणून, दर वर्साची उमेद ह्या वर्सा नाशिल्ली. सगळेंच रितें रितें, सुकें सुकें दिसतालें. सगळेंच अर्थहीण कशें!

येसोबाबान गोठ्यांत वचून गायेचें शेण हाडलें. देवाकुडींत शेण सारयलें. नवें पुजोवचे सुवातेर, उबे वणटीर देड हात कुडक्यार बरेंऽ शेण काडलें. शेण सुकतकीर, शेडीन ताचेर एक चौक फास्की पितारली. फास्केंत वयले वटेन सुर्य-चंद्र काडले. एके वटेन भाताचे मुडे एकाचेर एक दाळिल्ले पितारले. एके बगलेन शेताचीं सगळीं अवजारां, नांगर, जूं, अळय, कोयती, खोरें, व्हिळो, हलकी, बडवणी, ताट, कणांतर, होलेसूप बी काडलीं. मदेकांत धानाचीं सोबीत कणसां, नवी फळावळ, मोगें, तवशें, चिबड बी पितारलें. सगळें ज्युस्ताज्युस्त पितारून जातकीर ताणें धुवेक म्हणलें, “बाय, उदक तापलां काय पळय न्हाणयेंत, तापल्यार उदक काड...”

हरशीं ही सगळी पुजेची तयारी येसोबाबाची घरकान्न करताली. घरांतल्या दादल्यांनी ना तर, सवायशीण बायलांनी करचीं हीं कामां.

पुणून, येसोबाबाची घरकान्न गेल्ल्या वर्सा भायर पडिल्ली. अकस्मातच. रातीं कडेन न्हिदिल्ली, फांत्यापाराक उठलीच ना.

घरकान्नीची याद जावन येसोबाब खीणभर शेणलो. व्हारडीक करून हाडिल्ली तेन्ना, फकत चौदा वर्सां पिरायेची. चौदा वर्सां साकून पंचात्तर वर्सां मेरेन येसोबाबाल्या संवसारांत घोळ्ळी. घोळूंक वागीण आसली. आंगापांगान घटमूट. ऐन पिरायेचेर लाकडाची पाटी कशी आशिल्ली म्हणटाले. मरता मेरेन सुदीक तशी हेर जाण्ट्या बायलांवरी बागवल्ली नासली. चयल्यार अजून धायेक वर्सां जियेतली अशें दिसऽ. घरांतलो एकान एक वावर करताली. शेतांतलो, भाटांतलो वावर तांकता तसो पळयताली. फांत्यापारार उठून गोठ्यांतलें शेण काडप. गायचें दूद काडप, हें नित्याचें आसलेंच. येसोबाबाक सोबता तशी येसोबाबाली घरकान्न आसली. इतलीं वर्सां तिणें येसोबाबा वांगडा संवसार केलो. पुणून केन्नाच म्हाका हें जाय, म्हाका तें जाय म्हण हट्ट केलो ना. आनी येसोबाबानूय तिका कितेंच उणें पडूंक दिलें ना. हेर बायलां वरी कुळारा वचून धा धा दीस रावली ना. फुलट बाळंटेराक तीन म्हयने बापाय घरा राविल्ली तितलीच! तिका घोवागेरच्या हरेक वावराचो हुस्को आसतालो. आपूण थंय ना जाल्यार गोरवांचें, शेताभाटांचें सगळें जुस्त जातलें काय कितें, हाचो हुस्को तिका खंयच चार दीस वचून रावंक दिनासलो. शेता-भाटांचें भांगर करूंक येसोबाबाक जल्मभर तिणें मोलाची मदत केल्ली. तिचो वावर पळोवन, येसोबाबाले आवय-बापूय सदांच म्हणऽ, "कोणाकूय सून मेळ्ळ्यार म्हजें सुनेसारकी मेळची! फातरां शिट्यार सुदीक भांगर पिकयतली..."

आयज ह्या घरांत येसोबाबा वांगडा उरल्या ती ताची घोव मेल्ली धूव. व्हारडीक जाल्ल्या हेर वर्साकूच घोव गेलो. मागीर घोवागेरच्या

लोकांले थोमणे, तरास सोसूंक नजो जावन बापायल्या घरा येवन राविल्ली, ती पर्थून घोवा घरा गेलीच ना. ती आसा म्हूण येसोबाबाले वाटयेंत चार शिजयल्ले गोटे पडटाले. ना जाल्यार आपल्या हातांनी करुन खावचें पडटा आशिल्लें. नातर कोणूय दवरून घेवचें पडटा आशिल्लें.

येद्दें व्हडलें घर, एका तेंपार मांव-मांय, पूत-सुनो, नातरां-पोतरांनी बोवाळटालें. आतां पुरायच सामसूम! येसोबाबान आपल्या दोगूय पुतांक कितलें पारार्थिलें, "पुतांनो, तुमी हांगाच शेत-भाट पळोवन रावात. हाडां दण्णयल्यार हांगा कांयच उणें ना. त्या परंतराक रावचे परस, आपले मायभुयेंत रावन तिगेली चाकरी करप कितें वायट?" पुणून पुतांनी कशेंच आयकूंक ना. म्हणूंक लागले, "आमी शिकल्यात तें कितें चिकोल कालोवंक?" दोगूय पुतांनी मुंबय वचून रोजी केली. थंयच आपलें घर करून बायल-भुरग्यां वांगडा ते सुशेगाद आशिल्ले. केन्नाय सुटयेच्या दिसा येताले आनी सुणें फाटीक लागिल्ले वरी ताकतिकेन वयताले. येसोबाब खूब फावटी हे गजालीर येवजितालो, 'देवा, आपले मांयभुंये बद्दलचो मोग मनशाल्या मनांत असो कसो उणो जाता..? मांयभुंयेचें आनी मनशालें नातें इतलें फाल्स?'

येसोबाबाक एकेक फावट दिसतालें, आपणें दोगूय पुतांक शाळेंत धाडून व्हड चूक केली ना मू? येसोबाबाची भोव इत्सा आसली, आपल्या दोगूय पुतांनी आज्या-पोंज्यांनी घालून दिल्लो वावर अदीक नेटान मुखार व्हरचो. शेतां-भाटांत भांगर-मोतयां पिकोवचीं. पुणून, ताची इत्सा इत्साच उरिल्ली. येसोबाब पुताक सदांच म्हणऽ "उत्तम शेत, मध्यम व्यापार आनी कनिश्ठ नोकरी. नोकर जावंक कोणें वचचें? जाचे लागीं शेत-भाट कांयच ना, ताणें!"

धा खूब बियां जमीण, चार भाटां... येदी व्हडली इस्टेट येसोबाबाच्या

पदरांत आसली. खरें म्हणल्यार हरशीं अकरा खूंब बियां जमीण आनी पांच भाटां आसलीं. एक खूंब बियां जमीण आनी एक भाट कुळांनी गटम् केल्लें. आतांय उरिल्लीं भाटां कूळ-कायदो केन्ना व्हरत, सांगूं नजो! करतले कितें...? भाटां पळोवंक कुळां दवरचींच पडटालीं. नाजाल्यार पळयतलो कोण येदो व्हडलो भाटाचो वावर? येसोबाबाच्यान काय एकट्याच्यान आटापूं नजो. जाता तितले दीस केलो. निमाणे कडेन लायलीं कुळांक! शेतां तर पुराय बंजर पडिल्लीं. पोरूं मेरेन कशीं तरी केलीं. अंदूं शक्य जालें ना. फकत दोन कुडवांचें एक शेत पिकयलां. तेंवूय नव्यां परबे पुरतें. येसोबाबाच्या मनांत भोव आशिल्लें, शेतां बंजर दवर नये. आयजवेर आज्या-पोंज्यांनी केन्नाच तीं बंजर दवरूंक नाशिल्लीं. आनी अंदूच दवरप म्हणल्यार कितें? कड-मुले करूंक, हुंवतना, नडटना, न्हुंवतना कोडारचीं नातर अणशीवेलीं आळां हाडूं येतालीं. हरशींय म्हूण येसोबाब तांकां हाडूनच येदो व्हडलो शेताचो वावर करनाशिल्लो? पुणून, जाण्टेपणांत धैर्य दिवपी घरकान्नच गेली आनी सैमीक बळगेंय निखळून पडलें.

येसोबाबाक दिसलें, खंयच्या पाप्याची दिश्ट लागली, देव जाणां! म्हज्यो हिऱ्या-माणकांच्यो खणी, म्हजीं शेतां बंजर पडल्यांत. हरशीं ताका खूब जाण म्हणटाले, "हेरांनी शेतां बंजर दवरल्यांत म्हणून येसोबाबान दवरूंक नात. वालोर." हाचेर येसोबाबान म्हणप, "देवान अजून मेरेन हाता-पांयांनी घट्ट दवरला. घट्ट आसा तो मेरेन शेतां करतलों...!"

खऱ्यांनीच येसोबाब हे पिरायेचेरूय ताठ आशिल्लो. घडये जल्म भर शेतां-भाटांनी हाडां दण्णयिल्यानूच ताचीं हाडां लोखणां जाल्लीं. ताळये वेले गच्च केंस धवे जाल्ले आनी आंगार थोड्यो सुरकुत्यो पडिल्ल्यो इतल्योच जाण्टेपणाच्यो कुरवो ताच्या आंगार दिश्टी पडटाल्यो. हरशीं तो

ऊंच आनी एकशिवडी आशिल्लो. जाण्टेपणांतलें एकूय दुयेंस नासलें. उरफाटें, ताचे शारांत रावपी दोगूय पूत नाना तरांच्या दुयेंसांनी पिडिल्ले आसले. ताणें पुताक सदांच सांगप आसलें, "तुमचीं तीं तकलेक पेज दिवपी कामां आनी तुमचो तो भेसळ केल्लो आहार. दोगूय तुमकां काबार करतात...जाल्यार, आमचीं शेतांतलीं-भाटांतलीं कामां आनी आमचो घरगुती आहार आमकां आयुश्यान थीर करता!"

येसोबाबाची घरकान्न उठाउठी भायर पडली. ती आयज जिती उरल्यार कितलें बरें जाता आशिल्लें...! शेतां कशींच बंजर पडना आशिल्लीं...

"बाप्पा, उदक काडलां." धुवेन देवाकुडींत येवन सांगलें.

येसोबाब उठलो. उठ्ठना ताचीं हाडां कटकट वाजलीं. न्हाणयेंत येयलो, बरेंऽ उदक न्हालो. बरेंऽ हळडुवेंच पितांबर न्हेसलो. धुवेन सकाळींच पुजेचीं आयदनां, मुखार दवरचेली माणाय बी घांसून पुसून दवरिल्ली. नवें पुजोवचे सुवातेर येसोबाबान माणाय दवरली. कुशीक एक तवशें दवरलें. पुजेच्यो वस्ती- घांट, तांबयो, फुलपात्र बी ज्युस्ताज्युस्त जाग्यार मांडून दवरल्यो. साण्णीर इल्लें गंध झरयलें. तें तबकडेंत काडून मुखार दवरलें. दालयेंतलीं फुलां, नाल्ल, उजवाती बी तयार दवरलीं. मागीर नवें कापून हाडटकीर, तें माणायेर पुजोवप, ताका गंध-फूल करून, नाल्ल फोडून ताची पुजा करप.

"बाय, हांव नवें घेवन येतां आतां!" अशें म्हणत हातांत व्हिळो घेवन तो भायर सरलो. वतना ताणें "पुता, तूं हातांत वाटी घेवन वाजयत दारांत उबें राव. रोखडोच येतां हांव!" म्हणलें.

"हां बाप्पा!"

घरा मुखावेलो आकाडो बलांटून येसोबाब केरांत देंवलो. केर

माड्डोवन मुखावेलो घुतो बलांटतकीर येसोबाबाली सासना कुणगी! सासना कुणगेंतच धान दर वर्सा नवें म्हूण कापून हाडप हो येसोबाबाले वंशावळीन घालून घेयिल्लो नेम. ती सासना कुणगी खंय येसोबाबाले वंशावळीचें मूळ सासन! बाकी सगळें भाट-बदीक खंय उपरांत मेळयिल्लें. येसोबाबाक हरशीं नव्याचें धान कापून हाडूंक मेरांमेरांनी चलत वचचें पडटालें, केर पुराय गच्च पिकांनी भरिल्लो आसतालो. आतां केर पुराय बंजर. फकत शेतांनी नाका जाल्लें कसलें कसलें तण मातून पडलां. कोण एक पाप्यान एक कुणगी हुंविल्ली ना. सुमार वर्सां जाल्लीं. लोकांनी इल्लीं इल्लीं करून आपलीं पुराय शेतां बंजर उडयिल्लीं. सगळ्यांगेरची परिस्थिती हीच आसली. कांय जाणांलीं भुरगीं शिकून खंय खंय पयस पयस रोजेक गेल्लीं आशिल्लीं. घरांत उरिल्लीं फकत जाण्टीं मनशां! कांय घरांनी वावर करपा सारके लोक आशिल्ले पुणून तांणी शेताचो धंदो सोडून हेर धंदे सुरू केल्यात. चडशीं घरां नोकरे शिपायांलीं जाल्ल्यान पगारा-पयसो घरांत येता आनी देखून शेतां नदरे आड जाल्यांत. सुरवेक एक नेम म्हूण, एक दायज म्हूण नव्यां परबे खातीर लोक एक तरी कुणगी पिकयताले. आतां लोकांनी तेंवूय बंद केलां. कोणाल्याय पिकिल्ल्या शेतांतल्यान नव्या पुरतें इल्लेंशें धान कापून हाडटात आनी शास्त्र करतात.

येसोबाबाक दिसलें, ही नव्यां परब म्हळ्यार आतां फकाणां कशीं! अर्थहीण सुवाळो! खरें म्हणल्यार, नवें पीक घरांत हाडूंक शुभम्हुर्तार करचेली सुरवात ही! आतां पीकच कोणीं पिकयलें ना तर शुभम्हुर्तार पीक घरांत हाडचेली सुरवात करप म्हणल्यार मुर्खपणां न्हीं...? शास्त्राक कितेंय म्हूण फाटल्यान अर्थ आसा काय ना? काय फकत एक नेम म्हूण करप...?

येसोबाबाक याद जाता, एका तेंपार नवें पुजयलें काय घेऽऽ

गडगड पडटालो. थार दिनासतना न्हुवणेक सुरवात जाताली. न्हुवप, वेंगो करप, जेज बांदप, घुडी घालप. मागीर कार्तिकांत मळणेक सुरवात जाताली. वचत थंय खळार ताटयो थडथड वाजताल्यो. मळप, हुबोवप आनी मागीर भात कणांतरांनी भरून दवरप. कितलो सुखदिणो, खोसदिणो वावर हो!

पुराय बंजर केर माड्डोन येसोबाब घुत्यालागीं येयलो. घुतो बलांटून ताणें आपले सासना कुणगेर नदर घाली. थंय चयल्यार कितें...! कुणगेंत एक्कूय धान ना. पुराय कुणगी न्हुवन व्हेल्या. कालच येसोबाब कुणगी पळोवन गेल्लो. कणसां बरींऽ पिकून हळडुवीं जाल्लीं. आनी आज थंय शास्त्राक कणस नाशिल्लें. वाठारांतल्या पुराय लोकांनी नवें पुजोवंक म्हूण इल्लें इल्लें करुन पुराय धान कापून व्हेल्लें.

येसोबाब कितें समजुचें तें समजलो. ताणें मनांत म्हणलें, ‘पाडघटणाच्यान इल्लें तरी धान दवरचें! आतां हांव नवें पुजोवंक धान खंयच्यान हाडूं? आपलीं शेतां बंजर उडयतात आनी लोकांलें बुड्डून व्हरतात! नवान्न जाय तुमकां! देव धर्म जाय! शेतां करूंक नाकात दळदिर्यांनो. नवें पुजोवचे खातीर तरी एक कुणगी पिकयात.’

आतां धान व्हेले बगर नवें कसो पुजयतलो? येसोबाबान घुत्यार उबो रावन चयलें. आलतडचो पलतडचो पुराय केर बंजर. एक्कूय कुणगी उबी ना. ‘देवा, कितें हें? एका तेंपार ह्यो जमणी केन्नाच बेकार उरना आशिल्ल्यो. पावसांत भाताचीं पिकां, गिमांत कोबांचीं उशेलां पोरसूं, इदळ. कितें पिकनाशिल्लें हांगा? वर्साचे बाराय म्हयने हांगा पिकावळीचो उत्सव!... आनी आयज हीं शेतां धनयाक रडटात! वेल्या केरांत बी कोणेंय एक कुणगी हुंवल्या काय म्हूण पळोवया, म्हूण येसोबाबान केर माड्डोन, मुखावेलो घुतो बलांटून थंय चयल्यार वेल्या केरांतूय एक्कूय कुणगी उबी

ना. आतां करचें कितें? सकयले आडयेंत  बी कोणेंय एकाद्री कुणगी हुंवल्या काय...? आसूं येता,चया.’ अशें येवजून येसोबाब सकयले आडये दिकेन चलूंक लागलो. चलतां चलतां ताणें मनांत म्हणलें, ‘थंय दारांत उबें रावन पोर म्हजें वाटी वाजयत वाट पळयता आसतलें. आनी हांव हांगा धान सोदतां... फकत शास्त्रा पुरतेंच मेळ्ळ्यार पुरो आसलें. शेतकामत्यांल्या गांवांत नव्या पुरतें धान मेळना......!’

***

# सुवात

तूं तुजे तेच सुवातेर वचून बसल्या...?

तशें चयल्यार अशें म्हणप चुकीचेंच! तुवें सुवात खंय बदल्ल्या? तूं थंयच बसतालें. हांवें पयले फावट तुका पळयल्लें, तेन्नाय तूं तेच सुवातेर बशिल्लें आसलें...

म्हजी तुजी वळख-देख वाडटकीर मागीर तूं केन्ना केन्ना म्हजे सुवातेर येवन बसतालें, जाल्यार केन्ना केन्ना हांव तुजे सुवातेर!....आमकां दोगांकय एक वेगळीच सुवात चयन थंय बसप केन्ना जमलेंच ना!

तसो कोणूच सोंपेपणान आपली सुवात बदलिना!

तो सुर्या चय, कोणूय म्हणटलो तो अस्तंतेक बुडटा. सकाळीं तो उदेंतेकडल्यान वयर चडटालो... ताणें आपली सुवात बदल्ली. पूण तें खरें?...

न्हयच!

दिसता तशें तें!

म्हजें आनी तुजेंय तशेंच!

सुमार इतल्या दिसांनी हांव चयतां तुका. खरें सांगूं, म्हजे दोळे तुका चवंक सुमार इतले आंवडेल्ले... तूं बाजारांत खंय तरी दिश्टी

पडटलें...खंयूय पसऱ्यार... शॉपींग मोलार... खंयच ना जाल्यार हे दर्या देगेर तरी... पूण नाच्च! एखाद्र्या अद्रिश्य हातान लिपोवन दवरिल्लेवरी तूं दृश्टी आड जाल्लें.

जळीं-मळीं, वचत थंय म्हजी नदर हावरी जावन तुकाच सोदताली. तुज्या रंग-रुपड्याचें कोणूय दिसलें जाल्यार तूंच तें म्हूण नदर ताणून चयतालों.

जाय ते फावटी दिसतालें, सगळें-सगळें खुट्याळेंक लावन तुजे सरीं येवंचें... पूण ना! खंयतरी म्हजे भितर कोणतरी म्हाका तशें करूंक दिनासलो... आपली सुवात सोडप तशी सोपी गजाल न्हू. ..!

खऱ्यांनीच आयज तुका पळोवन खुशालभरीत जालां! तुका पयले फावट हेच सुवातेर पळयिल्लों, तेन्नाय असोच खुशाल भरीत जाल्लों...काळजांत पयलेच फावट तंबोऱ्याची तार तुणतुणिल्ली... एक नांवहीण झंकार...

हीच सुवात... हींच वेळ... सुर्या असोच अस्तमतेक वतालो... दर्या असोच गाजेतालो... ल्हारां अशींच उचांबळीत जावन देगेक वेंगायताली... अशेंच शीतल वारे व्हांवताले....

सगळें अशेंच!

पूण...

पूण कितें?

................

.................

हीं ल्हारां चय, येतात. देगेक मेळटात, पर्थून वतात. मिलन...

उजळणी... निमाणेकडेन करगूवणी...! पयस पयस दिगंतराक नवे देगेच्या सोदाक!

जिणें हें अशेंच?

आसूं येता!

त्या पयल्या दिसा हांव हेच सुवातेर बशिल्लों आनी तूं तेच!

तुजेर नदर पडना फुडें रावूं नजो जालें. तुजी गोरी कात, उंच कूड. पिंगशे, सरळ मुजरत कापून ल्हान केल्ले...फाटल्यान घोड्याची शेपडी कशी बांदिल्ले केंस! ती चंचल भिरभिरपी नदर. ती तांबूडशीं ओठां. तुजी तांबडी भिरंड सलवार-कमीज. पुराय... पुराय म्हजी नदर बुडून व्हरताली. खीणभर हांव हांव उरूंक नासलों... फुरसद केली ना... तुजेसरीं गेलों... म्हणलें,

"एक्सक्यूज मी..!"

तुवें तुजी भिरभिरपी नदर वयर काडून म्हाका चयलें.

"तूं सोनाली न्हू?"

"वॉट्...?"

तुजे नदरेंतले ते अजापभरीत भाव हांव अजून विसरूंक ना. म्हाका हांसूंक येतालें...

तूं सोनाली न्हू हें हांवूय जाणा आसलों. तुजेलागीं वळख करून घेवचेली ती तऱ्हा आसली. मागीर आमची वळख वाडटकीर सुमार तेंपान जेन्ना तुका हांवें हें सांगलें तेन्ना तूं कितलें हांसलें!... 'यू नॉटीऽऽ...!' म्हणत तुवें म्हजे फाटीर घुम्मो घाल्लो... आवयस्! हांव सुमार वळवळिल्लों. त्या वळवळण्यांत एक नांवहीण खोस आसली.

आतांय... एक घुम्मो बसला. त्या घुम्म्याक आवाज ना. तो दिसना. आतांय हांव वळवळटां. ह्या वळवळण्यांत एक खेद आसा. एक नांवहीण खेद!

हो घुम्मो फकत तुवेंच घाला...?

काय हांवेंय तुका...?

फकत हांवूच वळवळटां तळमळटां, काय तूंवय?

घडये तूंवय वळवळटा आसुंये...

पुणून, तुजे नदरेंत... चेऱ्यार तशें दिसना!

इतले लागीं उल्याच्या अंतरार बसल्या तूं! पूण तोंड वयर करून सादें हटकिना!... फकत एक नदर भिरभिरयता... इतलो परको तुका हांव?

कशे विसरलें ते दीस?

ती रात..?

तो चंद्रीम... तें चान्नें...?

इतले सोपेपणान सगळें-सगळें विसरप जाता?

विसरप कशेंच शक्य ना! फकत स्मृतीभ्रंश जाल्यारूच शक्य!... हांव जाणां, मनीस सभाव मुजरत ताचेर चादर ओडटा... विसरिल्ल्याचें ढोंग...! हें सगळें करता मनशा मदलो हांव! ह्या हांवाक मनशान सुमारा भायर म्हत्व दिलां... दिलां? काय त्या हांवानच तशी सुवात तयार केल्या...?

म्हाका याद जाता, तुवें जायते फावटी म्हणलां, आमी आतां आमी उरूंक ना! एकमेकांत करगून गेल्यांत. उदकांत रंग करगता तशें

मेतेर जाल्यात...! तशें आसल्यार आयज अशीं पयस पयस कशीं...? ... आमी एकमेकांत मेतेर जाल्लीं! पुणून, आमचे मदल्या हांवान आपली सुवात सोडूंक नासली! तो आपले सुवातेर ध्रुव नक्षत्र कशें दसून आशिल्लो!

आतांय आसा!

तो सोपेपणान सोडपी न्हू आपली सुवात!

त्या हांवाक जात-कात, धर्म आसा.... संस्कार आसात...खर खडर संस्कार!

आमचो दोगांयचोय मोग तेंगशेर पाविल्लो... दोगांय एकमेका बगर रावूंक शकनाशिलीं... तरी लेगीत तो मोग कोणाकूच पसंत नासलो! ना म्हज्या भावंडांक, ना आवय-बापायक! ना तुज्या भावंडांक, ना तुज्या आवय-बापायक!

आमचे दोगांयचेय धर्म वेगळे आशिल्ले न्हय! देव वेगळे आशिल्ले!

जेन्ना आमी लग्न करचें थारायलें, तेन्ना हेच मदीं आयले.

म्हजें म्हणणें आसलें, तुवें म्हज्या घोटेरांत येवचें आनी तुजें म्हणणें आसलें, हांवें तुज्या!

म्हजो घोटेर तुका मानवना आनी तुजो म्हाका! आमी आपआपल्या घोटेरांत पुरायेन रिगल्यांत आनी घोटेर आमच्यांत! घोटेर आमचे पासत काय आमी घोटेरा पासत हाची जाप आमचे लागीं ना! ? घोटेराचे संस्कार खडडर!

आमचे घोटेर तरतरेचे! तुतयांचे! बडयांचे!

निमाणे कडेन एकामेकांचो घोटेर आपणावपाची आमची तयारी ना. ना. ना...नाच्च! नो...नेव्हर!

"हांव तुज्या घोटेरांत येना."

"हांवूय तुज्या घोटेरांत येना."

निर्णय पक्को.

एकमेकांत मेतेर जाल्लीं.... उदकांत रंग करगतात तशीं करगून गेल्लीं.... आमी दोगांय हें उलयतालीं... ते दीस... ती रात... तो चंद्रीम... तें चान्नें... सगळें सगळें खिणांत विसरून! आमीच म्हणटालीं न्ही, हांवें तुज्या काळजांत सुवात जोडल्या आनी तुवें म्हज्या काळजांत!.... खरें सांगूं, तो एक भ्रम आशिल्लो... आमी आमची सुवात सोडूंकच नासली... त्या तांबड्या गूंज सुर्या भाशेन! तो चय फकत आपले रंग बदलिता... सकाळीं वेगळो... दनपारचो वेगळो... सांजेचो वेगळो! पुणून, सुवात बदलिना! मनीसूय तसोच!

तूं तेन्ना गेल्लें, कांयच उलयनासतना! सादें बाय सुदीक म्हणिनासतना! उपरांत दिश्टी सुदीक पडूंक ना! कॉन्टेक्ट पुरायेन तुटयिल्लो!

आयज सुमार तेंपान... पर्थून तेच सुवातेर...

कितेंय आसना... म्हजी नदर तृप्त जाल्या!... तुजी जाल्या?... कशें कळटले तुज्या मनाचे व्यापार...? इतले दीस ना जावन गेल्लें तूं... पर्थून कित्याक आयलां तर...? तेंवूय हेच सुवातेर! उल्याच्या अंतरार बसल्या... सादें हटकिना... काय वाट चयता, हांव उठून तुजे सुवातेर येतलों म्हूण...? तुका उठून म्हजे सुवातेर येवप जमना जाल्यार हांव कित्याक येवूं...? नो! नेव्हर!... नेव्हर!!!

***

# जितें मर्ण

वणटीक तेकून बशिल्लेकडेन अनसुयाचो हात नकळत कपलाकडेन गेलो. कुकूम लावची सुवात ताणें ल्हवूच बोटांनी सांसपिली. कपल उकतें पडिल्लें. कांय वेळा आदींच तिगेलो कुकूम पुसयिल्लो. कांकणां फोडिल्लीं, मंगळसूत्र तुटयिल्लें. तिका खीणभर दिसलें, उठचें आनी वचून कपलाक कुकूम लावचो. सगल्या संवसाराक आड्डून सांगचें , 'हांव रांडाव न्ही! हांव अयाव! म्हजो घोव जितो आसा।' पुणून... दुसऱ्याच खिणाक तिणें येवजिलें, 'ना, ना! हांवें तशें येवजूंक फावना! जाणटे म्हणटात तशें कितेंय आसल्यार..?' एक फावट अशें, जाल्यार दुसरे फावट तशें येवजून येवजून तिगेली तकली भेरेवंक पाविल्ली.

'देवा, कसले भोग हे! खंयच्या जल्माचीं कर्मां भोगयता तूं आमकां? दुस्मानाच्या वांट्याक लेगीत असले भोग येवं नये!'

तिका हुंडको फुटलो.

मुखार हांतरुणार तिगेलो पांच वर्सांचो पूत जोरान फणफणटालो. परवंतालो. 'आई... आई...'

पुताले तकले वयल्यान हात भोंवडायत तिणें म्हणलें, "कितें पुता?"

"बाबाक तेमी कित्याक व्हयलो?"

तिका पर्थून हुंडको फुटलो. तिणें मागीर स्वताक थातारलें. मनगटान दुकां पुसलीं.

“ओगी राव पुता, ओगी राव!”

पुताल्या दोनूय दोळ्यां कोणशांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. आपल्या पदरान तिणें पुताचीं दुकां पुसयलीं, चादर वयर करुन पुताल्या आंगाक हात लावन पळयलो. जोर उणो जावंक नाशिल्लो. म्हाळगोबाब वखद दिवन गेल्लो. हरशीं म्हाळगोबाबाल्या वखदान रोखडोच गूण पडटालो.

“हें अपशरण येवचे आदीं, सकाळीं पोर बरोच खेळटालो, हांसतालो. पोरान आंग काडलें, भिलो. थंडेचो, वाऱ्याचो जोर न्ही हो! पर्णाम जालो पोराच्या मनार! भोग नशिबाचो!” ती सुस्कारली.

दोन म्हयने जाले, अनुसुयालो घोव नाराण अनुसुया कडेन म्हणटालो, “म्हाका हालींच केन्ना केन्नाय घुंवळ येयिल्ले भाशेन जाता. झंजय मारता. बेठीच लवंड मारिल्ले भाशेन केन्ना केन्ना घबघबता!”

म्हाळगोबाबा कडेनय ताणें हाचे बद्दल म्हणिल्लें. म्हाळगोबाबान “तेका भिनाका रे, पित्तान तें!” अशें म्हण एक वखद सांगिल्लें. आनी तें वखद ताणें करुनय पळयिल्लें. राती कडेन कपभर उदकांत दोन भिंडा सोलां घालून दवरतालो. आनी सकाळीं उठले बरोबर, तोंडां घोंट घेवन, त्या कपभर भिंडां उदकांत करंगता तितली साकर घालून ती निराव्या पोटार घेतालो. पुणून गूण पडलो नासलो. केन्ना केन्नाय घुंवळ येतालीच. ताणें मागीर थारायिल्लें, बऱ्या दोतोराक दाखोवचें. पुणून फाल्यां फाल्यां करीत तेंवूय उरिल्लें.

रोखडेंच वचून दाखोवया म्हणल्यार तांकां दोतोरूय तसो सोंपेपणान मेळनाशिल्लो. एक तर सुप्पा वचचें पडटालें, ना तर कारवारा. सुप्पा

थंयच्यान पस्तीस-चाळीस किलोमिटरांचेर, जाल्यार कारवार पंचेचाळीस-पन्नास किलोमिटरांचेर. दोतोरागेर वचप म्हणल्यार पुराय दीस तातूंतच मोडप. आदींच तो शेताच्या वावरांत ह्या वर्सा फाटीं पडिल्लो. शेताची इब्बुण्णी करच्या वेळार ताचे जाण्टे आवयचें पोटखण्याचें ऑपरेशन कारवारा आस्पत्रेंत जाल्लें. त्या बोवाळांत इब्बुण्णी फाटीं उरिल्ली.

अणशींतल्या हमरस्त्यावेल्यान धायेक किलोमिटर भितर अटंग्या रानांत तांचो गांव. तोवूय हेर संवसारा कडेन एकमुळे मळिल्ले पांयवाटेन जोडिल्लो. गांव कसलो? एक वाडोच तो. गांवाचें नांवय वैलवाडो. मेज्जून अठरा पाख्यांचो! एकोणिसावी शाळा. तातूंतलीं दोन घरां आनी एक शाळा सोडल्यार सगळ्यो कोलवाच्यो खोंपी. लोक सगळे गांवठी शेतकार आनी कास्टी न्हेसून घोळपी. पोटाक जाय ती हरेक वस्त शेतांत पिकोवपी. घरांतलो एक्कान एक मनीस कसल्या नातर कसल्या वावरांत घुस्पल्लो. शाळेंत वचपी भुरग्यांक सुदीक एकाद्रो घरांतलो वावर सोडून शाळेक वचूंक मेळनासलें. आनी भुरगींय बी शाळे परस वावरांत चड रमतालीं. ह्या गांवांत सरसकट चवथे परस चड शिकिल्ले भुरगे मेळप कुस्तार. पांचवी शिकता जाल्यार तांकां सुप्यां वचून शिकचें पडटालें. इतले पयस वचून येवप शक्य नासलें. चड शिकचेली इत्सा आशिल्लो सोयऱ्यांगेर बी रावन शिकतालो. तोवूय चुकून माकून कोणूय तरी एकलो-दुकलो.

रामालो गोवींद आनी अनुसुयालो घोव नाराण सुप्प्यांत रावन मॅट्रीक मेरेन शिकिल्ले. रोजेक वचचेलो येत्नय केल्लो. पूण रोजी मेळूंक नासली.

थंयच्यान दोन उल्यांच्या अंतरार आनीक एक गांव आसलो. होवूय एक वाडोच कसो. हाचें नांव सकयलवाडो. ह्या दोनूय वाड्यांचो मेळून एक गांव करपाचो पुणून लोक ह्या दोनूय वाड्यांक दोन गांव

कित्याक म्हणटाले देव जाणा! हांगाय अशींच पंचविशेक घरां. ह्या दोनूय गांवांक एकमेकांचो वांगड. ह्या दोनूय गांवां मदल्या लोकां मदीं सोयरिको चलताल्यो. खंय तरी हेर कडेन चेडूं दिवप- हाडप जातालें, ना अशें ना, पुणून तें चुकून-माकून!

नाराणा बायल अनुसुया लेगीत ह्या सकयल्या वाड्यावेलीच. व्हडल्या घरच्या कुश्टालें चेडूं तें! नाराणय व्हडल्या घरचोच. शेता-भाटान गडगच्च. तातूंत मॅट्रीक मेरेन शिकिल्लो म्हूण दिल्ली आपले धुवेक कांय उणें पडचें ना  हे इत्सेन. नाशिल्लेंय तिका कांय उणें. बाबडेचें नशीबच पाडेलें. तेका कोण कितें करतलो?

नाराण बरोच कोंब्या सादार उठून शेतांत गेल्लो. जांभळी कडेन ताणें जोत बांदिल्लें. बायल आठ वरांच्या सुमाराक शेतांत वचून च्याव भाकरी बी दिवन येयिल्ली. तेन्ना बरोच आशिल्लो. केन्ना कितें जालें देव जाणा. धा वरांर सुमार म्हाळगोबाबालो सैरोब मेरो काडूंक गेल्लो. पर्थतालो, ताका हो जांभळी कडेन कुणगेंत पडिल्लो दिसलो. मुखारच नांगर वांकडो पडून जोत थांबून आसा. ताणें वयतना हाका जोत कसतना चयिल्लो. अशें कितें जालें हाका?  म्हूण मुखार वचून हात लावन चयल्यार हां ना, हूं ना? आंग थंड पडलां. ‘नाराणा, नाराणा.....’ म्हूण ताणें सुमार इतलो ताका हालोवन हालोवन चयलो, पुणून जाप ना. थंयच मेरेर एक तांबयो स्टिलाच्या पेल्यान धांपिल्लो आसलो. वचून चयल्यार तातूंत उदक नासलें. आतां करप कितें? सगळ्यांक वचून तरी सांगुया म्हूण तो आपलें खोरें थंयच दवरून धांवतच सुटलो. वाटेर आकाड्यांत तेका गोवींद मेळ्ळो. सैरोबान म्हणलें, “गोविंदा, नाराण थंय जांभळी कडेन कुणगेंत पडला. साबुद्देर ना.”

गोवींद नाराणालो इश्ट. वांगडा शिकिल्ले. एकामेकांल्या सुख-

दुख्खाचे वांटेकार. ताणें फुरसद केली ना. “आं! कितें?” म्हणत तसोच शेंवटलो.

सैरोबान धांवत वचून वाडो भर सगळ्यांक कळयलें. कळना फुडें नेण्टे-जाण्टे सगळे धांवले जांभळी कडेन. नाराणालें धायेक वर्सांचें चेडूं व्हरांड्यार बसून फुलां फांती गुंथतालें. ताच्या कानार पडना फुडें तें धांवत रांदचे कुडींत गेलें. अनुसुया चुली मुखार बसून आडवळेर देंठो शिनताली.

“आई, आई, बाबा थंय शेतांत पडला खंय कांय ना जावन.”

“आं! कितें? अरे देवा!” अनुसुयेचेर आकांत. तिणें देंठो थंयच उडयलो. आडवळी बी कवळ्ळी ना.

“कितें गो, कितें ज़ालें?” मदले कुडींतल्यान हांतरुणार पडिल्ले कडच्यान नाराणाले आवयन विचारलें.

“तूं आनी कितें विचारता? हेमी थंय कांय ना जावन पडल्यात खंय...” अशें म्हणत तिणें धांव मारली. फाटल्यान नाराणाली धुवय धांवली.

“अरे देवा, कितें जालें म्हज्या पुताक?” अशें म्हणत आवय न्हिदिल्ले कडच्यान उठून बसली. हालींच जाण्टेपणांत पोटाचें ऑपरेशन जाल्ल्यान तिच्यान सटसटीत उठून बसूंक, चलूंक जायना आसलें.

अनुसुया जांभळी कडेन पावली तेन्ना गोविंदान नाराणाक आपल्या आंगार ताचो भार घेवन बसयिल्लो. वाड्यावेल्यांनी कवंडाळें केल्लें. तें सगळें पळोवन तिगेलो आवरो हुडलो. ती हुयेली मारूंक लागली. थंयच फतकल मारून बसली. “कितें जालें म्हज्या घोवाक...? अरे देवा, अरे देवा...” करत हड्डें बडोवन घेवंक लागली. नाराणालें चेडूं आवयचो आखांत पळोवन आपूणय व्हडाव्हडान रडूंक लागलें. “ओगी रावा... ओगी रावा...”

करत वाड्यावेल्यांनी तांकां थातारपाचो येत्न केलो. पुणून तीं ओगी रावतात?

वाड्यार सांगूंक गेल्लो सैरोब पर्थतना तांबयांत उदक घेवन येयिल्लो. ताणें नाराणाल्या दोव्ळ्यांर पचापच उदक मारलें. थोडें ताळयेर थापलें. तोंड उकतेंच आशिल्लें. तोंडान थोडें उदक पियेवचेलो येत्न केलो. पूण उदक भितरूच वचना जालें. निमाणे कडेन गोविंदान म्हळें, "हेका आमी घरा कडेन व्हरुया."

"हय!"

"उखल्या हेका सैरोबा, तूं पांयां कडेन धर..." अशें म्हणत गोविंदान नाराणाक खाक्यांत हात घालून उखल्लो. आनी मडें उबारुन हाडिल्ले वरी घरा हाडलो. नाराणाली आवय बडी तेंकयत ल्हव ल्हव करून आकाड्या मेरेन पाविल्ली. आपल्या पुताक तशे तरेन उखलून हाडचें पळोवन तिका धस्स जालें. "कितें जालें रे म्हज्या पुताक? खुटम्हाम्माये, कितें केलें गे हें ...?" म्हणत ती थंयच बसली.

"अगे, तूं आनी हिंगा बोवाळ घालूं नाका. ओगी राव मातशी!" म्हणत कुश्टाल्या सुब्रायान तिका उखल्ली.

नाराणाक हाडून घराच्या सोप्यार वणटीक तेंकून बसयलो. गोविंदान ताका घट्ट धरून दवरलो.

कोणें तरी म्हळें, "कांदो घालुंया."

फाटल्या घरचो येसो धांवत घरांत गेलो. मदले कुडींत कांद्याझेले हुमकळटाले. चार-पांच कांदे ताणें तुटयले, आनी घेवन भायर येयलो. सोप्यार दवरून मुठीन ते चेंचयले. मागीर ते नाराणाल्या नाका कडेन धरले. हां ना, हूं ना! म्हाळगोबाबा बायलेन-लक्ष्मीन वचून लसणी कांदे

हाडले. ते चेंचोवन आंगाक मळ्ळे. तरीय आंग थंडच.

अनसुयाल्यो आनी तिगेले धुवेल्यो बोबो हुयेली चालूच आसल्यो. अनसुया आंगणभर आड उदार लोळटाली. आनी वाड्या वेल्यो बायलो तिका थातारताल्यो. नाराणालो पांच वर्साचो चेडो हेर भुरग्यां वांगडा गिल्लीदांडो खेळूंक गेल्लो. घरा कडेन बोवाळ आयकून धांवत येयलो. गिल्लीदांडो तसोच हड्ड्या कडेन धरून तो भिल्ल्या सोंश्या पिला भाशेन वण्टीक तेंकून रडंत उबो आशिल्लो. दोनूय दोळ्यांतल्यान भळभळ करून दुकां गळटालीं.

"आमी हेका सांसवां तेल पुसयल्यार कशें?" म्हाळगोबाबा बायल, लक्ष्मीन म्हणलें.

"हय! पळोवया तरी पुसोवन!" गोविंदान म्हणलें.

तिणें बेगी बेगीन वचून सांसवां तेलाची बाटली हाडली. सैरोबान हाताच्या तायटार तेल घेवन नाराणाच्या हाता-पांयांक, आंगाक बरें पुसयलें... पुणून गूण म्हणटात तो ना तो नाच्च!

"आतां कितें करप गे?" गोविंदान येद्देशेंच तोंड करून लक्ष्मीक विचारलें.

ती बाबडी कितें सांगतली? आपल्याक कळटात ते उपाय तिणें केल्ले.

म्हाळगोबाब वखदां मुळां सोदूंक रानांत गेल्लो. पर्थतालो. बोवाळ आयकून धांवतच येयलो.

"म्हाळगोबाब येयलो... म्हाळगोबाब येयलो..." कोण तरी वचूंक गेल्लो जीव पर्थून येयिल्लेवरी उलयलो. म्हाळगोबाबाक पळोवन जण

एकल्याच्या तोंडार आशा उदेली. ह्या गांवाक म्हाळगोबाब म्हळ्यार एक देवच आसलो. संकश्टार धांवन येवपी, जीवदान दिवपी. गांवांतलें हरेक घर ह्या जाणट्याच्या भरवंशार हुस्क्यामेकळें रावतालें. ताच्या हातगुणाक जाप ना. तो मागीर मरूंक तेंकिल्लो दुयेंती आसूं नातर फुलट गुरवाल्ली आसूं! म्हाळगोबाबाचो हात लागतकीर कोणूय अर्दी बरीं जातालीं. कास्ताचो वखदळी.

म्हाळगोबाबान नाराणाली नाडी चयली. नाकाकडेन बोटां व्हरून चयलो. मागीर गोविंदाकडेन ल्हवूच म्हणलें. "नाराण गेलो आमकां सोडून.."

मागीर घे सगळ्यांच्यो हुयेली आनी बोबो!

नाराणा बायलेन अनसुयान वण्टीक कपल धाडोवन घेयलें. म्हातारी आवय आंगणांतूच आड उदारी लोळून "पुता म्हज्या... पुता म्हज्याऽ..."म्हणत हड्डें बडोवन घेवंक लागली.

नाराणाल्या मरणान गांवांतल्या जण एकल्याच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळ्ळीं. ऐन पिरायेर मर्ण. पस्तीस-छत्तीसां ऊंच ना.

सकयल्या वाड्या वेल्यान सगलो लोक धांवत येयलो. नाराणालें मावड्डें थंय म्हणटकीर तांचेरूय आकांत.

भगतागेर वचून वेळ पळोवन येयलो. आतां मर्णाचो वेळ जुस्त खंयचो धरचो होवूय एक प्रश्न आसलो. भगतान मागीर अंदाजान धरलो आनी म्हणलें, "आज तशी बरीऽ वेळ ना. कितेंय आसूं. तीन बावर्ली करून जळया. फाल्यां आनी अरिश्ट नाका!"

इतलें घडटा मेरेन वेळ तकले वेल्यान सरकल्लो. आतां मडें चड वेळ दवरून उपेग नासलो. भुरगीं बाळां भुकेन तळमळटालीं. वाड्यार मडें आसतना जेवंक जायना, हो दंडक. आतां मडें व्हयले नंतर जें कितें

आदीं रांदिल्लें, तें उडोवन दिवंक जाय. आनी मागीर न्हायन-धुयन, चुलीक शेण काडून चूल पेटोवंक जाय. म्हणटकीर ताकतीक करप गरजेचें.

वांशे हाडून खटखट करून कोयतेन फोडले. कामटां करून ताची किरवड बांदली. केळीचें एक आख्खें शेनवत कापून किरवडेर दवरलें.

वासरेर शेण काडून ताचेर दर्भ पातळावन ताचेर नाराणाचें मडें दवरिल्लें. गोविंदान आनी येशान तें भायर हाडून पावळेंत मणयेर बसयलें. नाराणाली बायल अनसुया इकळाप करून मरूंक तेंकिल्ली. तिका स्वताची सुम्रत नासली. बाबडेक तेच स्थितींत हाडून मड्याचे कुशीक बसयली. नाराणालें तें पांच वर्साचें बाळक पुरायच काचाबूल जाल्लें. तेका येशान हाताक धरून फुडें हाडलो. बांयंतल्यान बिंदल्यान शेळें उदक हाडून ताच्या हातान मड्याक आनी अनसुयाक दोगांयकूय न्हाणयलीं. त्या तन्न्या हातान आवयचो कुकूम पुसयलो. मंगळसुत्र तुटयलें. इतलें करतना तो पोर व्हडा व्हडान रडटालो.

वाड्यावेल्या रांडाव बायलांनी अनसुयाक फाटले वटेन व्हयली. मागीर वाड्या वेल्या दादल्यांनी फुरसद चयलीना. मडें किरवडेर दवरलें. वेल्यान धवो कपडो पांगुरलो. तो बांदलो. नाराणाल्या पुताच्या हातांत उज्या मडकी दवरिल्लें तिकटें दिलें. आनी राम..., राम... म्हणत मडें उखल्लें.

गांवचे मसणटेर मडें हाडून दवरलें. गोविंदान किरवडेक बांदिल्लो मड्या वेलो कपडो सोडयलो. कपडो कुशीक काडटना तेका सॉक्क सो आवाज येयलो. ताणें मड्याकडेन चयलें. तेका खीण भर दिसलें, मड्यान एक दीर्घ सुवास घेयला. मागीर बरेंऽ करून पारखिल्यार खंयचेकडेन कांयच ना! व्हदळय तेका अशेंच जाल्लें. मडें न्हाणयतना तो मड्याक धरून फाटल्यान उबो आशिल्लो तेन्ना, तेका मड्याचें आंग गरम शें

लागिल्लें. ताणें मड्याच्या आंगाक हात लावन तें पर्थून गरम लागता काय चयलें.

“गोविंदा, दवरिया मडें धड्यार!” येशान मड्याचे पांय धरून उखलतेर म्हळें.

गोविंदान मडें तक्लेक धरून वयर उखल्लें. उठयतना तेका व्हदळच्या वरी तकली घट्ट-तायट लागली ना. मातशी बागवल्ले वरी दिसली. मडें लासूंक तयार करून दवरिल्ल्या सोळा मण लाकडांच्या धड्यार मडें दवरलें. गोविंदान म्हणलें, “येशा, मड्याचे पांया तळवे तुका गरम लागता काय चय...”

“कित्याक म्हणटा तूं?” अशें म्हणत येशान तळव्याक हात लावन चयलें. ताका ते गरम लागले ना तरी तितले थंडय लागूंक ना. इतल्यांत तांकां मड्यान दीर्घ सुवास घेवन सॉक्क करून सोडिल्ल्याचो आवाज येयलो. दोगांनूय चकासूर जावन मड्याक चयलें.

“तुका सुवास सोडिल्लो आवाज येयलो ना...?” गोविंदान येशाक ताकतिकेन विचारलें.

“हय! येयलो!”

गोविंदान पर्थून मड्याच्या आंगाक हात लावन चयलें. तेका आंग गरम लागलें. व्हदळचे परस चड. इतल्यांत मडें पुरायेन स्वासोस्वास करूंक लागलें. पोट वयर सकयल जावंक लागलें. गोविंदान खोशयेन बोवाळच घाली. म्हळगोबाब, पुंडलीकबाब, नाराण जितो आसा, मरूंक ना.

“आं...?

“जितो आसा...?” दिगंबरान हातांतली विडी थंयच उडोवन विचारलें.

“श्येऽ! जितो कसो उरतलो...?” म्हाळगोबाबान म्हणलें.

इतल्यांत ल्हवूच मड्यान दोळे उगडले. मागीर ल्हवूच हेवटेन तेवटेन मान हालयली. एक दीर्घ सुवास घेयलो आनी मडें उठून बसलें.

“नाराणा, इश्टा, तूं जितो आसा?” गोविंदान म्हणलें. ताच्या दोळ्यांत खोशयेचीं दुकां भरलीं.

नाराणान हेवटेन तेवटेन चयलें, आनी काचाबूल जावन म्हणलें, “कितें जालें म्हाका?” नाराणाक सुर्वेक कितेंच समजलें ना. मागीर ल्हवू ल्हवू परिस्थिती लक्षांत येवंक लागली. तेका इतलीच याद आसली, शेत कसतां कसतां तेका सुरवेक लवंड मारिल्ले भाशेन जाल्ली, आनी मागीर कांय खिणां भितरूच कितें जालें म्हूण कळ्ळेंच नासलें.

नाराण धड्या वेल्यान सकयल देंवलो. ताच्या पुतान “बाबा...” म्हण तेका वचून वेंग मारली, जसो काय खूब दिसां फाटीं शेणिल्लो बापूय तेका पर्थून मेळिल्लो.

लासूंक येयिल्ले सगळे दायजी, सोयरे चकासूर जावन पळोवंक लागले. हें सगळें अजापाचें आनी अपेक्षे भायलें आसलें.

गोविंदान नाराणाक “इश्टा...” म्हूण वेंग मारली.

“थांबा, गोवींद, कितें करता तूं...? थांब!” म्हाळगोबाबान म्हणलें. म्हाळगोबाब मुखार येयलो. “गोविंदा, फाटीं सर! नाजाल्यार घात करून घेतलो. तूं वेंग मारता तो कोण तूं जाणां...? अरे, तो नाराण न्ही! नाराणाल्या मड्यांत भितर सरिल्लें एक पिशाच्च! अतृप्त आत्मो!” आनी ताणें नाराणाल्या पुताकय कुशीक काडलो. “हेका धर!” म्हूण तेका

गुण्या सुवादीन केलो.

... सगळ्यांनी म्हाळगोबाबाल्या तोंडा कडेन चयलें. कोणाक कितेंच समजलें ना. पुणून जाण्टो पुंडलीकबाब मुखार येयलो. "म्हाळगो म्हणटा तें फट न्ही!" ताणें म्हणलें. "म्हाका सांगा, मेल्लो मनीस आनी जितो जाता? अशें केन्ना घडूंक शकता?"

सगळ्यांनी ना म्हूण मान हालयली. पुणून गोविंदाक कितें म्हणचें म्हूण कळ्ळें ना. नाराण मात काचाबूल जालो. ताणें काकुळटेक येवन म्हणलें, "ना! हांव मरूंक ना. हांव जितो आसां...!"

"तूं ओगी राव!" म्हाळगोबाबान म्हणलें. "तूं कोण तें हांव जाणां! नाराण मेल्लो हांवें खातरी करून चयला. आनी हांवेंच तो मेला म्हूण सांगलां. म्हजें निदान फट कशेंच थारचें ना. जातीचो वखदळी हांव. आमची परंपरा वखदळ्याची... म्हजो बापूय, आजो, पणजो सगळे वखदळी आसले. म्हजें निदान केन्नाच फट जावचें ना. म्हजो इतल्या वर्सांचो अणभव फुकट गेलो...?"

"म्हाळगो सांगता तें सारकें!" पुडलीकबाबान पर्थून म्हणलें. म्हजो बापूय सांगतालो, फाटीं खंय एक फावट अशें घडिल्लें. मडें धड्यार दवरतकीर उठून बसलें. जाण्ट्यांनी रोखडेंच वळखलें, तें कोण तरी भूत मड्यांत संचारलां. फुरसद चयली ना. धडाधड कुराडेचे घाये घालून कुडीचे कुडके केले. कुडीचे कुडके जातकीर भूत कशें रावतलें? मागीर ते कुडके जळयले..."

पुडलीकबाबाचीं उतरां आयकून नाराणाच्या हड्ड्यांत धस्स जालें. "हे म्हजेय कुडके करचे नात मू?" ताका दिसलें. ताणें रोखडेंच म्हणलें,

"तें कितेंय आसूं! पुणून हांव भूत, पिशाच्च बी काय न्ही! हांव

नाराणच! म्हजेर विस्वास दवरा!"

"कुडींत संचारिल्लीं पिशाच्चां अशींच उलयतात. तांकां आपल्यो अतृप्त उरिल्ल्यो इत्सा पुराय करचेल्यो आसतात अशे तरेन मड्यांत रिगून!" पुंडलीकबाबान म्हणलें.

"ना रे! हांव नाराणच! हांव मरूंक ना!"

"चूप! तोंड बंद कर! हांवें नाडी चयल्या. नाराण केऽन्ना मेलो. देव ताच्या आत्म्याक शांती दिवूं! तूं कोण नश्टी नड ताचे कुडींत रिगल्या सांग! तुका सोडचे ना आमी!" म्हाळगोबाब काश्टी सारकी करीत उलयलो.

"ना रे! हांव नाराण, खरोच!" ताणें आपले दोनूय हात जोडून भोव काकुळटेन म्हणलें.

इतलो वेळ ओगी आशिल्लो गोवींद उसळ्ळो. "कितें चल्लां हें म्हाळगोबाब? तो आपूण नाराण म्हणटा आनी तुमी हें कितें पिशाच्च पिशाच्च घेवन बसल्यात? कितें पिशेपणां चल्ल्यांत हीं?"

"देडशाण्या, कोणा मुखार तोंड वयर करून उलयता रे तूं? आमच्या गांवांत जाणटीं मनशां केन्नाच्यान पिशेपणां करूंक लागलीं? शाळेंत वचून चार बुकां शिकतकीर तुमी शाणे जाले? म्हणच हांव म्हणटां, चड शिकल्यार आमचीं भुरगीं माथ्यार बसतात म्हूण!" पुंडलीकबाब तिडकेन उलयलो.

"गोविंदा, तूं उलयलो तें सारकें न्ही रे!" केन्नाच चड उलयनासलो, शांत सभावाचो, चुकून माकून एकूच उलोवपी सगळ्यांत चड जाण्ट्या पांडुबाबान म्हणलें.

पांडुबाबान सुदीक अशें उलयतकीर गोविंदाक तोंड उरलें ना. हेर

सगळ्यांनीय तकली हालयली आनी जाण्टेल्यांची म्हण्णी उखलून धरली.

"आतां कितें करप?" विडयेचें पोंत कुशीक शेंवटायत पुरशान विचारलें.

"आयकात, आदीं जाणून घेयात. आनी मागीर उलयात तुमचीं शाणेपणां! आमीं पिशे सांगतात तें आदीं आयकात...! जाण्ट्यां कडल्यान आमच्या नेण्टेपणांत आमी असल्यो घडणुको आयकल्यात. आदल्या तेंपार साधना करपी बी साधक लोक खंय, आपली कूड तशीच दवरून, मेल्ले कुडींत बी प्रवेश करताले. आपल्याक जाय त्यो गजाली साध्य करून घेताले आनी पर्थून आपले कुडींत येताले. हें जालें साधना करपी लोकांचें. आतां आयकात म्हारवां-गिरवां बद्दल! अर्दपिरायेर मेल्लीं, चड करून दुमर्णान मेल्लीं मनशां बी अशीं अचाट म्हारवां जातात. तांची जियेवचेली इत्सा पुराय जाल्ली नासता. मागीर तीं अशे तरेन संद पळयतात आनी मेल्ल्या मड्यांत बी घुसून अशे तरेचीं नाटकां करतात. म्हणच म्हणटात, मनीस मेले उपरांत ताचो विलोव लायता मेरेन खूब सादूर रावचें पडटा. धडो दाळ्ळे नंतर तो राखचो पडटा. मडें एकलें दवरुनय खंय वचनात. वच पळया तूं धडो दाळून मसणवटी वेल्यान तसोच! म्हारवां-गिरवां धडो कोसळोन उडयतलीं. मडें एकटेंच दवरून वच पळया खंयूय! मडें नाच्च जातलें सुवाते वेल्यान! अरे, फकाणां न्ही हीं! आनी म्हारु तितलोच अचाट उरल्यार तो अशे तरेन करता!" पुंडलीकबाबान आपलें म्हणणें मांडलें.

"देवा, हे कितें भोग म्हजे?" नाराण कपल बडयत थंयच बसलो.

गोविंदाल्या दोनूय दोळ्यांतल्यान भळ्ळ करून दुकां गळ्ळीं.

"हें चय, तुमी ह्या नाटकाक भुलनाकात हां..." म्हाळगोबाबान

बजायलें, “हांव कसो कितें सांगतां तें आयकात. तुमकां म्हजेर, म्हज्या वखदळपणाचेर विस्वास आसा मू?”

“हय तर!” सगळ्यांनी तकली हालयली.

“नाराण मेला हाची खातरी करूनच हांवें मागीर तुमकां सांगलां. मागीर हो मेल्लो जितो कसो जातलो? म्हाका कांय कळना म्हण जालें!”

“सारकें!”

“म्हजें जाण्टेल्याचें आनीक एक पिशेपण आयकात...” पुंडलीकबाबान म्हणलें, “रुढी-परंपरे परमाणें एक फावट क्रियाकर्म करून मडें मसणटीर व्हेल्लें, घरा पर्थून व्हरनात. अरे, फाटीं एकटो मिलिटरींत गेल्लो, लडायेंत मेलो म्हूण कळ्ळें. घरच्यांनी ताचीं सगळीं क्रियाकर्मां केलीं. तो चयल्यार जितो आशिल्लो. गांवां येतकीर ताका कळ्ळें. तो बाबडो घरांत येवंक ना. भायले भायर पर्थून गेलो. पर्थून ताणें कोणाक आपलें तोंड दाखयलें ना. एक फावट क्रियाकर्म करतकीर तो घरच्या लोकां खातीर मेलो. असली आमची रुढ-परंपरा.”

“आतां आमी कितें करुंया तें सांगा..” पुरशान विचारलें.

“हाचे फुडें हांव कांय उलयना..” म्हाळगोबाबान म्हणलें.

“एक काम करुंया..” पुंडलीकबाबान म्हणलें.

“कितें?” पुरसो.

“जाणवयक विचारुंया. जाणवय सांगता तशें करुंया.”

“हय! हय!” सगळ्यांनी तकली हालयली.

नाराण सामको उतरहीण, दिग्मुढ जाल्लो. तेका कांयच सुचना

आसलें. सामको काचाबूल. तेका दिसलें, 'देवा, कितें चल्लां हें? कसलीं कर्मा म्हजीं हीं? जाण्टे उलयतात आनी सगळे तकली हालयतात. हांवें आतां करप कितें?' तो व्हडा व्हडान बायलां भाशेन रडूंक लागलो. तेका रडचें पळोवन तेचो पूतय व्हडा व्हडान रडूंक लागलो. त्या बाळकाक तशे तरेन रडचें पळोवन म्हाळगोबाबाल्या काळजांत चरचर जालें. पुणून, करतलो कितें? ताचें आनी ताचे पिरायेच्या सगळ्या जाण्ट्यांचें पक्का मत जाल्लें. नाराण जितो ना! ताच्या मड्यांत भूत-पिशाच्च रिगलां! म्हाळगोबाबान त्या बाळकाक म्हन्यांत ओडलो. "रडूं नाका पुता, रडूं नाका. आमी आसात. शाण्या, रडूं नाका..." म्हणत ताचे तकले वेल्यान हात भोंवडायलो.

पुरसो धांवत गांवांत येयलो. गोविंदाकूय जाणवय म्हन्यांत येवचें दिसतालें. पूण नाराणाक थंय सोडून येवप ताका मानवलें ना. तो थंयच रावलो. पुरशा वांगडा येसो आनी दिगंबरय येयले. पुरसो जाणवयगेर येयलो जाल्यार येसो आनी दिगंबर वैलवाड्यार आनी सकयल्यावाड्यार.

पुरशान जाणवयक सगळी गजाल सांगली. गांवचो भगतच जाणवय. ताकाच वर्सा एक फावट देवा परबेक जाणवयचो भार येतालो. आनी मागीर तो थंय गांवकारांचे प्रस्न आयकून, तांकां प्रसाद पाकळी दितालो. आनी हरशींय कोणाचेर संकश्ट आयल्यार, लोक सल्लो घेवंक जाणवय कडेनूच वयताले. जाणवय मागीर गुलां फिरोवन गडें-फाडें करून तांच्या प्रस्नाक जाप दितालो. उपाय सांगतालो. जाणवयन पुरसो सांगता तें बरेंऽ करून आयकून घेतलें. जाण्टेल्यांनी मसणटेर मांडिल्लीं मतां आयकून मतींत घेयलीं. आनी मागीर गुलां फिरयलीं. गडें-फाडें केलें. आनी मागीर म्हणलें, "उं हूं! नाराण जितो ना म्हणटात हीं गुलां! भूत पिशाच्च तें!"

"मागीर कितें करप ताका आतां?"

“हांव कितें सांगूं? पुणून एक खरें, एक फावट मसणटीर लासूंक व्हेल्ल्याक पर्थून हाडिनात! आनी तातूंत तें पिशाच्च आसल्यार गांवाचेर अरिश्ट येतलें. ताका गांवांत हाडप आनी नाराणा बायलेक, ते पतिव्रता बायलेक ताचे सुवादीन करप? महापातक हें!”

“तूं म्हजे वांगडा यो. चया, कितें करचें तें! सगळे मेळून थारया.”

जाणवयक वांगडा घेवन पुरसो नाराणाले आवयचें, बायलेचें मत विचारूंक तांच्या घरा येयलो. नाराणाल्या आंगणांत, ही बातमी कळटकर जात्रा जाल्ली. तांचे खातीर ही एक अजापाची गजाल आसली.

“म्हाळगोबाबाक आनी पुंडलीकबाबाक हिंगा आपोवप बरें! तेमगेल्या मतान थारोवप बरें कितें थारोवचें तें!” जाणवयन म्हणलें.

“दिगंबरा, वच! तूं वच! घेवन यो तेमकां....” पुरशान सांगलें.

दिगंबर धांवलो.

नाराण जितो आसा म्हण कळटकीर, सगळ्यांकच खोशी जाल्ली. चड करून नाराणाल्या मावड्ड्यां आनी घरांतल्यांक. अनसुया तर कोणशांत बशिल्ली उठून धांवतच भायल्या दारांत येयिल्ली. तिगेले जिणेंत अचकीत पातळिल्लो काळोख खिणांतच ना जाल्लो. जिणें पर्थून उजवाडान भरिल्लें. पुणून जाणटेल्यांचीं मतां आयकून पर्थून ल्हवू ल्हवू काळोख पातळूंक लागिल्लो.

दिगंबरान मसणटीर वचून जाणवयन सांगिल्ली गजाल सांगली. आनी म्हाळगोबाबाक आनी पुंडलीकबाबाक आपयला म्हण सांगलें. पुंडलीकबाबान शेनवता विडी पेटयत म्हणलें, “चयलें, आमगेलीं पिशेपणांच खरीं जालीं मरे?”

सगली गजाल आयकून नाराणान ठप्प्ऽ ठप्प्ऽ करून कपल बडोवन घेयलें. "देवा, देवा..." ह्या उतरांभायर तो कांय उलोवंक ना.

गोविंदान ल्हवूच पर्थून एक फावट सगळ्यांक हात जोडून नमळायेन विनयलें, "हें चया, म्हगेलें आयकात. हो नाराणूच!"

"तूं आतां चड उलयनाका हां गोविंदा...!" दिगंबर उसळ्ळो. "जाण्टे सांगतात ताचेर इल्लोय विश्वास ना रे तुका? तूंच शाणो?"

"शाळेंत वचून चार बुकां शिकिल्ल्यांचें हें अशेंच! तेमकां आपूणच शाणो आनी बाकी सगळे पिशे दिसतात. आपूण शिकलां म्हणटकीर आपलेंच खरें अशें तेमगेलें मत!" शाळेचें मेटल लेगीत चडना जाल्लो गुणो उलयलो.

"हें चयात, ह्या गोविंदा कडेन लक्ष दिनाकात. हांव आनी म्हाळगो वचून कितें करचें तें थारोवन येतात. तुमी ह्या भुताचेर लक्ष दवरात."

पुंडलीकबाब आनी म्हाळगोबाब उठले.

"पुंडलीकबाब, तुमी आतां वयतात. फाटल्यान हें भूत खुबळ्ळयार आमी कितें करप?" दिगंबरान विचारलें.

"खुबळचेंना! अरे, पांच-धा मनशां मुखार कितलेंय व्हडलें अचाट भूत-पिशाच्च जरी उरलें, तरी तेच्यान कांय करूंक जायना."

"आनी खुबळ्ळेंच जाल्यार कुराडेन कुडके करात आनी उडयात!" गुण्यान फुरसद चयनासतना म्हणलें.

"हय!" अशें म्हणत म्हाळगोबाब चलूंक लागलो.

पुंडलीकबाब आनी म्हाळगोबाब पावतकीर, सोप्यार तकलेर हात घेवन बशिल्ली नाराणाली आवय बोवाळ्ळी. "म्हाळगोभाया, कितें करचें

रे आतां...? कसलें हें अरिश्ट?" तिणें ठप्प ठप्प करून कपल बडोवन घेयलें. तिगेल्या दोनूय दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं.

"अगे, इकळाप करची कांय गरज ना! सगळें जुस्त जातलें! म्हजेर इस्वास आसा मुगे तुका...?" म्हाळगोबाबान तिजे लागीं येवन बसत म्हणलें.

"हय रे बाबा!"

"म्हाका सांग, नाराण म्हगेलो दुस्मान?"

"ना रे बाबा! दुस्मान कित्याक जातलो? तुवेंच दिल्लो न्ही तो! भुरगें ना म्हण सुमार इतलीं वर्सां वथरेन वथरेन, लागीं लागीं जाण्टे पिरायेर तुगेल्याच वखदा विरसदान जाल्लो न्ही तो! दुस्मान कित्याक जातलो?"

"हय मुगे? मागीर आयक. तो जितो आशिल्लो जर जायत, तुमी कितले येत्न केले तेका जीव हाडूंक, तेन्ना जीव कित्याक येवुंना? सकाळीं जीव गेल्लो तेजो, इतले उपाय केले, मागीर पुराय क्रियाकर्म करता मेरेन, तकले वेल्यान वेळ सरकता मेरेन जीव कित्याक येवुंना? मागीर मसणटेर व्हरतकूच जीव कसो येयलो?"

आंगणांत एकठांय जाल्ल्या सगळ्यांनी सारकें म्हण तक्ली हालयली.

"हां! आतां फुडें आयका, तो मेलो म्हण हांवें निदान करून सांगलें न्ही...?"

"हय."

"म्हज्या वखदळपणाचेर तुमगेंलो इस्वास आसा मू!"

"हय!"

“मागीर म्हगेले इतले दीस केन्ना अदमास चुकलोच ना. आजच चुकलो?”

सगळे ओगी.

“तशें आसल्यार, फाल्यांच्यान वखदळीपण सोडून दितां हांव.”

“शेऽ! तुगेलो अदमास कित्याक चुकतलो?” खर खर करून आंग खरपीत, उठ्ठा-बसतना आंग खरपिवपी बाबगो उलयलो.

“सकाळीं गेल्लो जीव इतलो ओगोत मेरेन उरना रे. कितें तरी नश्ट नडच ती!” सकयल्या वाड्यावेलो जाण्टो वोळणोबाब उलयलो.

“आरे, आमगेलो नाराण गेलो आमकां सोडून, हातूंत इल्लोय दुबाव ना. कोण तरी दुरमर्णान मेल्लो म्हारू तेजे कुडींत रिगला. आदींच म्हारू-गिरवांचो, देव-देवचारांचो, खुट्ये-वाग्रतिणीचो गांव हो! हिंगा अचाट म्हारवां आसात. तुमीच सांगा, वर्साक कितल्या लोकांक म्हारू लागता हिंगा...!आमगेलो जाणवय काडटा मुरे ते म्हारू?”

“हय!” म्हण सगळ्यानी तकली हालयली.

“...आनी तूंच सांगताली मुगे, तुगेली मांय सांगताली म्हूण... तिका व्हारडीक करून हाडिल्ली तेन्ना, म्हारवां रातीकडेन जनेलांतल्यान हात घालून वडे मागतालीं म्हूण...!”

नाराणाले आवयन तकली हालयली.

“आतां करुंया कितें?” पुरशान विचारलें.

“जाणवय सांगता तशें करचें.” बाबग्यान पर्थून आंग खरपीत म्हणलें.

"हांव आनी कितें सांगूं? तुमी सगळ्यांनी थारायिल्लें जालें. पुणून एक मात खरें! एक फावट लासूंक म्हण व्हेल्ल्याक पर्थून हाडनात! आनी समजा, तेका हाडलो जाल्यार तुमी तेका नाराणा बायले वांगडा संवसार करूंक दितले? तेच्या आंगांत रिगिल्ल्या पिशाच्च्या सुवादीन ते बायलेक करतले? तिच्या पतिव्रतपणाचें कितें? कोण दुरमर्णान मेल्लो तो म्हारू कोण जाणा!"

हें आयकून नाराणा बायलेलें, अनसुयालें आंग शिर्रर जालें. तिका ही येवजण लेगीत सोंसली ना.

"आनी आमगेले रुढी-परंपरे परमाण तेजें मडें व्हयलें तेन्नाच तो आमकां पयस जालो. तो मागीर जितो उरूं नाजाल्यार मरूं!" जाणवायन सांगलें.

अनसुयान येवजिलें, 'जाणटे सांगतात तशें, तो कोणूय भूत बी उरल्यार? म्हजें कितें? शेऽ! पुराय सत्यानाश जातलो. आख्ख्या घराचो नाश! एकेक करून सगळ्यांक काबार करतलो. म्हगेलीं पोरां आसात...! कितेंय आसूं! नाकाच तें! जाणवायन सांगिल्ले परमाणें मसणटेर व्हयलो तेन्नाच पयस जालो तो आमकां!...मागीर खिणांतच तिका दिसलें, तो जितो आसल्यार...?'

एक फावट अशें जाल्यार, एक फावट तशें! कितें करप तेंच समजनासलें.

इतल्यांत गुणो धांवत धांवत येयलो.

"घात जालो. म्हाळगोबाब, तो गेलो... पळ्ळो...!"

"आं?"

"हय! आमगेली नदर चुकोवन तो पळूंक सोदतालो." पांडुबाबान

सांगलें, "तो चय, तो पळटा म्हूण. आमी धरूंक मुखार गेल्यार कसली किळची आनी आरड तेणी मारली जाणा? आमी सगळे भियेवन फाटीं सरले. मागीर तेणी फुरसद चयली ना. धांव मारली रानांत. खंय गेलो, कळ्ळेंच ना!"

"नाराणाली कूड घेवन पळ्ळो तो!" पुंडलीकबाबान म्हणलें. "अरे, तुमी सोदचें न्ही तेका? धरचें न्ही?"

"अरे, आमगेलें रान कसलें? एक मनीस रानांत नदरे आड जाल्यार तो खंय गेलो आनी कितें म्हण कळटा? आनी एकट्यान सोदचेली आमकां छाती जावूं ना! एकच्चीत एकटो धरून खंयूय मानगुटेर बसल्यार...? आमी सगळ्यांनी मेळून थोडें सोदलें? पुंणून तो खंय मेळूंक आयला?"

"चया, चल चया, नाराणालें मडें खंयूय वाटेर उडोवन गेल्यार गेलो!" पुंडलीकबाब उठलो.

मागीर एका फाटल्यान एक सगळे धांवले. बाबग्याक तर भोकापोंदा घेवन बशिल्लें कांबळी फटें व्हरचीय याद उरूंक ना.

पांच पांच जणांचो पंगड बांदून सगळ्यांनी नाराणाक सोदून काडचेलो खूब येत्न केलो. रानांत भितर भितर मेरेन गेले. निमाणे कडेन अटंगें रान तें! तो तांकां मेळ्ळोच ना! सगळे तोंड येद्देशें करून पर्थले.

गोविंदाक सूड जालें.

"आतां कितें करूंया...?" पुरशान विचारलें.

"हीं तीन बावलीं हाडल्यांत न्हू! तीं लासुंया. धडो असो कसो दवरतलो?" पुंडलीकबाबान सांगलें.

मागीर तीं तीन बावलीं धड्यार दवरून धड्याक नाराणाल्या

पुताल्या हातान उजो लायलो आनी सगळे घरा पर्थले.

घरा येतनाच नाराणाल्या पुताक जोर आशिल्लो. घरा येतकीर तो चड वाडलो. तरीय तेच स्थितींत त्या बाळकाक न्हाणोवन बी घरांत हाडलो. म्हाळगोबाबान येवन वखद झरोवन दिलें. इलो काढो दिलो. पुणून, अजून मेरेन जोर देंवना आसलो. इल्ल्याश्या पेजेनिसा बगर पोरान पोटाक कांय घेवंक नासलें. मुखार जोरान पडिल्लो पोर, आनी तकलेंत येवजण्यांचो घुस्पागोंदळ. अनसुयाली तकली पुराय भेरेल्ली.

रात सुमार वाडिल्ली. भायर रातकिड्यांचो किर्रऽ आवाज वाठार भर भरिल्लो. वाड्याच्या पोंतार वाड्यावेलीं सगळीं सुणीं तुटोवन तुटोवन भोंकतालीं. थार दिनासतना मसणटी दिकेन भालू रडिल्ल्याचो आवाज येतालो. आनी ताच्याकूय पयस रानांत एक विचित्रसो आवाज. तो आवाज मनशालो, काय जनावरालो, हेंवूय कळनासलें.

अनसुयाले तकलेंत पर्थून पर्थून तीच येवजण! आनी तो खऱ्यांनीच जितो उरल्यार? खंय आसतलो? ह्या अटंग्या रानांत खंयच्या झाडा पोंदांत, खंयच्या झिली- झोंपांनी? ना-ना तरेचीं जिवाणीं आनी सावदां थंय.

टक् टक् टक् टक् करून जनेलाच्या कवडार मारिल्ल्या आवाजान अनसुयाली येवजण तनरी तुटली. तिणें जनेला कडेन चयलें. पर्थून टक् टक् टक् टक्! तिणें येवजिलें, 'कोण आसतलो? हो न्ही मू? हय! होच आसतलो. आनीक कोण?' एक परम खोशयेचें ल्हार खीण भर तिगेल्या आंगभर पातळ्ळें. ती धांवतच जनेला म्हऱ्यांत गेली. पुणून, खीणभरांतच तिका जाण्टेल्यांचीं उतरां येवजलीं. शेऽ! तशें आसल्यार...? तिणें कच्च करून आंग काडलें.

पर्थून टक् टक् आवाज येयलो.

“कोण...?” तिणें ल्हवूच विचारलें.

“हांव! हांव नाराण गो!” दाबिल्लो आवाज.

तिगेलो अदमास खरो थारिल्लो.

तिका कितें जाप दिवची म्हण कळ्ळें ना.

“हांव नाराण!” पर्थून दाबिल्लो आवाज.

“कितें...?”

“दार काड!”

ती ओग्गी.

“अनसुया, हांव मरुना! हांव जितो आसां!” फुतफुतिल्ल्या आवाजांत तो उलयलो.

ती पर्थून ओग्गी.

“अनसुया, हांव तुमकां व्हरुंक येयलां. आमी रातोरात वचुया खंयतरी पयस...”

“हांव येवचें ना!”

“...तुंवूय म्हाका गावंच्या लोकां भाशेन...”

“हूं!” ती खीणभर ओगी रावली. मागीर ल्हव आवाजांत तिणें म्हणलें, “रुढी-परंपरे प्रमाण म्हगेल्या घोवालें मडें मसणटेर व्हयलें, तेन्नाच म्हगेले आनी घोवाले संबंध सोंपले. आतां हांव फकत मेल्ल्या घोवाली रांड. कुकूम पुसयल्ली! मंगळसूत्र तुटयिल्ली!...” आनी ती भळभळ दुकां

गळोवंक लागली.

“मूर्खपणा करूं नाका... दार उगड, सांगतां!... कोणेंय चयल्यार, म्हगेले कुडके करून जळयतले...”

“ना! उगडची ना, हांव!

सुणीं आतां चडच नेटान भोकतालीं. आनी तीं भोकत भोकत नाराणाल्या घराचे दिकेन येवंक लागिल्लीं.

“हांव सांगतां तें आयक, पांय पडटां, दार उगड...!”

“ना!”

“देवा म्हज्याऽऽऽ!”

सुणी भोंकत सामकीं लागीं भितोडे कडेन पाविल्लीं.

“दार उगडना मुगो...” पर्थून आवाज. पुणून सुण्यांच्या भोकण्यान तो सारखो आयकूंक येना आसलो.

अनसुया उठली आनी पुता मुखार येवन बसली.

भितोडेक पाविल्लीं सुणीं आतां भोंकत भोंकत पयस वचूंक लागिल्लीं.

मागीर खूब वेळ मेरेन वाड्याच्या पोंतार सुणीं भोंक-भोंक भोंकलीं आनी निमाणे कडेन ओग्गी पडलीं. आतां पुराय वाठार सामसूम जाल्लो. ना म्हणल्यार, रातकिड्यांचो किर्रऽ आवाज आनी पयस भालू रडिल्लो आवाज वाठार भरून उरिल्लो.

“बाबू उठलो गो...? जोर निवळ्ळो?” नाराणाले आवयन अनसुयाले कुडींत येत विचारलें.

“ना! निवळूंक ना जोर, आनी उठूंकय ना! व्हदळ उठिल्लो,

रोखडोच न्हिदलो...”

“कोणाकडेन उलयतालें तर तूं? उलयिल्लो आवाज येतकच येयिल्लें हांव!”

“नशिबा कडेन म्हगेल्या!” अनसुयान कपलार हात मारत म्हणलें.

***



देविदास कदम

‘देविदास कदमाली कथा, कथेचीं सगळीं तंत्रमंत्रां सांबाळपी, कथेचे आदिबंध राखपी परिपूर्ण कथा. कथेच्या तंत्रा कडेन तो प्रामाणीक आसा. पोन्नें सगळें मोडून तोडून उडोवचो अभिनिवेश ना. म्हणच ती तकलेक ताण दियनासतना निखळ साहित्यीक आनंद दिता. संवसारांतल्या सगळ्या बऱ्या साहित्याची मोख आसता वाचकाक कलात्मक साहित्यीक आनंद दिवची. तें बरोवप्याक बेस बरें साधलां. मुळांतल्यान अणभव घेवची संवेदनशीलता, सोबीतकायेची नदर आनी समाजभान हाचेन ताचे कथेक पूर्णत्व येता. ताचें समाजभान इतलें बळिश्ट आसा, एका समाजाक विवीध आंगान तें कथेंत आस्पावन घेता.’

- महाबळेश्वर सैल

संजना पब्लिकेशन्स

सांगे-गोंय